# 'जाण्टेलो आनी ताचो देव'

## सुधा मुर्ती





अणकार : सुनेत्रा जोग



# सुधा मुर्ती

सुधा मुर्ती हांचो जल्म १९५० वर्सा कर्नाटकांत जालो. तांणी कॉम्प्युटर सायन्स ह्या विशयांत एम.टेक ही पदवी मेळयल्या. पुण्यांत टेल्को कंपनीत काम करपी त्यो पयल्योच बायल अभियंता. त्यो समाजीक कार्यकर्त्यो आनी कुशळ लेखिका म्हूण नामनेक पावल्यात. सुधा मुर्ती ह्यो इन्फोसिस फाउंडेशनाच्यो अध्यक्षा आसात. ह्या फाउंडेशनाच्या माध्यमांतल्यान जावपी समाजउपेगी कामांखातीर तांणी कीर्त जोडल्या. कर्नाटकांतल्या सगळ्या सरकारी शाळांक संगणक आनी ग्रंथालय सुविधा उपलब्ध करून दिवपाचे चळवळीच्यो त्यो प्रणेत्यो.

१९ नोव्हेंबर २००४ वर्सा तांकां समाजकार्याच्या क्षेत्रांतल्या तांच्या असामान्य योगदाना खातीर राजलक्ष्मी पुरस्कार फाव जाला. २००६ वर्सा तांकां भारत सरकाराचो पद्मश्री पुरस्कार भोवमान फाव जाल्लो. सुधा मुर्ती हांकां समाजीक कार्य आनी साहित्य सेवेखातीर स डॉक्टरेट मेळ्ळ्यात. हातूंतल्यो दोन महाराष्ट्रांतल्या एस एन डी टी महिला विद्यापीठ आनी शिवाजी विद्यापीठा कडल्यान मेळ्ळ्यात. कर्नाटकांतल्या गुलबर्गा विद्यापीठा कडल्यान साहित्य क्षेत्रांतल्या कार्याखातीर एक आनी कर्नाटक विद्यापीठा कडल्यान एक अश्यो दोन डॉक्टरेट तांका दिल्यात. तामिळनाडूंतल्या सत्यभामा विद्यापीठान आनी आंध्रप्रदेशांतल्या श्री पद्मावती विश्वविद्यालयानूय तांकां डॉक्टरेट दिवन सन्मानीत केलां.

# Janntelo Aani Tacho Dev



## जाणटेलो आनी ताचो देव

अणकार – सुनेत्रा जोग

पयली आवृत्ती : मार्च 2014





BROADWAY
PUBLISHING HOUSE

सिग्नेचर स्टोअर :
1 ला मजला, आशिर्वाद बिल्डींग, काकुलो आयलंड जवळ,
18 जून रोड, पणजी – गोवा
फोन : 2420677, 6647037, 6647038,
फॅक्स : 6647038
Website : www.bbcbooks.net Email : bbcbooks@rediffmail.com



ISBN NO. :

किंमत : ₹ 120/-

मुद्रक : रामा हरमलकर (9326102225)

मुखपृष्ठ : अभिजीत पित्रे

अक्षर जुळणी : प्रवरा आर्टस्, युजी-6, सज्जनगड संकुल, दत्तवाडी,
म्हापशें – गोंय 403 507, फोन : 2265000

# अनुक्रमणिका

# जाणटेलो आनी ताचो देव

कांय वर्सांफाटीं, हांव तामिळनाडूच्या तंजावर जिल्ह्यांतल्यान प्रवास करतालें. काळोख जावंक लागिल्लो, आनी बंगालच्या उपसागरांतल्या कमी दाबाक लागून उटंगाराचो पावस पडटालो. रस्ते उदकाच्या लोटान भरून व्हांवताले आनी म्हज्या ड्रायव्हरान एका गांवालागसार गाडी थांबयली. ‘असल्या पावसांत फुडें वचपाक जावंचें ना’, ड्रायव्हरान म्हळें. ‘हांगा गाडयेंत बसून रावचेपरस तुमी आशिकुशीक खंयूय आलाशिरो कित्याक पळयनात?’

अनवळखी गांवांत आनी अनवळखी लोकांमदीं अडून उरिल्ल्यान म्हाका मातसो हुसको जाल्लो. तरीकूय, म्हजी सत्री घेवन नेटान पडपी पावसांतल्यान हांव भायर सरलें. त्या सुपुल्ल्या गांवाचे दिकेन हांव चलपाक लागलें, ताच्या नांवाची याद जायना म्हाका आतां. लायट नासली, काळखांतल्यान आनी पावसांतल्यान चलप ही एक सत्वपरिक्षाच आसली. पयसुल्ल्यान म्हाका देवळाची आकृती दिसली. हांवें थारायलें, आलाशिरो घेवपाक हो एक आदर्श जागो, आनी हांव तेवटेन चलपाक लागलें. अर्द्यार पावलें आनी पावस आनिकूय पडपाक लागलो, नेटाच्या वाऱ्यान म्हजी सत्री हुबली आनी हांव चिप्प ओलें जालें. भिजून थापो जावन हांव देवळांत पावलें. भितर सरतांच एका जाणट्या मनशाचो म्हाका मारिल्लो उलो आयकूंक आयलो. म्हाका तमीळ उलोवंक येना, तरी ताच्या आवाजांतलें आपलेपण म्हाका जाणवलें. म्हज्या साबार प्रवासांतल्यान म्हाका जाणवलां – जो आवाज काळजांतल्यान येता तो समजून घेवंक भाशेची गरज नासता. बारिकसाणेन काळखांत पळोवपाचो यत्न केलो तेन्ना म्हाका सुमार अंयशीं वर्सां पिरायेचो जाणटो मनीस दिसलो. लागीं लागीं तेच पिरायेची णव वारी कापड न्हेशिल्ली एक बायल ताचे कुशीक उबी आसली. तिणें ताका कितेंतरी म्हळें आनी हातांत एक पोरनो पूण निवळ तुवालो घेवन ती म्हज्या मुखार आयली. हांवें म्हजें तोंड आनी केंस पुसले तेन्नाच म्हज्या लक्षांत आयलें कीं तो जाणटो दृष्टीहीन आरसा. तांचे आशिकुशीक नदर

मारल्यार तीं खूब गरीब हें कळटालें. ज्या जाग्यार हांव उबें आशिल्लें, तें शिवमंदी सामकें सादें आनी सजावटींत सामको कमी थाटमाट आशिल्लें अशें. शिवलिंगाचे फकत एक बेलाचें पान. उजवाड फकत दिवलेचो. त्या मिणमिणट्या उजवाडांत शांतीकायेची भावना दाटून आयली आनी देवाकडेन आदलेपरस खूब लागीं आशिल्लेसारकें दिसलें.

तुटक तामीळांत, हांवें त्या मनशाक सांजेची मंगलारती करपाक सांगलें, जी ताणें व्हडा मोगान आनी अर्पणभावान केली. ताची आरत सोंपली तेन्ना हांवें शंबर रुपयांची नोट दक्षणा म्हण दवरली.

नोटेक हात लावन ताणें तो फाटीं घेतलो, अस्वस्थ सो जालो. नमळीकायेन ताणें म्हळें, 'अम्मा, आमकां सदां चड करून मेळटात तशी ही नोट धा रुपयांची न्हय, हें म्हाका कळ्ळें. तुमी कोणूय जांव, देवळांत तुमची भक्ती म्हत्वाची, पैशे न्हय. आमच्या पूर्वजांनी लेगीत म्हळां, भक्तान ताचे तांकीप्रमाण दिवंक जाय. म्हजेखातीर तुमी हेर सगळ्यांसारक्योच शिवाच्यो एक भक्त. उपकार करून हे पैशे परते घेयात.'

हांव अजापलें. कितें प्रतिक्रिया दिवची म्हाका कळना जालें. त्या दादल्याचे घरकान्नीकडेन हांवे पळयलें, तिणें ताचेकडेन वाद घालून ताका ते पैशे घेवंक लावचे हे अपेक्षेन, पूण ती ओगी उबी रावली. कितलेशेच फावट, जायत्या घरांनी, बायल दादल्याच्या वसवशेपणाक उत्तेजन दिता. हांगा उरफाटेंच. घोवाच्या विचारांक ती मान्यताय दिताली. हांव तांचेम्हऱ्यांत बसलें आनी वाऱ्या-पावसाच्या भायल्या सांवारावांगडा आमी आमचे जिणेचेर उलयलीं. हांवें तांकां तांचेविशीं विचारलें, तांचे गांवातल्या देवळांतले जिणेविशीं, तांकां पळोवपाक आनीक कोण आसात काय कितें तेविशीं.

निमाणें हांवें म्हळें, 'तुमी दोगांय जाणटीं. तुमच्या सदच्या गरजांकडेन लक्ष दिवंक तुमकां भुरगीं नात. जाणटेपणांत जेवणाखाणाच्या वस्तूंपरस वखदां चड लागतात. जिल्ह्यांतल्या खंयच्याय शारापसून हो गांव खूब पैस. तुमकां एक सांगूं?'

त्या वेळार, आमी एक जाणटेपणाखातीरची पेन्शन स्कीम चालू केल्ली, आनी तांच्या जीर्ण पूण नितळ कपड्यांकडेन पळोवन म्हाका दिसलें, हे स्किमीखातीर हीं दोगांय आदर्श उमेदवार.

आतां बायल उलयली, 'सांग बाय.'

'हांव तुमकां थोडे पैशे धाडटां. ते राष्ट्रीकृत बँकेंत वा पोस्टांत दवरात. ताचेर मेळटा तें कळंतर तुमकां म्हयन्याच्यो गरजो भागोवपाक वापरूंक मेळटलें. ताकतिकेन वैजकी

रज लागली जाल्यार तुमच्यांनी मुदल वापरूं येता.'

हज्या ह्या उतरांचेर जाणटेलो हांसलो आनी ताचो चेरो दिव्यापरस चड लेकलिकलो.

तूं आमचेपरस कितलेशेंच भुरगें दिसता. आजून तूं अज्ञानी आसा. आतां हे पिके पेरायेर म्हाका पैशे कित्याक जाय? भगवान शिवाक वैद्यनाथन म्हणटात. तो महावैज वा व्हड दोतोर. हांव रावतां त्या ह्या गांवांत जायते दयाळू लोक आसात. हांव पुजा करतां आनी तेबदला ते म्हाका तांदूळ दितात. आमच्या दोगांभितरलें कोणूय बरें ना जालें जाल्यार गांवचो दोतोर वखद दिता. आमच्यो गरजो साप्प थोड्यो. एके अनवळखी व्यक्तीकडल्यान हांव पैशे कित्याक घेतलों? तूं सांगता तेभशेन जर हे पैशे हांवें बँकेंत दवरले, जाल्यार कोणाकूय तें कळून तो आमकां त्रास करूंक शकता. हे हुसके हांव कित्याक घेवं? आमकां दोन अनवळखी जाणट्यांक मजत करपी, तूं खरेंच दयावंत. पूण खरें सांगूं? आमी धादोशी आसात. आमी जशीं जगल्यांत तशींच आमकां जगूंदी. आमकां आनीक कांयच नाका.'

तेन्नाच लायट आयली आनी देवळांत झगझगीत उजवाड जालो. पयलेच फावट त्या जोडप्याकडेन हांवें सारकें पळयलें. तांच्या मुखामळार म्हाका शांती आनी खोस स्पशटपणान दिसली. गरज आसूनय हांवें दिल्ली मजत नाका म्हणपी म्हाका मेळिल्लें हें पयलें जोडपें. ताणें जें कितें सांगलें, तें सगळें म्हाका मान्य नासलें तरीलेगीत हें स्पशट जाल्लें की तांचे धादोसकायेन तांकां शांती दिल्ली. अशा वागण्यान घडये तुमचो बेगोबेग विकास जावचो ना, पूण जिणेंत एका थारावीक काळाउपरांत तें गरजेचें. घडये ताण आनी भार भोगपी संवसाराक भारताच्या एका विसरूं येत अशा कोणशांतल्या एका जाणट्या जोडप्याकडल्यान खूब शिकपासारकें आसा.

***

# उलोवपाचें स्वातंत्र्य

अलका आनी हांव शाळा आनी कॉलेजांत वांगडाच शिकतालीं तेन्नासावन इश्टिणी
आमच्या विद्यापीठांतलें अलका नावाजतें वादविवादपटू. ताचे धीट, पटोवन दिवप
आनी धारदार युक्तिवाद, मुखावयल्याक सामके घुसपावन सोडटाले. ताचे इश्ट ताक
भाशणांची राणी म्हणटाले.

कॉलेज सोंपून, आमचीं लग्नां आनी मागीर भुरगीं जाल्याउपरांत लेगीत आमी
एकमेकांच्या संपर्कांत आशिल्लीं. अलकाचें लग्न एका मॅकॅनिकल इंजिनियराकडेन
जाल्लें आनी तें मुंबय वरळी सी फेसार एका सोबीत फ्लॅटांत रावतालें. ताच्या घोवान
स्वताचो एक लघु उद्देग सुरू केल्लो आनी ताचे चलयेचें लग्न जावन तें यूएसाक
रावतालें. स्वता अलका एका बऱ्या कॉलेजांत समाजशास्त्र विभागाचें मुखेली
आशिल्लें. ताची जीण सामकी परिपूर्ण अशें म्हाका सदांच दिसतालें.

एक फावट, म्हाका कांय कामानिमतान मुंबय वचचें पडलें, आनी अलकान म्हाका
तांगेर रावपाचें निमंत्रण दिलें. थंय म्हाका ताची कुशळ वावराडी तुळशी मेळ्ळें.
महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाचे शीमेवयलें तुळशी अलका आनी हांव उलयतां तीच भास
उलोवपी. दुकळ आनी गरिबीक लागून त्या भागांतल्या कितल्याश्याच लोकांक काम
सोदूंक व्हडल्या शारांनी वचचें पडिल्लें. चडशे जाण दिसावड्याचेर बांदकाम मजूर
म्हण काम करताले, जाल्यारूय पुरतो पैसो एकठांय करपाची आनी आपल्या गांवांत
परते वचपाची तांकां आस्त दिसताली.

तुळशी लेगीत काम सोदीत मुंबय आयिल्लें पूण थंयच स्थायिक जाल्लें. जायतो तेप तें
अलकागेर वावर करतालें, आनी ताच्या कश्टाळू, वेळाचें भान राखपी आनी
विस्वासू सभावान, एक मोलादीक ठेवो कशें जाल्लें.

हांव थंय आशिल्लें, तेन्ना एक दीस, तुळशी आपल्या सदच्या वेळार कामाक आयलें
ना. घड्याळीचो कांटो फुडें वतालो, तशें अलका चडूच उचांबळीत जातालें. ताका

समाजशास्त्राच्या एका आंतराष्ट्रीय परिशदेंत वांटो घेवन उलोवपाचेंय आशिल्लें. तें एक बरें रांदपी म्हूण जरी म्हाका खबर आशिल्लें तरी तुळशीची ताका इतली संवय जाल्ली कीं, तें ताचेबगर कसलेंच काम करूंक शकनासलें. घरा आनी कार्यालयांत, कुशळ वावराड्यो आनी सेक्रेटरी तुमची ही अशी परिस्थिती करतात.

ताचें हें उचांबळ जावप पळोवन म्हाका हांसूंक येतालें. हाका लागून तें आनिकूय बेजारलें. ताणें म्हळें, 'तुका हांसप सोपें. ताचे गरजेवेळार हांवें ताका कितलो आदार केला तो तुका खबर ना. आयज तें म्हाका अशें कशें करूंक शकता? ताका खबर आसा आयज म्हाका एक खूब म्हत्वाचें काम आसा. आयचे परिशदेंत म्हजेर कितें जापसालदारकी आसा तूं नकळ. तूं सगळेंच कांय न्हयशें धरता. हाकाच लागून तूं एक सादें व्हिजिटींग प्रोफेसर उरलां.'

ताच्या ह्या उतरांनी हांव बेजारलें ना. कित्याक, तर आमी खूब आदींपासून इश्टिणी आनी एकमेकांकडेन सामकीं मनमेकळेपणान उलोवपी. ताणें जें म्हळें, तें खरेंच आशिल्लें, जें हेरांभितरले खूब कमी लोक म्हाका सांगूंक पावपाचे.

देखून हांसपाबदला हांवें ताका एक वेगळोच उपाय सुचयलो.

'अलका, आमी तुळशीगेर वचून ताका उशीर कित्याक जाला तें कित्याक पळोवचें न्हय? तापून आनी तुजें प्रेसांव वाडोवन घेवपांत कांय अर्थ ना.'

तुळशी रस्त्याचे दुसरे वटेन झोंपडपट्टेंत रावता हें म्हाका खबर आशिल्लें. मुंबय सारकिल्ल्या शारांत जंय गिरेस्त सोबीत घरांनी रावतात थंयच तेंकून आशिल्ल्या झोंपडपट्ट्यांनी तांचेपरस दुपेटीन गरीब लोक रावतात. खरें म्हळ्यार, व्हडल्या व्हडल्या फ्लॅटांनी रावपी लोकांक, तगून उरपाक ह्या झोंपडपट्ट्यांचोच आदार जाता. अनमनत अलकान म्हजें सांगणें मानलें आनी आमी रस्त्यापलतडीं तुळशीगेर वचपाक गेलीं.

ताच्या घरा पावत आयलीं तेन्ना आमकां व्हडल्या आवाजांत चलपी वाद आयकूंक आयलो. कांय लोक व्हडा व्हडान झगडटाले. आमी कोनशार वळ्ळीं आनी कोणाक तरी तापोवपी तुळशीक पळोवन अजापलीं. थंयच कुशीक ओग्गी उबो आशिल्ल्या एका मनशाचेर तें आड्ड्तालें. तो रमण, तुळशीचो घोव, अशें अलका म्हज्या कानांत फुतफुतलें. ताची बायल तुळशी ताचेर सामक्या वेंचीक गाळींचो शिंवर करताली आनी तो तकली बागोवन उबो आसलो. सामकें उचांबळीत जावन तुळशी आपले गांवगिरे बोलयेंत उलयतालें. तें इतलें खुबळिल्लें, कीं ताणें घोवाचेर कांय थापटां फुलयल्यार लेगीत म्हाका अजाप जावचें नासलें. ताचे शेजारी आपलीं कामां

करतां करतां मदीं मदीं तुळशीचेर काकूट करपी नदर मारताले. निमणें तुळशीन आमकां पळयलीं आनी मातशें शांत जालें.
'तुळशी, असली भास वापरूं नाका. गाळींबगर तूं तुजी अडचण सोडोवंक शकता. कितें जालां? थंडसाणीन म्हाका सांग कितें जालां तें.' हांवें आमचे भाशेंत ताका म्हळें.
हो वेळ मेरेन आपल्या भावनांचेर नियंत्रण दवरून दोळ्यांत दुकां हाडून तुळशीन म्हळें, 'अम्मा, व्हडा कश्टान हांवें कांय पैशे एकठांय करून म्हजेखातीर भांगराचीं दोन काकणां आनी सरपळी केल्ली. म्हज्या कश्टांच्या पैशांनी. ह्या मनशान कितें केलें तुमी जाणात? ताणें पानाचो गाडो सुरू करपाखातीर त्यो वस्ती व्हरून घाण दवरल्यो. हें सारकें? तुमी म्हाका थंड राव म्हूण कशें सांगतात? म्हजे पुराय जिणेंत केल्ली बचत ती. अलका अम्माक आयज म्हत्वाचें काम आसा हें हांव जाणां पूण आयज सकाळीं ताणें म्हाका हें सांगल्याउपरांत हांव म्हज्या रागाचेर ताबो दवरूंक शकलें ना.'
मातसो वेळ थंय रावून हांवें ताका मातशी बुजवण दिली. ताचेसारके कितलेशेच लोक जे दिसपट्टे जिणेच्या मुळाव्या प्रस्नांकडेन झुजत आसतात, आनी आमच्यांतले जायते जाण जो चकचक गृहीत धरतात, ताचेकडेन तांचो कांयच संबंद नासता, अशा लोकांकडेन उलोवप हो म्हज्या कामाचोच एक भाग. कशेंय जाल्यार, एक शिक्षक आशिल्ल्यान, उपदेश, मागीर तो जाय आसूं वा नाका, दिवपाची म्हाका संवय जाल्या.
आमी परत घरा वता आसतना अलका ओग्गी आशिल्लें. म्हाका दिसलें, घरा जें काम पडलां तें चितून ताका हुसको जाला. आपलेपणान हांवें म्हळें, 'रांदप आनी हेर कामाचो हुसको करूं नाका. हांव मजत करतां तुका, आनी म्हाका खात्री आसा, तुळशी सांजे येतलें परतें. हे लोक आपल्यो भावना सामक्यो मेकळेपणान उक्तायतात आनी ताकाच लागून सगळें रोकडेंच विसरतातूय. हांव पैज लावन सांगतां आयज रातमेरेन घोवाबरोबरचें झगडें मिटोवन तुळशी ताचेवांगडा सिनेमा लेगीत पळोवंक वचत.'
आतां मेरेन आमी फ्लॅटांत भितर सरिल्लीं आनी हांव सरळ रांदचे कुडींत आयदनां घांसपाक गेलें. हांव बरें रांदपी न्ही पूण आयदनां घांसपांत मात खात्रेन फिशाल. अलकान आमचेखातीर च्या करतां म्हळें आनी तें रांदचे कुडींतले दुसरे वटेन गेलें. कांय वेळान ताच्या हुडकेवपाचो आवाज आयकून म्हाका अजाप जालें. तें हुडके चिड्डुपाचो यत्न करतालें पूण दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां देंवतालीं.

ाचे म्हऱ्यांत वचून हांवें ताच्या खांदार हात दवरलो. ज्या खिणाक हांवें ताका स्पर्श केलो, अलका सामकें मेकळेपणान रडूंक लागलें.
'अलका, प्लीज, अशें अस्वस्थ जांव नाका. तुळशीची गजाल इतली मनाक लावन घेवं नाका.'
'म्हाका तुळशीची चिंता ना. म्हाका आयज जाणवलां म्हजी परिस्थिती ताचेपरस वायट आसा.'
ताचीं उतरां आयकून हांव तटास जालें. तें उलयत रावलें, 'हो फ्लॅट घेवपाक खूब कश्ट पडले आमकां. तूं जाणा कितलो म्हारग आसा तो, आनी ते पैशे भरूंक हांवें म्हजो सगळ्यासगळो पगार दिला. हो फ्लॅट म्हळ्यार म्हजे अख्खे जिणेंतली बचत. पूण तूं जाणा म्हज्या घोवान कितें केलें ? एक दीस, तो हांगा नाशिल्लो तेन्ना ताच्या नांवान बँकेंतल्यान एक रजिस्टर पत्र आयलें. हांवें तें उगडलें आनी पळयलें जाल्यार ताणें हो फ्लॅट, जो आमी इनकम टॅक्साक लागून ताच्या नांवार घेतिल्लो, बँकेंत घाण दवरला. ताचो धंदो सारको चलनासलो आनी ताका चडावत पैशांची सामकी गरज आशिल्ली. पूण ताणें हें सगळें म्हाका कांयच सांगिनासतना केलें. हांव खुबळ्ळें. हो फ्लॅट व्हगडायलो जाल्यार आमी खंय वतलीं ? आमी सुसंस्कृत समाजांत रावतात, ते कारणान हांव ताचेर आड्डूंक आनी किळचेवंक शकलें ना. व्हडा आवाजांत ताका वायट उतरां दिवंक शकलें ना कारण शेजाऱ्यांक आमी झगडटात हें कळपाचें. कितलोसोच तेंप हो सगळो राग हांव म्हजेभितर तसोच दवरीत आसा. तुळशी म्हजेपरस खूब बरें. निदान ताका घोवाचेर आड्डुपाचें, राग आयल्यार ताका मारपाचें आनी मागीर तें सगळें विसरून वचपाचेंय स्वातंत्र्य आसा. म्हाका मात म्हजेभितरलो घाय सदांकाळ तसोच फोफेवन दवरीत जगूंक जाय.'
ताका कितें सांगचें तें म्हाका कळना जालें. असहाय्यपणान ताच्या घराचे सोबीत बाल्कनींतल्यान हांव दर्याक पळयत रावलें. शाळेंत आशिल्लें तेन्नासावन अलका धाडशी, बरें उलोवपी अशें म्हज्या मनांत जें एक चित्र आशिल्लें, तें मातयेभरवण जाल्लें. तें म्हळ्यार एक सादी, भोळी आनी घोवाकडेन आपल्या हक्कांखातीर झगडूंक शकना अशी बायल मनीस. विशय बदलपाखातीर हांवें ताका विचारलें, 'आयच्या सेमिनारांत तूं कित्याचेर उलयतलें ?'
'उलोवपाचें स्वातंत्र्य,' ताणें म्हळें. केदो विरोधाभास हो!

***

# दवरणें

गिमाचे दीस म्हाका म्हज्या सुपुल्ल्या गांवातल्या भुरगेपणांतल्या दिसांची याद करून दितात. गांवांत मदीं, वडाचो एक व्हडलो रुख आशिल्लो, आनी सुटयेच्या दिसांनी कितलींशींच वरां हांव त्या रुखापोंदा खेळटालें. तो रूख एक व्हड सत्री कसो आनी ताच्यो खांदयो सांवळी आनी पालव दिवपी. भोंवडेकार फुडले वाटेक लागचेपयली कांय वेळ रुखापोंदा विसव घेताले. तांका सुसेग मेळचो म्हण रुखापोंदा एक होरेगल्लू म्हळ्यार दवरणें आशिल्लें. होरेगल्लू उतराचो अर्थ वजन घेवपाची तांक आशिल्लो एक फातर. तो एक व्हड दोन उब्या फातरांचेर आडवो दवरिल्लो सपाट फातर, एक बांक कसो, जाचेर कोणेय बसून विसव घेवन आपल्या वांगड्याकडेन रस्त्यावयल्यो दोन गजाली करच्यो. बांकाकुशीक मातयेच्या आयदनांत थंड उदक दवरिल्लें आसतालें जें पियेवन फुडले वाटेक लागचे आदीं लोक आपली तान भागयताले. म्हाका खात्री आसा अशेच तरेची व्यवस्था देशाच्या हेर गांवांनीय मेळू येता.

आमच्या गांवच्या दवरण्याच्यो कांय वेगळांव नज अश्यो खास यादी म्हज्या आज्याकडेन जोडिल्ल्यो आसात. तो एक निवृत्त शिक्षक आशिल्लो आनी दर दिसा वरांची वरां त्या वडाच्या रुखापोंदा बसून येतल्या वतल्यांकडेन उलयतालो. खेळून पुरो जालें काय हांव ताचे म्हऱ्यांत वचून बसतालें, तो उलयतालो त्या लोकांक नियाळटालें आनी तांच्यो खबरी आयकतालें. चडशे लागशिल्ल्या शेताच्या कामांतल्यान मातसो विसव घेवपी गांवांतले लोक आसताले. तांकां सदांच माथ्यार जड वजें घेवन खूब अंतर चलून वचचें पडटालें. गरमेक लागून पुरो जालें काय, ते थंड उदक पियेताले, उदकान तोंड धुयताले आनी आज्याकडेन खबरी करताले. तांच्यो खबरी म्हळ्यार तांची जीण आनी सदच्यो विवंचना.

'मास्तर, अंदू गरमी खुबूच आसा. हांवें केन्नाच असलें सुकें हवामान पळोवंक ना.' वा 'मास्तरजी, हें जड वजें माथ्यार मारून व्हरप म्हज्यान जायना. ह्या दवरण्याचें बरें

गांव. पुतान आदार करचो अशें दिसता म्हाका पूण ताका ऊठसूट शारांत वचपाचें आसा...' तांचे जिणेंतल्या अडचणींविशीं ते उलयताले. म्हजो आजो तांचें उलोवप फकत आयकतालो पूण ताचेकडेन निखटे उलयले काय फुडल्या प्रवासाक तांकां उमेद येताली. कांय वेळाउपरांत ते आपलीं वजीं उखलताले आनी वाटेक लागताले. दवरणें तांचे जिणेंतलो एक म्हत्वाचो वांटो आशिल्लो आनी हे लोक ताका थंय आसा म्हण परत परत आशिर्वाद कित्याक दितात हें म्हज्या भुरग्यामनाक कळनासलें. कितलोय जाल्यार फातराचो एक बांक तो. म्हज्या आज्यान म्हाका सांगलें, 'बाय, खंयच्याय प्रवासांत दवरणें गरजेचें. आमी आमचे परिस्थितीप्रमाण आनी तांकीप्रमाण वजीं उबारतात. पूण मदीं मदीं आमकां रावचें पडटा, वजें सकयल दवरून विसव घेवचो पडटा. तेन्नाच आमी शीण पयस करून परतून एक फावट वजें उबारूंक शकतात. दवरणें सगळ्यांक अशें करपाची संद दिता. आपली शक्त परत मेळपाक लोकांक मजत करता.'

फुडले जिणेंत, म्हाका कितेंतरी पळोवंक मेळ्ळें ताका लागून म्हाका परत एक फावट त्या फातराच्या बांकाची याद जाली. हांव मुंबय काम करतालें. म्हजें एक वांगडी रत्ना वरिश्ठ क्लार्क, मध्यम पिरायेचें आनी हांसत्या तोंडाचें. तें पदवीधर आशिल्लें आनी हे कंपनींत फाटलीं पंचवीस वर्सां काम करतालें. उमेदीचो वसो घेवन तें आपलें तेंच तेंच संवसारीक काम करतालें.

सदांच, जेवणाचे सुटयेंत तें कोणायवांगडा तरी एके कुडींत बसून खूब उलयतालें. तीं कितें उलयता आसत काय अशें म्हाका सदांच दिसतालें. निमाणें एक दीस, हांवें ताका विचारलें, 'रत्ना, जण एकल्याकडेन जेवणाचे सुटयेंत सगळो वेळ तूं कितें उलयता?'

रत्नान हांसत सहजपणान म्हळें, 'आपल्यो अडचणी तीं म्हाका सांगतात.'

'पूण इतल्या जाणांचें दुख तूं कशें पैस करूंक शकता? तांचेखातीर तुजेकडेन जाप आसता सदांच?'

'ना, हांव फकत आयकतां.'

'तितलें पुरो? तितल्यान प्रस्न सुटावे जातात?' हांव तरनाटें आशिल्ल्यान अशे तरेचे एकतर्फी धारणेचेर विश्वास बसप कठीण आशिल्लें. पूण जे तरेन तें म्हज्या हेर वांगड्यांकडेन उलयता आसतलें त्याच पाशियेसान आनी मोगान रत्नान जाप दिली, 'हांव बुदवंत वा प्रशिक्षण घेतिल्लें सल्लागार न्ही. तुमचे प्रस्न कोणूच सुटावे करूंक शकनात. तुमचे तुमकांच ते करचे पडटात.'

'तशें जाल्यार तूं तांचे प्रस्न आयकून तांका मजत कशी करता?'

'दुसऱ्यांचें आयकुपाक देवान म्हाका दोन कान दिल्यात. हांव तांचें आपलेपणा आनी कसलोच निवाडो करिनासतना आयकतां. त्रासांत वा चिंतेंत आशिल्ल्य मनशाक जेन्ना चिंतनांतल्यान सुटकेवाट मेळटा, तेन्ना ताचें अर्दें वजें कमी जाता.'

मातशें चिंतलें आनी हांवें म्हळें, 'पूण तूं केन्नाच हो विश्वास मोडून तांचे गूट दुसऱ्य कोणाकूच सांगिना, चुकून लेगीत?'

'सपनांत लेगीत ना. म्हाका दिसता तो एक सामको वायट असो विस्वासघात जातलो. कोणाच्याच विस्वासाचो असो घात करप हाचेपरस व्हड पाप आसत अशें म्हाका दिसना. तीं आपल्यो चिंता म्हाका सांगतात कित्याक तर तांकां खबर आसा हांव केन्नाच ताचेविशीं कोणाचकडेन उलोवचें ना वा चाडी करचें ना. तांचीं उतरां म्हजेकडेन सुगूर आसात हें कळ्ळ्याउपरांतूच तीं मेकळेपणान म्हजेकडेन उलोवंक शकतात. अशे तरेन कांय खिणांखातीर हांव तांकां चिंतेंतल्यान मुक्त करतां, मागीर तीं परत आपलें वजें उबारून आपले वाटेन वचूंक तयार जातात.'

ताचीं उतरां वडाच्या रुखापोंदा फातराच्या बांकार बसून उलोवपी म्हज्या आज्याच्या उतरांचो रहस्यमय प्रतिध्वनी कशीं. घडये, आपापले परीन, चड पैसो नासतना, हीं दोनूय मनशां आकांताची समाजसेवा करतालीं. तांच्या ह्या वावराची पावती दिवची वा तांकां इनाम दिवचें अशें कोणेच चितलें ना, पूण तांणीं आपलो वावर चालू दवरलो कारण ह्या दयाळूपणाच्या वागण्यान तांकां खोस मेळटाली. आतां जर केन्नाय हांव गावांतल्या दवरण्याकडेन पावलें जाल्यार म्हाका तांचो उगडास जाता आनी संवसारांत असले आनीकूय जायते आसचे अशें मागतां.

***

# तुमी पळयशात तशें

कांय वर्सा फाटीं, हांव कांय कामानिमतान कर्नाटकांतल्या एका ल्हानशा गांवांत वतालें. म्हाका उशीर जाल्लो आनी काळोख जावंक लागिल्लो. रस्त्यार लायट नाशिल्ली आनी म्हाका वचपाक जाय त्या जाग्यार पावपाची म्हाका उमळशीक लागिल्ली. जेन्ना आमी गांवचे शिमेकडेन पावलीं तेन्ना गाडयेच्या दिव्याच्या उजवाडांत रस्त्याचे कुशीक कांट्यांच्यो कांय झिली दिश्टी पडल्यो. त्या झिलींफाटल्यान कितल्याश्याच बायलांक लजेन तकली धांपून हातांत पत्र्याचे डबे घेवन येतना पळोवन म्हाका अजाप जालें. त्यो थंय संडासाक गेल्ल्यो हें म्हज्या लक्षांत आयलें.

रोखडेंच हांव गांवचो मुखेली, वीरप्पाच्या घराकडेन पावलें. तो एक गिरेस्त मनीस आनी ताणें म्हजेखातीर रातचें जेवण जतनायेन तयार केल्लें, तातूंत जायते प्रकार आनी कांय वेगळे तरेचे गोड जिनस आशिल्ले. जेवण खूप रुचीक, पूण म्हजें लक्ष जेवणांत नाशिल्लें. झिलींतल्यान लिपून भायर सरपी त्या बायलांचें चित्र तकलेंतल्यान काडून उडोवंक म्हाका जमनासलें.

निमणें जेन्ना जेवण सोपलें, तेन्ना हांवें म्हाका रांदप्याक मेळूंक जाय म्हूण सांगलें. रांदपीण शरणाम्मा एक जाणटी बायल. ती खूब भिडेस्त आनी सामकी ल्हव आवाजांत म्हजेकडेन उलयताली. तिची बरी वळख करून घेवपाक हांवें तिका म्हळें, 'जेवण सामकें रुचीक आसलें. परतफेड म्हूण हांव तुकां कितेंय दिव?'

भिडेस्तपणान तिणें जाप दिली, 'अम्मा, तूं गरिबांखातीर जायतें काम करता म्हूण हांवें आयकलां. तुका शक्य आसत जाल्यार तूं ह्या गांवच्या बायलांखातीर कांय संडास बांदून दिवंक शकता? आमकां खूब त्रास जातात. दादल्यांसारकीं आमी दिसाउजवाडीं संडासाक वचूंक शकनात. चोरांभशेन आमकां काळोख जायसर रावचें पडटा, मागीर आमकां झिलींनी वचचें पडटा, तेंय बी पंगडान. जेन्ना रस्त्यावेल्यान एकादरी गाडी वता आनी दिव्याचो उजवाड आमचेर पडटा तेन्ना आमकां लज

दिसता. जर आमच्या जिवाक बरें नासत, आनी मध्यानरातीर भायर वचचें पडत
जाल्यार देवानूच वाटावपाचें. तरनाट्या चलयांक तर हो व्हड धसको. तुमी ज
हाचेविशीं कितेंय केलें जाल्यार आमकां सगळ्यांक खूब खोस जातली.'

आपल्या समाजाखातीर आशिल्ले जापसालदारकेची तिची समज पळोवन हां
अजापलें. वीरप्पाकडेन पळोवन 'गांवच्या बायलांनी आपली निसर्गीक गर
इज्जतीन आनी एकांतात पुराय करपाचे गजालीचें म्हत्व गांवच्या मुखेल्याक कळन
ही लजेची गजाल,' हांवें म्हळें. दर एका मनशाचो हो मुळावो अधिकार ताका मेळ
गरजेचें. निमाणें हांवें ताका सांगलें, 'जर तुमी सारके सांबाळटले, जाल्यार हांव
संडास बांदून दिवंक तयार आसा.' हांवे केल्ले निर्भत्सनेन लज जाल्ल्या वीरप्पान
रोकडोच हयकार दिलो.

अशे तरेन आमच्या फावंडेशनावरवीं गांवगिऱ्या तशेंच बंगलोरच्या कांय मुखेल
वाठारांनी सार्वजनिक संडास बांदपाचें काम सुरू जालें. भारतांत सादारणपणान लोक
उमेदीन देवळां, मशिदी आनी गुरुद्वारा उबारतात, पूण सामके गरजेचे अशे संडास
बांदप म्हत्वाचें असो विचार मात कोणूच करिनात. घडये ताचेकडेन पुण्याची गांठ
बांदिल्ली ना देखून जायत.

बेंगलोरांत आमी जे संडास बांदले ते पैशे दियात आनी वापरात अशे तरेचे. जरी
कितल्याश्याच लोकांक पैशे दिवन वापरप मान्य नासलें तरी, तांची निवळसाण आनी
जतनायेचो हो एक मार्ग अशें आमकां दिसलें.

एक दीस, हांव शारांतल्या गजबजिल्ल्या बसस्टँडा लागसारच्या पयल्याच संडासांत
भितर सरलें. ती एक थाराय नासतना दिल्ली भेट आनी हांव दोन बायलांफाटल्यान
लायनींत रावलें. त्यो नोकरी करपी दिसताल्यो आनी सदांच बसीन प्रवास करपी.
अचकीत तांणीं म्हजें नांव घेतिल्लें कानार पडलें. 'ही सुधा मुर्ती सामकी काटूक
बायल. हो बांदपाक तिणें इतलो पैसो खर्च केला, जाल्यार तो पैशे दिवन वापरप
कित्याक?' दुसरेन जाप दिली – 'खरें तुजें. तुका खबर ना. लोकांकडल्यान हांवें
आयकलां तिणें बेंगलोरांत कितलेशेच संडास बांदल्यात आनी ती कसलो तरी ट्रस्ट
चलयता संडासांच्या पैशांचेर. तिका भरपूर फायदो जाता आसतलो.'

तांची हीं उतरां आयकून म्हाका धक्को बसलो. शारांतली नागरी जीण सुदारपाखातीर
जर कोणें कितेंय केलें, तरी लेगीत लोक कसले कसले विचित्र शेरे मारतात! कांय
खीण हांव अस्वस्थ जालें. मागीर शांत जालें आनी स्वताकूच सांगलें की लोक तांकां
जाय तें उलयतले, पूण तरी हांवें जें थारायलां तें करपाक जाय. हांव जाणा सार्वजनीक

संडासांचो शरणाम्मा सारकिल्ल्या कितल्याश्याच जाणांक उपेग जाला. गांवच्या बायलांखातीर गरजेची म्हण जे गजालीकडेन तिणें पळयल्लें, तीच ह्या दोन बायलांक धंद्याचो भाग दिसताली.
निमाणे, जिणेकडेन जशे तरेन तुमी पळयतात तशी ती दिसता.

***

# दोन भावांची काणी

राम आनी शाम दोगूय जुंवळे भाव आनी म्हजे विद्यार्थी प्री-युनिव्हर्सिटी आनी पदव
कॉलेजींत, एमसीए शिकताले. हाचो अर्थ हांवें तांकां सुमार सात वर्सां शिकयले
साहजिकच, इतलीं वर्सां हांव तांकां आनी तांच्या घरच्यांक वळखतालें. म्हाक
खबर आशिल्ल्या हेर जायत्या जुंवळ्यांभशेन राम आनी शाम, एकमेकांवांगडा खू
खोशी आसताले आनी सदांच कॉलेजांत एकठांय आसताले, घरचो अभ्यास
प्रयोगशाळा आनी वर्गांतल्यो नोटस बी वांटून घेताले. ते इतले एक सारके दिसताले
कीं जायते फावट राम खंयचो आनी शाम खंयचो हें म्हाकाच कळनासलें. 'तुमी किते
तरी अशें घालूंक जाय, जाका लागून हांव तुमकां वळखूंक शकतलें.' हांव
मस्कऱ्यांनी म्हणटालें. 'हांव इतलें घुसपतां. तुमचें लग्न जातकच कितें जातलें काय?
तुमी दोगांयनी जुंवळ्या चलयांकडेन लग्न जावंक जाय, मागीर खरी मजा आनी
सगळो घुस्पागोंदळ.'

एमसीए ची पदवी घेतल्याउपरांत दोगूय सॉफ्टवेयर कंपनीत लागले. तांचो बापूय
कारखानदार आनी आवय एके शाळेची प्राचार्य. म्हणचे ते एका गिरेस्त घराब्यांतले
आनी तांचें एक व्हडलें घर आनी फार्महावस आशिल्लें. एक दीस, दोगूय तरनाटे
म्हाका तांच्या लग्नाचें आमंत्रण दिवंक आयले. मजा म्हळ्यार, दोगूय खऱ्यांनीच दोन
जुंवळ्या भयणींकडेन लग्न जाताले.

'अशें दिसता तुमचे जिणेची काणी एकाद्र्या सिनेमाची काणी कशी.' हांवें परत
फकाणां केलीं. 'जुंवळ्यो भयणी कश्यो मेळ्ळ्यो तुमकां? तांचीं नांवां कितें?'

'मॅडम, जेन्ना आमी लग्न जावपाचें थारायलें तेन्ना मुजरत जुंवळ्यांचो सोद घेतलो,
आमकां दिसलें फकत जुंवळींच आमकां आनी आमचे इश्टागतीक समजून घेवंक
शकतलीं. तांचीं नावां स्मिता आनी सविता. तुमी आमच्या लग्नाक येवंकूच जाय.
कित्याक, तर ही पयली तुमचीच कल्पना.'

हांव लग्नाक गेलें आनी दोनूय जोडप्यांक काळजासावन आशिर्वाद दिलो. म्हाका दिसलें दोगांच्याय आवयबापायक समाधान जालां आसतलें. दोगा भावांनी दोन भयणींकडेन लग्न जावप म्हळ्यार दोनूय जोडप्यांमदीं कसलीच दुस्मानकाय जावची ना.
कांय म्हयन्यांउपरांत अचकीत राम आनी शामाचे आवयन एक दीस म्हाका आपयलें. तिचो आवाज थकिल्लो कसो. 'मॅडम, तुमी येवन भुरग्यांकडेन उलयशात?' सामकी बेजारून तिणें विचारलें.
कितें तरी अडचण आसा अशें म्हाका जाणवलें, आनी त्याच सप्तकाअखेर कितें घडलां तें पळोवंक हांव तांगेर गेलें. जरी हांव सामकें घरामुखार आसलें, तरी कांय खीण, हांव घर वळखूंक विसरलें. आतां एकाच्या जाग्यार थंय दोन मुखेल दारां आशिल्लीं आनी जार्दीन दोन वांट्यांनी विभागिल्लें. म्हाका दिसलें हांव पत्तो चुकलां वा तांणीं घर बदल्लां, पूण रामाचे आवयन म्हाका पळयलें आनी भितरल्यान उलो मारलो.
हांव भितर सरलें आनी रोकडेंच म्हाका वातावरणांत एक अवघडलेपण आनी दूख जाणवलें. विचित्र पद्धतीन घर विभागिल्लें. भायली बसपाची कूड ल्हान, जाल्यार न्हिदपाच्यो कुडी खूब व्हड आनी रांदची कूड वेगळ्याच आकारांत. हॉलांतल्यान रांदचे कुडीमेरेन घराचे लांबायेची विटांची वणत. भितर सामकें किण्ण. हांवें तांचे आवयक विचारलें, 'कितें जालें? तुमी ही वणत कित्याक घाल्या?' तिणें म्हाका ती दुखेस्त काणी सांगली.
'राम आनी शाम झगडून वेगळे जाले, म्हूण ही वणत आयल्या हांगा. तुमकां इतलें अजाप कित्याक जालें? व्हड जाले काय बदलतात लोक. ल्हान भुरगे आसतना तांचेभितर आमकां दिशिल्लें सादेपण शेणटा.'
हांवें म्हळें, 'भावंडां चडशीं झगडटात तांच्या जोडीदाराक लागून, पूण हांगा तर त्यो भयणी आशिल्ल्यो, तांणीं कशें फाटबळ दिलें?'
'तांकां लग्न केले तेन्ना आमकांय तशेंच दिशिल्लें. कांय दीस सगळें बरें आसलें. म्हजो घरकार निवृत्त जालो, तेन्ना आमी सगळे आस्पतीचे सारके वांटे करून दोगांय भावांक दिवपाचें थारायलें. तेन्नाच त्रास सुरू जाले. दोगांकूय हेंच घर, आनी फार्महावस जाय जालें. हो प्रस्न आमी कसो सुटावो करप? दोगूय बावगनात, म्हूण शेवटाक दोन घरां करपाखातीर आमी ही वणत उबारली.'
पोरनी म्हणणी कितली खरी! पैसो ही अशी वस्त जी चुकूनूच लोकांक एकठांय

हाडटा, चडशी वेगळायताच. झगडें संपत्तीपासत आशिल्लें.
तांचे आवयक हांवें तांची शिक्षिका ह्या नात्यान तांचेकडेन उलोवचें आनी तांका सल्ल दिवचो अशें दिसतालें. पूण हांव जाणा आसलें पैशांच्या विशयांत तांचे कॉलेज शिक्षिकेच्या उतरांनी व्हडलोसो बदल जावचो ना. तरीय हांवें यत्न केलो. हांवें म्हळें, 'जेन्ना तुमी आवयच्या पोटांत आसले तेन्नाच्यान तुमी एकूच जागो वांटून घेतलो. तुमी तुमचे आवयचो गर्भाशय वांटून घेतलो, तुमची खोस आनी दूख वांटून घेवन ह्या घरांत वांगडाच ल्हानाचे व्हड जाले. तुमची इश्टागत ताणीं समजून घेवची म्हूण तुमी जुंवळ्या भयणींकडेन लग्न जाले. तुमकां कळपाक जाय की जिणेंत तडजोड करून आपल्या मायेच्या मनशांवांगडा शांतिकायेन रावप म्हत्वाचें.'
म्हज्या उतरांचेर तांचेकडेन जाप नासली आनी हांव भेड्ड्या कानांकडेन उलयतां हें जाणा आसलें. हांव भायर सरलें, अपेशी जावन. जेन्ना घरा पावलें, तेन्ना म्हाका एका आदल्या इश्टाकडेन रातच्या जेवणाक वचूंक कळाव जाल्लो. तो म्हजो वांगडी आनी हांव ताका कितलीशींच वर्सां वळखतां. म्हाका उसरां आयिल्लें पळोवन ताणें म्हळें, 'जाणा मगो, वक्तशीरपण हें बऱ्या शिक्षकाचें लक्षण – फकत वर्गांतूच न्हय, तर सगळीकडेन.'
हांवें मानून घेतलें आनी चूक मागली.
'चूक जाली. आतां खंयच्या हॉटेलांत वतात आमी?'
ताची बायल हांसली आनी म्हळें, 'आमी तीस किलोमीटरावयल्या एका गांवांत वतात.'
'अशें, फार्महावसार काय कितें?'
'ना, आमचें फार्महावस ना. आयज रातचें जेवण एका शेतकारागेर.'
ती कितें उलयता म्हाका कळ्ळें ना, म्हूण हांव मोन्यांनी गाडयेंत बसलें. म्हज्या इश्टान गाडी पयलीं लागींच्या बाजारांत व्हेली. थंय ताणें कांय मिठाय आनी फळां घेतलीं, जाल्यार ताचे बायलेन कांय कपडे. उत्सूकतायेन हांवें परत विचारलें, 'आमी खंय वतात?'
थंडपणान ताणें जाप दिली, 'म्हज्या भावागेर. खूब दीस जाले तो आमकां आपयता. म्हाका खात्री आसा तुका थंय आवडटलें.' ताका भाव वा भयण ना हें हांव जाणा आसलें. आपल्या आवय बापायचो तो एकलोच भुरगो.
'हो भाव खंयच्यान आयलो? तुजो बापोलभाव, वा सामको लागींचो भावासारको इश्ट बी? काय हिंदी सिनेमाभशेन तुका अकस्मात तुज्या शेणिल्ल्या भावाचो सोद बी

लागलो?'

रहस्यमय रितीन हांसून तो गाडी चलयत रावलो. रोकडींच आमी बेंगलोराभायर पावलीं आनी हायवेचेर गाडी सामकी वेगान धांवताली. ताचो मोनेळ म्हाका थतरवितर करतालो आनी हांव चिंततालें हांवें ताका चड प्रस्न विचारून ताचे खाजगी जिणेंत बळयां घुसलें काय! जर आमी अमेरिकेंत आशिल्लीं, आनी हांव इतलें उलयल्लें, जाल्यार तो म्हाका 'ओगी राव आनी तुजें कितें तें पळय' म्हूण सांगपाचो. पूण हांगा भारतांत आमच्यांनी कोणाचेय खाजगी जिणेचेर प्रस्न विचारले बगर रावूं नज, आमकां गरज आसूं वा नासूं.

अचकीत म्हज्या इश्टान उलोवंक सुरवात केली.

'पंचावन वर्सांआदीं, आमी आतां ज्या गांवांत वतात थंय हांव जल्मल्लों. हांव धा दिसांचो आसतना म्हजी आवय गेली. म्हज्या बापायक तिचो खूब मोग आसलो आनी तो काळजांतल्यान हाल्लो पूण ताका म्हाका सांबाळपाचो आसलो. म्हाका गायच्या दुदाची ॲलर्जी आशिल्ली आनी आवय नाशिल्ल्यान हांव कसलेंच दूद पिवंक शकनासलों. बाबडो जावन हांव दिसभर भुकेक रडटालों. तूं जाणा, त्या काळार भुरग्यांचें खाण वा दुदाचो पिठो नासलो. हांव दिसान दीस अशक्त जावंक लागलों आनी म्हज्या जगपाची आस सामकी उणी जाली. म्हज्या बापायक हुसको जालो पूण कितें करचें हें कळनासलें. सीताक्काच्या रुपान ताका आदार मेळ्ळो. ती आमच्या नोकराची बायल आनी हांव जल्माक येवचे कांय दीस आदीं तिणें चल्याक जल्म दिल्लो. म्हजी आवतिकाय सोसूंक नज जावन, तिणें म्हज्या बापायकडेन मागलें, 'अण्णा, तुमची हरकत नासत जाल्यार, हांव म्हज्या पुतावांगडा ह्या चल्याकूय म्हजें दूद दिवंक सोदतां.' म्हज्या बापायन खीणभर चिंतलें, आनी जायत्या सोयऱ्याधायऱ्यांनी हे माण्णेआड आवाज काडल्यारूय, तिचें मानलें आनी सीताक्कान आपलें दूद दिवन म्हजो जीव वाटायलो. गायचें दूद वा हेर खाण पचोवपाची शक्त येम्हणसर तिणें म्हाका दूद दिलें. फुडलीं पांच वर्सां हांव ह्या गांवांत रावलों आनी मागीर आमी गांव सोडून गेलीं. पूण म्हाका तिची सदांच याद येता आनी हांव तिका एक व्हड बायल मानतां. खरें म्हळ्यार तिचो पूत हनुमा हाका हांव म्हजो भाव मानतां. म्हज्या सोयऱ्यांनी सदचे भशेन विरोध केलो तरी हांवें ताका म्हजे आस्पतीचो एक वांटो दिलो. तांचेखातीर सीताक्का फकत एक नोकर, पूण म्हजेखातीर ती एक व्हड मनाची, सादी बायल जिच्या मोगाक शीममेर ना.

'हांव आतां बेंगलोरांत बिझी उरतां, तरीलेगीत हांव तिच्या पुताक, म्हज्या भावाक

वर्सांतल्यान एकदां तरी मेळपाक वतां. कित्याक तर सीताक्कान आपलो मोग दोगांकूय
सारकोच दिलो आनी बदल्यांत कसलीच अपेक्षा दवरूंक ना. आमी दोगांयनी एकेच
आवयचो मोग वांटून घेतलो, आनी म्हूण आमी भाव.'

ताची काणी सोंपली तोवेळ मेरेन, आमी गांवांत पाविल्लीं आनी म्हज्या इश्टान रस्त्याr
आमकां घरा व्हरपाक वाट पळयत राविल्ल्या हनुमाकडेन बोट दाखयलें. जेवण
जायसर, तांचेमदलो मोग पळोवन, म्हाका राम आनी शामाच्या घराब्यांमदली वणत
याद जाताली आनी दोगा खाशा भावांक परकी करपी आनी मालक आनी नोकराच्या
पुतांक भाव करपी हे नियतीच्या खेळाचें अजाप जातालें.

***

# प्रवास

१९७४ वर्सा, इन्फोसिसचीं किरणां आमच्या दोळ्यांक दिसचेआदीं, तरनाटो नारायण मूर्ती सेसा हे फ्रेंच कंपनींत टीम लीडर म्हण काम करतालो, ही कंपनी पॅरीसांतल्या चार्ल्स दे गॉल ह्या नव्यान बांदिल्ल्या विमानतळार एयर कार्गोहाताळपाखातीर सॉफ्टवेयर तयार करताली. तो सामको लजेस्त आनी आदर्शवादी मनीस.
जोड बरी आशिल्ली, आनी घरा आपली कुटुंबीक लागणूक पुराय करपाक पैशे धाडल्याउपरांत जे उरतालें, ते तो देशाच्या विकासाखातीर वावुरपी संघटनांक दान करतालो. तो दावे विचारसरणेचो आनी मार्क्सवादी सिद्धांतांचो समर्थक. फ्रान्सांत कांय वर्सां काम केल्याउपरांत ताका भारतांत परत येवपाचें आशिल्लें. पूण हेर भारतीय इंजिनियरांभशेन वागनासतना, ताणें पॅरीस ते काबूल दुसऱ्याचे मोटारीन फुकट येवपाचें थारायलें. आपलें बॅग फाटीक लावन, ताणें मोटारीन, ट्रेनीन आनी जेन्ना कांयच नासलें तेन्ना चलत प्रवास केलो. ताचो हो बॅग फाटीक लावन केल्लो प्रवास ताचें नशीब बदलतलो, तेच परी कितल्याश्याच जाणांचे जिणेर परिणाम करतलो हें ताका भायर सरलो तेन्ना मातूय खबर नासलें.
एका शिंयाळ्या आयतारा सकाळीं, दुसऱ्याचे मोटारीन एका इटालियन शारांतल्यान येता आसतना, तो तेन्नाच्या युगोस्लाविया आनी बल्गेरिया शीमेवयल्या नीस शारांत पावलो. कम्युनिस्ट वाठारांत भितर सरलो, तेन्ना मूर्तीक कळ्ळें आतां मार्गान वचपी गाडयेकारांवांगडा प्रवास करप सोंपें जावचें ना, आनी ताणें ट्रेनीन सोफिया हे बल्गेरियाचे राजधानींत वचपाचें थारायलें. म्हूण, नीस पावतकच, सोमतोच तो थळाव्या रेल्वे स्टेशनार गेलो. हॉटेलांत नास्तो घेवपाचो ताचो यत्न येशस्वी जालो ना, कारण ताचेकडेन इटालियन करन्सी आशिल्ली ती थंय चलनासली आनी बँको बंद आशिल्ल्यो. सोफिया एक्सप्रेस नीस स्टेशनार आठांक येसर मूर्ती प्लॅटफॉर्मार न्हिदलो. इमिग्रेशनाच्या नित्याच्या वावराखातीर सादारणपणान दोन वरां ट्रेन थंय

रावताली. मूर्ती भितर सरलो आनी आपल्या सिटार बसलो. जवळ जवळ सगळे कंपार्टमेंट रितो आशिल्लो पळोवन ताका अजाप जालें. अंतर्मूख सभाव आशिल्ल्या आयज एकटोच आसतलो म्हूण ताका खोस जाली.

तो बसून पुस्तक वाचूंक लागलो. एक ऊंच, पिंगश्या केसांचें गोरें आनी सोबीत चली कंपार्टमेंटांत भितर सरलें आनी ताच्या म्हऱ्यांतल्या सिटार बसलें. मूर्ती पुस्तकांत सामको बुडून गेल्लो आनी ताका पळोवन हांसलो लेगीत ना. सादारणपणान संवसारांतल्यो खंयच्योय बायलो बडबड्यो आसतात; हे चलयेनूय शांतताय भंग करून ताचेकडेन उलोवप सुरू केलें. भारतांत त्या वेळार साम्यवाद आनी समाजवाद चडकरून आसलो आनी जेन्ना ताका कळ्ळें मूर्ती भारतांतलो म्हूण, तेन्ना साहजीक तांच्या देशांतल्या वेगवेगळ्या धोरणांकडेन गजाली घुंवल्यो. ल्हवल्हव तांणीं आपले खाजगी जिणेविशीं उलोवंक सुरवात केली. चलयेन आपली परिस्थिती सांगली.

'हांव सोफियांतलें. पीएचडी करपाखातीर शिश्यवृत्ती दिवन आमच्या सरकारान म्हाका कीव्ह विद्यापिठांत धाडिल्लें. थंय म्हाका इस्ट बर्लिनांतलो एक बरो तरनाटो मेळ्ळो. दोगांय एकमेकांक आवडलीं आनी आमी लग्न जावपाचें थारायलें.' इतलें उलोवन ताणें एक सुस्कारो सोडलो.

'कितें जालें? तुमी लग्न कित्याक केलें ना?'मूर्तीन आपलेपणान विचारलें.

'आमी लग्न जालीं आनी तीच तर अडचण. दुसऱ्या देशाच्या नागरिकाकडेन लग्न जावपाची परवानगी मागपाखातीर आमी आपापल्या सरकाराकडेन अर्ज केले. तांणीं मानून घेतलें, फकत बल्गेरियाक म्हज्या देशाकडली कबलात हांवें पुराय केल्ली जाय आशिल्ली आनी ह्याच काळांत म्हज्या घोवाक इस्ट जर्मनींतूच रावपाक सांगलें. हाका लागून हांव स म्हयन्यांतल्यान एक फावट इस्ट जर्मनीक वतां आनी म्हजो घोव स म्हयन्यांतल्यान एकदां सोफियाक. हाका लागून आमकां दोगांकूय सामकी निर्शेवणी आयल्या. सामान्य वैवाहीक जिणेची आस आमी सोडल्या.' ताणें म्हळें.

हे वायट परिस्थितीन मूर्ती हाल्लो. ताणें म्हळें, 'ही यंत्रणा अन्यायी. देश जरी साम्यवादी वा भांडवलदार आसलो तरी लग्नाखातीर सांगात्याची निवड वा नोकरी आनी विचारस्वातंत्र्य ह्या सारके मुद्दे ल्हान करपाक जायना...'

इतलो वेळ, एक चलो ते चलयेकुशीक बशिल्लो. ताणें तिचेकडेन उलोवपाचो यत्न केलो पूण तिणें कांयच रुच दाखयली ना. मूर्ती आनी तें चली फ्रेंच भाशेंत उलयतालीं, आनी तीं कितें उलयतात तें व्हडलेशें त्या चल्याक कळनासलें. कांय वेळ तांचे उलोवप आयकून, तो नाच जालो आनी कांय वेळान दोन लांबरूंद, क्रूर दिसपी

मनशांवांगडा परत आयलो. एकूय उतर उलयनासतना, दोगांभितरल्या एकल्यान मूर्तीक शर्टाचे कॉलरीक धरून प्लॅटफॉर्मार ओडीत व्हेलो. दुसऱ्यान ते चलयेक व्हेली.

मूर्तीक एके ल्हान, म्हेळे कुडींत बंद केलो, जंय सारको वारो लेगीत घोळनासलो. थंय कांयच फर्नीचर वा हीटर नाशिल्लो, कोनशाक फकत एक पोरनो संडास. गोंदळून तो थंयच जमनीर बसलो. कितें जालें? गुन्यांवकाराभशेन ताका भितर कित्याक उडयलो? ते चलयेचें कितें जालें? ल्हवुल्हवू ताच्या लक्षांत आयलें साम्यवादी देशांत नागरिकांचे हक्क आनी कर्तव्यांचेर केल्ले भासाभाशेक लागून तो चलो आनी पुलीस दुखावल्ले.

'म्हजें आतां ते कितें करतले? म्हाका कितेंय जालें जाल्यार म्हज्या घरच्यांक तरी कळटलें?' निर्शेवन तो चिंततालो. म्हैसुरांत आशिल्ल्या घरच्यांचो विचार ताका हुसक्यान चडूच गळीत करून गेलो. ताचो बापूय निवृत्त जावन हालींच अर्धांगान पिडीत जाल्लो. तीन भयणींचें लग्न करपाक ताका घरच्यांक मजत करपाक जाय आशिल्ली.

कितलींशींच वरां गेलीं. रात काय दीस हें लेगीत ताका कळनासलें. ताचो पासपोर्ट आनी हेर वस्तूंवांगडाच ताचें घड्याळूय तांणीं काडून घेतिल्लें. फाटलीं णव्वद वरां ताणें कांयच खावंक नाशिल्लें. कितल्याश्याच येतल्या वतल्या ट्रेनींचे आवाज ताका आयकूंक येताले. हाका अंत ना अशें दिसतालें, दार उकतें जालें आनी मूर्तीक ओडून स्टेशनार हाडलो, गार्डावांगडा एके ट्रेनींत बसयलो आनी सांगलें कीं इस्तंबूल पावल्याउपरांतूच ताका ताचो पासपोर्ट मेळटलो.

'म्हजो गुन्यांव कितें?' कंपार्टमेंटाच्या दाराकडेन रावून मुर्तीन पोलिसाक विचारलें.

तोंडार फातराचे भाव आशिल्ल्या त्या पोलिसान म्हळें, 'राज्याच्या विरोधांत तूं कित्याक उलयलो? तें चली कोण?'

'म्हजेसारकेंच एक प्रवासी तें...'

'तशें जाल्यार आपल्यो खाजगी गजाली ताणें तुका कित्याक सांगल्यो?' मूर्तीक आपलें उलोवप सोपोवपाची लेगीत संद दिनासतना दुसऱ्या पोलिसान रोकडेंच व्हडा आवाजांत विचारलें.

'तातूंत कितें चुकलें?' मूर्तीन निशेध परगटायलो.

'असल्या मुद्द्यांचेर चर्चा करप आमच्या देशांत कायद्याआड आसा.' पोलिसान कठोरपणान जाप केली.

मूर्तीक ते चलयेच्या भवितव्याविशीं जाणून घेवपाची उमळशीक आसली. 'तिं कितें जालें?'

'तें तुका लागना. तुजो पासपोर्ट आमी तपासला. फकत तूं भारतांतलो, जो एव मित्रदेश आसा, म्हुण्णूच आमी तुका सोडटात. वाटेर कितेंय चलाखी करपाचो यत्न करूं नाका. आनीक कसलोच तंटो करिनासतना आमचो देश सोडून वच. जबरदस्तीन ताका भितर धुकलून दार मारीत पयल्या पोलिसान म्हळें.

ट्रेन सुरू जाली.

मूर्ती थकिल्लो. चार दीस ताणें कांयच खावंक नासलें आनी तो न्हिदूंकूय नासलो. तो एका जनेलाकडेन बसलो.परतून तो एके ट्रेनींत आशिल्लो पूण नाट्यमय रितीन परिस्थिती बदलिल्ली. पॅरीसांतल्या रस्त्यांदेगेच्या सोबीत कॅफेंत बसून मूर्तीन सामके भावनावश जावन कार्ल मार्क्स, लेनिन, माओ आनी हो ची मीन हांच्या आदर्शांचेर चर्चा आनी वादविवादांचो आनंद घेतिल्लो. त्यो भरिल्ल्या पोटार केल्ल्यो तात्विक चर्चा. पूण आतां, कम्युनिस्ट राज्यांतल्या मतभेदांउपरांत उपाशीं आनी थकिल्ल्या मूर्तीक आपल्या तत्वांचेर फेरविचार करपाक जाय आशिल्लो. लोखणाच्या पडद्याफाटली जीण ही अशी आशिल्ली. हे वेवस्थेआड एक जरी आवाज काडलो जाल्यार ही वेवस्था निर्दय कार्यक्षमतायेन ताचो बंदोबस्त करताली. हे वेवस्थेन आपल्या नागरिकांक मुळावें स्वातंत्र्यलेगीत न्हयकारिल्लें आनी मित्रदेशांतल्या प्रवाश्यांक अशे तरेन वागयताली. भांडवलशाय देशांतलो आशिल्लो जाल्यार ताचें कितें जातलें आशिल्लें हें चिंतून ताका थरथरो भरलो. गांवगिरो वाठार फाटीं वता तो पळयतां पळयतां मूर्तीक स्वातंत्र्याची किंमत कळ्ळी. ताका जाणीव जाली. घोशणा वा सुचोवण्यो दिवन कांय जांवचें ना, तर चडांत चड नोकऱ्यो निर्माण करप होच गरिबींतल्यान सुटका जावपाचो मार्ग. ताणें थंयच आनी तेन्नाच स्वताकडेन सोपूत घेतलो तो कायदेशीर आनी नीतीच्या मार्गान संपत्ती निर्मितलो, फकत स्वताखातीर न्हय तर हेर जायत्या जाणांखातीर. आख्ख्या संवसारांत भारत गरिबीखातीर न्हय तर तरनाट्यांचे कुशळटायेखातीर प्रसिद्ध जातलो अशें तो करतलो- भारताचे प्रस्न सोडोवपाखातीर ही ताची मजत आसतली.

ह्या नव्या संकल्पान प्रेरीत जावन, भारतांत आयल्याउपरांत ताणें वेगवेगळ्या कंपन्यांनी वेगवेगळ्या नोकऱ्यांचे प्रयोग केले. कांय काळाखातीर ताणें आपली सॉफ्ट्रॉनिक्स ही कंपनी सुरू केली आनी पटनी कॉंप्यूटर सिस्टिम्सच्या सॉफ्टवेयर विभागाचो मुखेली जालो. पूण ताची व्हडली इत्सा आशिल्ली आपलीं मुल्यां सांबाळून

आनी निर्यातीचो केंद्रबिंदू दवरून एक कंपनी उबारपाची.
निमाणें, १९८१ वर्सा ताणें इन्फोसिस चालू केली.
साम्यवादी मूर्ती, कांय काळाउपरांत, ताच्याच आतांच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार समाजवादी भांडवलदार जालो.
फुडलें सगळें संवसाराक खबरुच आसा.

***



# ऑफिसांतल्या लोकांचो पेंच

बेंगलोरांत कितल्याशाच सॉफ्टवेयर कंपन्यांचें ऑफिस सुरू करतना संस्था वा संघटनेच्या सामाजीक जापसालदारकेचो मुद्दो खूब गंभीरपणान घेवपाचें प्रमाण वाडलां. एक फावट म्हाका ह्या विशयाचेर अशेच एके कंपनीच्या कामगारांमुखार भाशण दिवपाक आमंत्रीत केल्लें. हेर जायत्या ऑफिसांभशेन हें लेगीत मार्बल आनी ग्रॅनायटाच्यो लादयो, झुंबरां, वणटींवयलीं पेंटिंग्स, एकसारके झाडू मारपी आनी पुसपी कामगार आनी पराकाश्ठेचें नम्र फ्रंट ऑफिस हाका लागून एक पंचतारांकीत हॉटेल कशें दिसतालें.

सादारणपणान म्हज्या उलोवपा उपरांत हांव एक प्रस्नोत्तरांचें सत्र दवरतां. म्हजें भाशण कितलें बरें जालां हें जाणा जावन घेवपाचो हो एक लिटमस टेस्ट अशें हांव मानतां. म्हजो एक सिद्धांत आसा, भाशणाउपरांत जर लोकांनी प्रस्न विचारले नात, जाल्यार एक तर भाशण इतलें बरें जालां की लोकांक आनी कांयच म्हणपाचें ना, वा इतलें वायट जालां कीं लोकांक एकूय उतर समजूंक ना म्हूण ते ओग्गी आसात.

हे फावट, प्रस्न विचारताले, तेन्ना म्हाका हांवें प्रेक्षकांमदीं शांतीक पळयलेंशें दिसलें. जेन्ना हांव ताचेकडेन पळयतां हें कळ्ळें तेन्ना ताणें हात हालयलो. सदचेवरीच, ताका पळोवन म्हाका खोस जाली. शांती कॉलेजांत म्हजें विद्यार्थिनी आशिल्लें तेन्नासावन हांव ताका वळखतां. शीममेर नाशिल्ली उर्बा आनी सदांच उलोवंक आनी मतां एकामेकांकडेन व्यक्त करपाक तयार आसतात अशा कांय लोकांमदलें शांती एक. समाजीक जापसालदारक्यांविशीं तें सदांच शादूर आसतालें, आनी जेन्नासावन तें कामाक लागलें तेन्नासावन आपल्या पगाराचो कांय वांटो तें समाजकार्याखातीर दिता हें म्हाका खबर आशिल्लें.

भाशण सोंपून जेन्ना सगळेजाण वचपाक लागले, तेन्ना शांती येतलें म्हूण हांव रावलें. 'हॅलो शांती, कशें आसा तूं?' ताचे उमेदी जापेची हांव वाट पळयतालें. पूण, म्हाका

बारीक आनी उदास जाप मेळ्ळी. म्हाका अजाप जालें. 'शांती, कितें जालें, घोवावांगडा झगडलें? चिंता करूं नाका. घोव आनी बायल झगडलीं ना जाल्यार तांका जोडपें म्हणूं नज. वेव्हाराचो तो एक भाग. चल, आतां हांस पळोवया.' ताची चिंता पयस करपाखातीर हांवें फकाणां केलीं.

त्याच बारीक आवाजांत शांतीन म्हळें, 'ना मॅडम, तें कारण न्ही.'

'तशें जाल्यार तुज्या प्रोजेक्टाची निमणी तारीख लागीं पावल्या आनी तो पुराय जावंक ना? शांती, हांव तुका सदांच सांगता, सॉफ्टवेयर इंडस्ट्रींत डेडलायन सदांच मतींत धरूंक जाय आनी हे खातीर प्रोजेक्ट मॅनेजमेंट खूब म्हत्वाचो. म्हाका अजूनूय हयन्हयशें याद जाता कीं तातूंत तुका सगळ्यांपरस चड मार्क मेळिल्ले. कॉलेजींत जें कितें शिकलें तें तूं आचरणांत हाडिना?'

'ती अडचण न्हय म्हजी. हांवें मुजतीआदींच म्हजो प्रोजेक्ट पुराय केला.'

'जाल्यार कसली चिंता तुका?'

पूण शांतीक थंय उलोवपाचें नाशिल्लें, ताणें म्हाका आपल्या केबिनांत व्हेलें. जेन्ना आमी वतालीं तेन्ना हांवें पळयलें - कितलेशेच कामगार ताका हडकिताले. आमी ताच्या केबिनाकडेन पावलीं तोमेरेन म्हजी विद्यार्थिनी सायब जाल्या हाचो म्हाका अभिमान दिसलो. केबिनांत बरें फर्निचर बी मांडिल्लें आनी उलोवंक बसचेआदीं शांतीन पड्डे ओडले. आमी कॉफी घेतली आनी ल्हवल्हव शांती म्हजेकडेन खाजगी उलोवंक लागलें.

'मॅडम, हे नोकरेंत हांव खूश ना. भायल्या कोणाकूय दिसतलें म्हाका सामकी बरी योग्य नोकरी मेळ्ळ्या. म्हाका बऱ्यांतलो पगार आसा, कामाचो वेळ जाय तसो जुळोवन घेवं येता आनी ऑफिस म्हज्या घराक लागीं आसा. म्हाका गर्देंतल्यान प्रवास करपाचो त्रास ना. हांव एका बऱ्या कर्तव्यनिशठ गटाचें नेतृत्व करतां. पूण म्हजो बॉस हीच म्हजी अडचण. ती सामकी वायट. तिचेकडेन म्हजेखातीर फकत खर उतरां आसात. फाटल्या तीन वर्सांत हांवें तिचेकडल्यान एकूय विधायक शेरो आयकूंक ना. हांवें कितेंय बरें काम केलें, जाल्यार ती म्हण्टा दुसरो कोणूय हेंच काम अर्द्या वेळांत करपाचो, आ़नी जर कितेंय चुकलें वा कळाव जालो जाल्यार देवानूच वाटावपाचें. कांय गजाली घडटात त्यो हाताभायल्यो आसतात हें समजून घेवपाक ती तयार ना.'

'समज हांव मुंबय वतां, ती जाणा म्हजी फ्लायट धांक पावता, जाल्यार ती मुद्दाम सकाळीं साडेधांक मिटींग थारायता. गर्देंतल्यान अर्दवराभितर ऑफिसाक पावप

म्हाका शक्य नासता. हांव पावतां तोमेरेन सगळ्या म्हत्वाच्या मुद्द्यांचेर चर्चा सोपिल्ल आसता. हांव कितलें काम करतां, थारायल्ल्या वेळाभितर काम सोपोवपाखातीं केन्ना केन्ना रातभर हांगाच रावतां, तरी लेगीत ती म्हण्टा, तुज्यान आनीकूय बरें कर येतालें. मॅडम, तिचें समाधान करप अशक्य.'
'थंड जा शांती. घडये तुजी बॉस कितेंय केल्यार समाधान जायना अशे तरेची आसत तो तिचो सभाव आनी तूं तो बदलूंक शकना. ती आसा तशीच तुवें तिका मानून घेवंक जाय. तुजो बॉस तूं वेंचून काडूंक शकना.'
'असल्या मनशावांगडा काम करप म्हाका मातूय आवडना. केन्ना केन्ना सोडचें अशें दिसता. म्हज्या अणभवाक लागून, दुसरी बरी नोकरी मेळप कठीण जावचें ना, पूण म्हाका ही कंपनी, म्हज्या गटांतले सांगाती आनी हांव करता तें कामूय आवडटा. एका मनशाखातीर हांवें सगळें कित्याक सोडप?'
'हे परिस्थितीविशीं तुज्या वरिश्ठांक सांगलां तुवें?'
'सांगलें. पूण ती कितल्याश्याच प्रोजेक्टांनी म्हत्वाची व्यक्ती आशिल्ल्यान तांकां तिका वगडावपाचें ना.'
'कांय वेळ दी हे गजालीक. तुका आनी तूं काम करपाक घेता ते कश्ट घडये समजतले तिका कांय तेंपान.'
अशीं बुजवणेचीं उतरां ताका सांगून हांव भायर सरलें. त्याउपरांत ताचेकडल्यान कांयच कळ्ळें ना तेन्ना हांवें धल्लें शांतीन ह्या ना त्या मार्गान आपलो प्रस्न सोडयला आसतलो. कांय वर्सां गेलीं आनी एक दीस हांव बेंगलोरांत, जया नगर मार्केटांत, भाजी घेतालें.
खूब आदीं, जया नगर, मध्यमवर्गीय लोकांखातीर स्वर्ग आशिल्लो. पूण आतां, हांगा रावप म्हळ्यार सामकें मोलादीकशें. सगळ्यो वस्तू म्हारग जाल्यात आनी वाणपण करप सामकें कमीपणाचें मानतात. भाजी विक्रेत्यांक सुमाराभायर चड दर मेळपाची इतली खात्री आसता की कोणेय वाणपण करपाचो यत्न केल्यारूय सादारणपणान ते न्हयकारतात.
त्या दिसा, दुकानदार एके पिपरेचे धा रुपया सांगतालो म्हूण हांव सामकें तापून ताचेकडेन भासाभास करतालें. वाद घालपाचे ताचे फिशालकायेचो हांव खरें म्हळ्यार आनंद घेतालें. दोगांभितरलें एकलेंय एक पैसोलेगीत दुसऱ्याक सोडपाक तयार नाशिल्लें.
अकस्मात म्हाका फाटल्यान आवाज आयकूंक आयलो, 'गुड इव्हिनिंग मॅडम,

कश्यो आसात तुमी ?'
तें शांती आशिल्लें, एका हातांत भुरगें, दुसऱ्या हातांत भाजी आनी फळांची पिशवी घेवन. मातशें वजन वाडिल्लें ताचें पूण रोकडीच हांवें ताच्या दोळ्यांत ती पयलींची लिकलीक पळयली.
'हॅलो शांती, तुगेर भुरगें केन्ना जालें ?' हांवें विचारलें.
'एक वर्स जालें.'
'तूं कितलें उमेदी दिसता! म्हाका खूब खोस जाल्या शांती.'
'मॅडम, आतां हांव घरा आनी ऑफिसांत दोनूय कडेन खूब खोशी आसा.'
'सामकी अजापाची गजाल ही. तुजी बॉस कशी आसा ? बदल्ली ती ?'
शांतीन म्हाका कुशीक व्हेलें आनी म्हळें, 'शारांतल्या दुसऱ्या एका ऑफिसांत तिची निमाणें बदली जाली. म्हजो नवो बॉस सामको बेस बरो. आतां हांव खऱ्यांनीच ऑफिसांत वचपाक रावतां. केन्नाय मतभेद आसले जाल्यार रोक़डोच म्हजेकडेन उलोवन तो प्रस्न निकालांत काडटा. आमी तकालस घेतात ताची तुस्त करून तो सदांच आमकां प्रोत्साहन दिता. हाका लागून आमी अपेक्षेपरस कितलेशेंच चड काम केलां. जर केन्नाय आमकां रातचें उसरांमेरेन रावचें पडलें जाल्यार तोय आमचेवांगडा रावता. सांगातान केल्लें काम आनी आपसांतलो विश्वास एकदम बरो आसा आतां. जेन्ना हांव गुरवार आसलें तेन्ना तो सदांच हुसक्याविरयत काम कर, जाय जाल्यार घराकडल्यान कर म्हण सांगतालो, पूण बाळंत जायमेरेन हांवें ऑफिसांत वचून काम केलें.'
'ही एक खऱ्यांनीच बरी गजाल शांती. म्हाका एका पदाची याद जाता 'मन वही, दर्पन वही, ना जाने ये क्या हो गया.. सब कुछ लागे नया नया...'
'ओ मॅडम, तुमी सामक्यो आदलेवरीच, मातूय बदलूंक नात.'
त्या भाजयेच्या दुकानामुखार उबीं रावन आमी दोगांय खूब हांसलीं. मागीर शांतीन म्हळें, 'आमच्या सायबाक लागून दरएकलो खूब खोशी आसा आनी गटाचो एक भाग आशिल्ल्याचो अभिमान आसा सगळ्यांक.'
'हय शांती, फाटल्या जायत्या वर्सांनी हांव हें शिकलां- बरे वागणुकेन तुमी तुमचे भोंवतणीं सर्ग निर्माण करूंक शकतात, आनी एक बरो मुखेली आपल्या गटांत अजापाचे बदल घडोवन हाडूंक शकता.'

***

# पात्र उमेदवार

कांय वर्सांआदीं, हांव एके निवड समितींत आशिल्लें. आमी वेगवेगळ्या पदांखातीर उमेदवारांची भरती करताले, जातुंतलीं चडशीं उंचेल्या पगाराचीं आशिल्लीं, हाकाच लागून, निवड समितींतल्या चारूय जाणांचेर खूब ताण आशिल्लो.

रातीभितर, म्हजी लोकप्रियता कितलीशीच वाडल्या अशें म्हाका जाणवलें. विसरिल्ले सोयरे घरा येवंक लागले, संपर्कांत नाशिल्ले इश्ट दिसूंक लागले. आपले जातींतल्या लोकांक मजत करप कितलें म्हत्वाचें हें म्हाका धर्मीक संस्थांचे मुखेली सांगूंक लागले. आदल्या विद्यार्थ्यांक अकस्मात शिक्षक दिसाची याद जावन ते म्हाका कार्डां धाडूंक लागले. देवळांत लेगीत म्हाका इल्लो चड प्रसाद मेळूंक लागलो. नव्यान मेळिल्लें हें सुख अणभवंक हांवें सुरवात केली.

लोकांच्या दुर्दैवान निवड समितींतले चारूय जाण सामके प्रामाणीक आशिल्ले आनी आमी पयल्याच दिसा मेळ्ळे तेन्नाच थारायल्लें की कोणाचीच प्रार्थना आयकून घेवप ना. निवड पुरायेन गुणवत्तेचेर आदारून जातली.

एक दीस, मुलाखतीच्या वेळार, एक तरनाटें चली आयलें. ताचें नांव नंदिता, बरें दिसपी, स्मार्ट आनी बरे कपडे घालून आयिल्लें. आमी आमचो पयलोच थारावीक प्रस्न केलो, 'हे नोकरेक तूं योग्य आसा अशें तुका कित्याक दिसता?' चलयेन जाप केली, 'म्हजेकडेन खूब आत्मविस्वास आसा. हे नोकरेचो ताण हांव बरेभशेन घेवंक शकतां.'

तें अमेरिकन उच्चारान उलयतालें म्हूण हांवें ताका तें खंयचें काय विचारलें. 'हांव बेंगलोरचें.' ताणें जाप केली, 'पूण म्हजे चडशे नातलग यूएसाक आशिल्ल्यान हांव सुटयांनीं थंय वतां.'

'यूएसाक खंयच्या भागांत? आमचें खूबशें गिरायक आसा थंय.'

'म्हजो काका रामकृष्णन सिलिकॉन व्हॅलींतलो एक व्हडलो उद्देजक. म्हजी काकी न्यूयॉर्क टायम्साची प्रतिनिधी. म्हजो बापोलभाव रोहित व्हायट हावसांत काम करता, म्हूण हांव न्यूयॉर्क, वॉशिंग्टन आनी सॅन फ्रान्सिस्को हांगा यो वच करीत आसतां.'

'आमच्या कामांत जायते फावट वेगवेगळ्या तरांच्या लोकांकडेन संपर्क करचो पडटा.'
'लोकांक मेळप आनी तांचेकडेन उलोवप हें व्हडलें काम न्हय. म्हाका आवडटा तें.'
'तुका अणभव आसा हाचो ?'
'हय, हांव कितल्याश्याच पार्ट्यांक वतां आनी जायते लोक मेळटात थंय.'
'धंद्याखातीर लोकांक मेळप आनी हें मेळप एक न्हय.' हांवें म्हळें आनी तांत्रीक प्रस्न विचारपाक सुरवात केली. ताणें फावो तश्यो बऱ्यो जापो दिल्यो आनी रोखडीच मुलाखत सोंपली. उठून वतना, नंदिता दाराकडेन मातशें अनमनलें. मागीर परतलें आनी ताणें विचारलें, 'हांव एक विचारूं?' चलयांनी प्रस्न विचारिल्ले म्हाका सदांच आवडटात. कितलोसोच तेंप आमच्या समाजांत बरे चलयेची व्याख्या म्हळ्यार जें चली चड प्रस्न विचारिना आनी मोन्यांनी सगळें स्विकारता तें अशी आसा. पूण ह्या सांच्यांतल्यार भायर येवन आपले विचार प्रकट करतात तीं म्हाका आवडटात. म्हूण हांवें नंदिताक हय म्हळें. ताणें म्हळें, 'हे नोकरेंत तुमी जो पगार दितले तो खूब कमी आसा.' म्हाका अजाप जालें. अशे तरेचो प्रस्न वा प्रतिक्रिया म्हाका अपेक्षीत नाशिल्ली. हांवें जाप दिली, 'हेर कंपन्यांकडेन तुळा करीत जाल्यार हो खूब बरो आसा.'
'हय, पूण तो फकत घराचें भाडें, ड्रायव्हर आनी रांदप्याच्या पगाराक पावतलो. ह्या असल्या सुखसोयींची म्हाका संवय आसा.'
'पूण तुवें म्हळें, तूं तुज्या आवयबापायवांगडा रावता. आमचे कंपनीची बस आसा आनी आमचें एकदम बरें कँटीन आसा.'
'हांव जोडूंक लागतकच म्हाका स्वतंत्र रावपाचें आसा. हाली सगळे अशेंच करतात.' अशें म्हणून आनी म्हज्या अज्ञानाखातीर म्हजेर एक काकुटेची नदर मारून तें गेलें.
सदचेभशेन हांव त्या दिसा सांजे उसरां घरा पावलें. म्हजे आवयन म्हाका शिटकायत म्हळें, 'शरयूचे नातीच्या वाडदिसाक आमकां वचपाक जाय हाची तुवें याद दवरपाक जाय आसली. ताणें तीन फावट फोन केलो. कळाव जालो तरी लेगीत वचून यो. तुका समाजांत रावपाचें आसा आनी सदांच कामांत गुल्ल रावप समा न्हय.'
आज्ञाधारक भुरगें कशें हांव शरयूगेर गेलें. सदचेभशेन पार्टी चलताली. दादले राजकारण आनी खेळांचेर उलयताले. बायलां फुडले पार्टेचे बेत करतालीं, आनी थंय इव्हेंट मॅनेजर आशिल्ल्यान भुरगीं गुल्ल. गरमेचो दीस आशिल्लो आनी थंड पेयाचे ट्रे

येताले. अकस्मात बरेंचशें नंदिताभशेन दिसपी चली हांवें पळयलें काय दिसलें. साडी न्हेशिल्लें आनी सोयऱ्यांक थंड पेय दितालें. जेन्ना हांवें ताका बारीकसाणे पळोवपाचो यत्न केलो तेन्ना तें वळ्ळें आनी म्हजी नदर चुकयली.
म्हाका अजाप जालें. हांव शरयूम्हऱ्यांत गेलें आनी तें सोबीत चली कोण काय विचारलें. 'आं, तें नंदिता. तें स्मार्ट आनी हुशार चली. म्हज्या घरकाराच्या ऑफिसांत ताच्या बापायचें कँटीन आसा. आमच्या ऑफिसान ताच्या शिक्षणाक आदार केला. हालींच इंजिनियर जालां आनी आतां नोकरी सोदता. रोकडेंच शिकून घेता आनी लोकांवांगडा बरे तरेन जुळोवन घेता. आयज मातसो आदार करपाक ताका आपयलां. तुगेर जर केन्नाय पार्टी आसली जाल्यार ताच्या बापायक रांदपाक सांगचें अशी हांव तुका शिफारस करीन.'
म्हजेकडेन उतरां नासलीं.
फुडलें सप्तकभर मुलाखती चलताल्यो. निमणो उमेदवार सुमार वीस एक वर्सांचो चलो. सादारण कपडे आनी थंड कसो. ताच्यो सगळ्यो जापो सामक्यो ज्युस्ताजूस्त आनी विचार करून दिल्ल्यो. हुशार तरनाट्यांकडेन उलोवप सदांच आवडीचें आसता म्हूण ताचेविशीं म्हाका चड जाणून घेवपाचें आशिल्लें.
'कॉम्प्यूटर सायन्सांतल्या प्रस्नांच्यो जापो तुवें बऱ्यो दिल्यो. ह्या विशयाची केन्नाच्यान तुका आवड आसा?' भिडेस्तपणान ताणें जाप दिली, 'हांव भुरगो आशिल्लो तेन्नासावन.'
'खंयचे पिरायेर?' हांवें चिवटपणान विचारलें.
'सुमार आठ वर्सांचो..'
'इतले बेगीन कित्याक?'
'म्हजी आवय शाळेंत शिक्षिका आनी ती शाळेंत आसतना हांव चडसो घरांत एकलोच उरतालो. वेळ पासार करपाचो बरो उपाय म्हळ्यार कसल्यातरी क्लासाक वचप.'
कित्याक कोण जाणा, म्हाका कळिल्लें की तें एकूच कारण आसूं नज. तो खऱ्यांनीच खूब हुशार आशिल्लो आनी ताच्या आंगच्या गुणांक योग्य दिशा दाखोवपाक आवयन जायतो वेळ घालयला आसूंक जाय. म्हाका कळ्ळें हो भुरगो आपले फाटभूंयेच्यो बडायो मारचो ना, पूण म्हाका चड जाणून घेवपाचें आशिल्लें. 'तुजो बापूय? कितें करता तो?'
ताणें कांय वेळ चितलें. मागीर जाप दिली, 'कितें फरक पडटलो? तुमी फकत म्हजी

गात्रताय पळोवपाक जाय. तुमकां योग्य दिसल्यार म्हजी निवड करात, नाजाल्यार नाकारात.'
'तुजी पगाराची अपेक्षा कितें?'
ताणें जो आंकडो सांगलो तो आमी दिताले ताचेपरस चड आशिल्लो.
'इतलो चड पगार तुज्या अणभवाच्या मानान योग्य हें तूं कशें सिद्ध करतलो?'
'हांव खूब काम करून आनी जापसालदारक्यो घेवन हें सिद्ध करून दाखयतलों. हांव दाखयतलों की म्हजें काम सगल्यांत उंचेल्या पांवड्यावेलें आसा.'
'तुका इतलो चड पगार कित्याक जाय हें म्हाका सांगपाक तुजी हरकत आसा?'
'म्हाका पगाराचो कांय वांटो एका विश्वस्त मंडळाक दिवपाचो आसा, ज्या हुशार भुरग्यांक फी भरूंक जमना तांकां फुडें शिकपाक ते आदार दितात.'
ताचे जापेन हांव हाल्लें. हाचेउपरांत विचारपासारकें कांयच नाशिल्लें. जेन्ना तो भुरगो गेलो तेन्ना ताकाच घेवपाचेर आमचें एकमत जाल्लें. जेन्ना आमी उलयताली, तेन्ना गांवाभायल्यान आयिल्लया उमेदवारांच्या प्रवासभत्त्याचें काम पळोवपी क्लार्क भितर सरलो. ताणें म्हळें, 'निमाण्या उमेदवाराखातीर एक सय करशात? ताणें आपलो भत्तो घेवंक ना. ताणें म्हळें तो मावशेगेर रावला आनी कांय खाजगी कामाखातीरूय शारांत आयिल्लो.'
ताच्या प्रामाणिकपणाचें म्हाका अजाप जालें. हांवें बारीकसाणीन ताचो फॉर्म आनी पत्तो पळयलो. तो एका भोव फिशाल दोतोराचो चलो आशिल्लो. पैसो वा प्रसिद्धीन ताचें प्रामाणिकपण आनी सादेपण चोरूंक ना हें स्पश्ट दिसतालें.

***

# दातृत्वाचो धंदो

श्री हिरालाल जैन हो एक फामाद फार्मासकार आनी वेपारी. दयाळू, निगर्वी आनी भिडेस्त. एके फार्मास्यूटिकल कंपनींतल्यान ताणें आपलो वेवसाय सुरू केल्लो आनी कश्ट करून आनी प्रामाणिकपणान आपलें साम्राज्य उबें केल्लें.

एक दीस तो म्हाका मेळपाक आयलो. कांय वेळ आमी आमचे वेगवेगळे प्रकल्प आनी उपक्रमांचेर उलयलीं, मागीर तो स्वताविशीं उलोवपाक लागलो. 'मिसेस मुर्ती, देवाची म्हजेर खूब कृपा आसा. म्हजी कंपनी बरे तरेन चल्ल्या आनी आमकां नेमान नवीं नवीं उत्पादनां सुरू करप शक्य जाता. हाका लागून आमचो आवांठ व्हड आसा. म्हाका एकूच चलो आसा जो परदेशांत शिकता. म्हाका खात्री आसा, तो शिकप सोंपयतलो, म्हज्या कामाक आदार करून तें आनीकूय चड येशस्वी करतलो. हांव सदांच कामांत व्यस्त उरतां आनी प्रवास करतां आनी आतां म्हाका दिसता हांवें आनीक एके पिळगेक पावता इतलो पैसो जोडला. पूण एक फरक आसा. म्हाका दिसता हांवें व्हडा प्रमाणांत समाजाक परत दिवंचे नदरेन फाव तितलो वावर करूंक ना. म्हूण आयज हांव एक विनंती करपाक हांगा आयलां.'

ताच्या उलोवपाचो रोख खंय आसा हाची आजुनूय म्हाका कल्पना येनासली, आनी हांवें ताका फुडें उलय म्हण सांगलें.

'इन्फोसिस फावंडेशनावरवीं चलिल्ल्या तुमच्या कार्याविशीं हांवें खूब आयकलां. तुमी गांवांतल्या/खेड्यांतल्या आनी झोंपडपट्ट्यांतल्या लोकांक मदत करतात. म्हूण हांव तुमकां कांय मुळावीं वखदां दिवंक सोदतां जीं तुमी गरिबांक वांटूंक शकतात. झोंपडपट्ट्यांतल्या तुमच्या कामाक मदत करपाखातीर तुमी एक दोतोर नेमूंक शकतात, ताचो पगार हांव दितलों आनी फुकट वखदांय.'

हांव हाल्लें. हांवें म्हळें, 'तुमची सुचोवणी बेसबरी आसा पूण आमच्या प्रकल्पांचेर अर्द वेळ काम करपी कांय दोतोर आदींच आसात आमचेकडेन. हांव तांचेकडेन

लयतां आनी गरजेच्या वखदांची एक यादी करूंक सांगतां. ती हांव तुमकां दर हयन्याक धाडून दितां आनी तुमच्या ऑफिसांतल्यान तुमी सांगतात त्यावेळार येवन तीं व्हरतां.'

ना, ना, तुमी येवपाची गरज ना. हांव तीं धाडून दितां. पूण म्हजी एक अट आसा.'

म्हाका हुसको जालो. म्हाका कळपाक जाय आसलें. कोण फुकट जेवण दिना.

हिरालाल जैनान म्हळें, 'तुमच्या ह्या कामाकडेन आशिल्लो म्हजो संबंध कोणाकूच कळपाक जायना. म्हजें वा म्हजे कंपनीचें नांव खंयच आयिल्लें म्हाका नाका. म्हाका प्रसिद्धीबगर दानाचे खोशयेची रूच चाखपाची आसा. हांव एक अनवळखी दातो म्हूण रावतलों.'

ही सामकी सदचेपरस वेगळी विनंती आशिल्ली. सर्वसादारणपणान, देणगी घेवन येवपी चडश्या लोकांनी आदींच प्रसिद्धी माध्यमांक दिवपाच्या निवेदनांची तजवीज केल्ली आसता. घडये तांणीं दिल्ले देणगेचो आंकडो ल्हान आसत, पूण तेविशीं तांचें उलोवप आयकल्यार अशें दिसतलें की आमचे पुराय वेव्हार तांचे मजतीचेर चलतात.

ताचे हे येवजणेक हांवें रोकडोच हयकार दिलो. आनी मागीर अशें थारलें की दर म्हयन्याक ताचो हेड क्लार्क करीम गरजेच्या वखदांचें बॉक्स घेवन येतलो. ताची म्हाल हाडून घालपी गाडी आमच्या ऑफिसाकुशीक कांय किरकोळ विक्री केंद्रांचेर येताली आनी आमकां तांतूंतल्यान पुरवण जाताली.

हांवें हिरालाल जैनाचे उपकार मानले आनी 'ताची जमात वाडूं' म्हूण प्रार्थना केली.

ही वेवस्था जाग्यार पडली. सुर्वेक हिरालालान धा हजार रुपयांचीं वखदां दिलीं, मागीर हळू हळू तीं पन्नास हजार रुपयांमेरेन गेलीं. ताणें आमकां ताची पोरनी फियाट गाडी दिली, हाका लागून आमच्या दोतोरांक झोंपडपट्ट्यांनी वचप सोंपें जालें. पूण चुकूनच आमचें मेळप जातालें. जेन्ना हांव उपकार मानपाक ताका फोन करतालें तेन्ना तो हांवें म्हजो वेळ व्हगडावचो न्हय अशें सांगतालो. जेन्ना आमच्या मेडिकल कँपाचे फोटो ताका धाडटालें तेन्ना तो म्हाका आमच्या कामाच्या पुराव्याची आपल्याक गरज ना म्हूण सांगतालो. ताका आमचो विश्वास आशिल्लो.

वर्सां सोंपलीं, आमचें काम चड चड लोकांचे नदरेक पडूंक लागलें आनी जायते लोक मदत करपाक फुडें येवंक लागले. एके फार्मसेन आमकां दर म्हयन्याक जितलीं वखदां लागतात तितलींय दिवपाची तयारी दाखयली. पूण हिरालाल जैनाकडलें नातें तोडपाक हांव फाटीफुडें जातालें.

एक दीस सकाळीं म्हाका कळ्ळें कीं तो न्हिदांतूच संवसाराक अंतरलो. हांवें





मोन्यांनीच प्रार्थना केली. ताचेसारक्या भावार्थी मनशान उण्यांत उणो बोवाळ आनी त्रासाशिवाय वचपाचेंच. ताका निमणीं आर्गां ओंपपाक हांव ताच्या ऑफिसांत गेलें. विरोधाभास म्हळ्यार, म्हाका जाणवलें फाटल्या कितल्याशाच वर्सांतली ताच्या ऑफिसांतली ही म्हजी पयलीच भेट आशिल्ली. तें सादें आनी निर्भयपणान सोबयल्लें. हांवें धव्या कपड्यांतलो, सुजिल्ल्या तांबड्या दोळ्यांचो एक सोबीत तरनाटो पळयलो. हेड क्लार्क करीमान ल्हवूच म्हाका म्हळें, 'हो साकेत साब. निकतोच यूएसाक साकून आयला.'

खबर काडटकच म्हाका कळ्ळें यूएसाक एमबीए करून साकेत कांय वर्सां थंयच नोकरी करतालो. आतां हांगा येवन घडये धंदो सांबाळटलो.

दीस गेले आनी सुमार दोन म्हयने हिरालालाचे कंपनीकडली आदली वेवस्था चालू उरली. वखदांचीं पार्सलां आमचेमेरेन टायमार पावतालीं. तिसऱ्या म्हयन्याक कांयच जाग ना. हांवें चिंतलें कांय दीस रावून मागीर फोन करतलें. तरीय कांयच जाग ना हें पळोवन हांवें हिरालालाच्या ऑफिसाचो नंबर घुंवडायलो. दुसऱ्या अर्दान एका नम्र आवाजांत जाप आयली. ती स्वागतिका आसतली असो हांवें अदमास केलो आनी करीमाक कितें जालें काय हाचें अजाप जालें. कांय वेळ म्हाका लायनीर होल्ड दवरलें. निमाणें सांगलें, 'फाल्यां सकाळीं णव वरांचेर साकेत ताच्या ऑफिसांत तुमकां मेळूंक सोदता.'

तो दातो आशिल्ल्यान ताचे इच्छेक मान दिवप हें म्हजें कर्तव्य आशिल्लें. हांव पावणे णवांक पावलें आनी जाल्ले बदल पळोवन अजापलें. ती आदली निर्भय सोबीतकाय गेल्ली. हें सोबीत स्वागतिका आशिल्लें आधुनिक कंपनी कार्यालय जाल्लें. वाजांत ताजीं फुलां, वणटीर फास्केंत चित्रां. थंय एक लेदरचो सोफा आशिल्लो आनी जमनीक ग्रॅनायट चकचकतालो. एके तरनाटे चलयेन म्हाका फुडें प्रतिक्षा कक्षांत व्हरून ड्रिंक दिलें. हॉलांत हिरालाल जैनाचें एक व्हडलें पोर्ट्रेट आशिल्लें. णव वरां जायत आयिल्लीं, हांव साकेताच्या ऑफिसावटेन वचपाक लागलें. पूण म्हाका स्वागतिकेन रावयलें. 'आय ॲम सॉरी, साकेत सर एका अधिकाऱ्याकडेन उलयता आनी तांकां आजून सुमार धा मिनटां लागूं येतात. प्लीज रावात.' हांव रावलें. जेन्ना पावणे धा जालीं, हांवें थारायलें आतां खूब जालें आनी तिका म्हळें 'हांव वतां.' ती इंटरकॉमाचेर उलयली आनी निमाणें म्हाका भितर वचपाक दिलें. जेन्ना भितर सरलें तेन्ना आजुनूय थंय आशिल्लो तो अधिकारी म्हाका दिसलो. साकेतान ताचेकडेन दिलगिरीयुक्त नदरेन पळयलें आनी पांच मिनटां स्वताक सूट मागली. मागीर म्हजेकडेन वळून तो सरळ

ुद्धार आयलो.

आदल्यो सगळ्यो नोंदी हांव पळयतां. म्हज्या बापायन तुमकां निनावी खूब पैसो देला. म्हाका दिसता ती एक चूक आनी पैशांची नाशाडी आशिल्ली. आमचे संस्थेवरवीं हांव हें चालू दवरूंक सोदतां पूण कांय नव्या अटींचेर. जेन्ना तुमी कँप आयोजीत करतलीं तेन्ना म्हजें आनी म्हजे कंपनीचें नांव थंय मुखेलपणान येवंक जाय. दर म्हयन्याक वखदां व्हरूंक तुमी कोणाक तरी धाडूंक जाय. हांव तुमकां उरिल्ल्या स्टॉकांतल्यानूच वखदां दिवंक शकतां, तुमकां जाय तीं न्हय. वर्सांतल्यान एक फावट तुमी आमच्या कामगारांमुखार उलोवंक जाय आनी आमच्या ह्या दानाविशीं सांगूंक जाय. कितलेंय जाल्यार, दातृत्व ही धंदो वाडोवपाची चावी.'

इतले म्हणसर, पांच मिनटां सोंपिल्लीं आनी हांव उठलें. नमळायेन हांवें म्हळें, 'हांव तुमचें उपकारी आसा पूण म्हाका हें मान्य ना. तुमच्या उरिल्ल्या वखदांखातीर योग्य अशीं दुयेसां हांव सोदूंक शकना. तुमच्या बापायन इतलीं वर्सां केल्ल्या आदाराखातीर हांव तुमचे उपकार मानूंक सोदतां. अटी ताच्यो आशिल्ल्यो आनी आमी तांचो आदर केलो. आतां आमचे संबंद सोंपतात तेन्ना हांव इतलेंच सांगूंक सोदतां, धंदो आनी दातृत्व हांची सरमिसळ करूं नाकात. तुमी एकाकूय न्याय दिवंक शकचे नात. तुमच्या बापायक हें कळिल्लें. घडये एक दीस तुमकांय कळत.'

हांव भायर आयलें आनी हॉलांत उबें रावून एक मिनीटभर हिरालाल जैनाच्या फोटवाक पळयलें. मोन्यांनी हांवें निमाणो निरोप घेतलो आनी भायर सरलें.

***

# आदाराचो हात

साबार सैमीक अरिश्टांवरीच, डिसेंबर २००४ वर्सा देशाच्या किनाऱ्यांचेर आयिल्ले सुनामीन मनीस सभावाच्या हजार छटांचें आमकां दर्शन घडयलें. दर्यादिगेच्या लोकांचें जाल्लें लुकसाण आनी नासाडेची माहिती आनी सगळ्या भागांतल्यान सुरू जाल्ली मदत आमकां प्रसिद्धी माध्यमांतल्यान पळोवंक आनी आयकूंक मेळटाली. खबरांनी ज्या वाठारांचेर चड भर आसतालो, थंयच्या पिडेस्तांचेर रोकडोच आदाराच्या वस्तूंचो - साडयो, पुडवीं, तुवाले, चादरां, रांदपाचे स्टोव, आयदनां, प्लास्टीक बालद्यो, पिवपाचें उदक, शेंदऱ्यो आदी ल्हारांचो मारो जातालो. नागपट्टीनम, कडलूर, वेलंकनी आनी कारायकल सारकिल्या शारांनी पोरन्या आनी पिंजक्या कपड्यांच्यो राशी दिश्टी पडटाल्यो, ज्यो कोणाकूच नाका आसल्यो, आनी रस्त्याच्या दोनूय वटांनी हात लायनासतना पडून आशिल्ल्यो.

ह्या भागांतल्यो आदार दिवपी सुवातो आनी लग्नाच्या हॉलांनी सुर्वेक कितलेशेच स्वयंसेवक, जेवण वा रेशन वांट्टाले, दुयेसांचो प्रसार जांवचो न्हय म्हूण इंजेक्शनां दिताले आनी जखमी लोकांक मदत करताले. थळाव्या जेवणाच्या संवयांकडेन आडनदर जाल्ल्यान जायते फावट पिडेस्त तांका दिल्ल्या जेवणाचेर असमाधान उक्तायताले. ताचेबदला स्वताचें जेवण रांदपाक मेळचें अशी तांची मागणी आसली. ह्या विशयाचेर देणगीदार आनी लाबार्थी दोगूय आपापल्या जाग्यार सारके आसले.

फावंडेशनांतल्यान आमचो पंगड आदार दिवपाचें काम सुरू करचे पयलीं वस्तुस्थिती समजून घेवपाच्या कामार भायर सरलो. पयले सुवातेर, बातम्यांनी आशिल्ल्या शारांतल्यान पयलीं आयिल्ले स्वयंसेवक गेले आनी उपरांत थंयच्या बातम्यांचो हुंवार कमी जाल्याउपरांत भेट दिवप अशें आमी थारायलें. इतले मजगतीं, आमी ल्हान आनी चडशी खबर नाशिल्ल्या गांवांनी वचून लोकांचे गरजेच्या वस्तूंची एक यादी तयार केली. कांय शारांनी आदाराच्यो राशींनी वस्तू आसात, पूण त्यो दवरपाखातीर

ोकांकडेन जागो ना आनी चोरयो तशेंच वस्तूंचे मालकेसंबंदान झगड्यांच्यो
डणुको सदच्योच जावंक लागल्यात अशें आमच्या लक्षांत आयलें. हेर जाग्यांचेर
ोकांची जीण परती जाग्यार येवपाक जाय आशिल्ल्यो सामक्यो मुळाव्यो वस्तूच
ात अशें आमकां जाणवलें.

ी माहिती घेवन आमी एक 'सुनामी सर्व्हायवल कीट' करपाचें चिंतलें.
ादारणपणान तें हांवें यूएसाक कांय दुकानांनी पळयल्ल्या गिर्यारोहणावेळारच्या
अपघातांखातीर आशिल्ल्या सर्व्हायवल कीटासारकें आशिल्लें. आमी कांय बदल
केले आनी आमचें स्वताचें कीट तयार करपाक सुरवात केली. पांच स्तरांचें कुलप
आशिल्लो ॲल्युमिनियमाचो एक व्हड ट्रंक आनी वाटावल्ल्या लोकांक गरजेच्यो
आशिल्ल्यो अश्यो पंचवीस वस्तू. ट्रंक लेगीत एक सांठो दवरपाचो जागो म्हूण वापरूं
येतालो, तातूंत आमी ताडपत्री, वखदां, टॉर्च, एक ल्हान रेडियो, भुसारी सामान,
साबू आनी हेर वस्तू अशें सगळें दवरिल्लें. ही एक सामकी अभिनव अशी कल्पना
आशिल्ली आनी आमच्या पंगडान सगळें लागीं करपाखातीर अविश्रांत काम केल्लें.

चडश्यो सगळ्यो वस्तू आमी मूळ ठिकाणावयल्यान विकत्यो घेतिल्ल्यो आनी जे
खिणाक पुरवणदारांक कळ्ळें कीं हें सगळें मदतकार्याखातीर आसा तेन्ना तांणीं
आमकां व्हड सूट दिली आनी खर्च घेनासतना माल हाडून पावयलो.

आमच्या कामाचो व्याप पळयल्यार, आमकां सगळें सामान पातळावन दवरून, कीट
तयार करून ट्रंकांत सगळ्यो वस्तू घाल्यात काय ना तें तपासपाक एके व्हड सुवातेची
गरज आशिल्ली. हें काम करपी आमी सगळे धा जाण आशिल्लें. म्हजो विद्यार्थी जॉर्ज
जोसेफ हाणें बंगलोराभायर खंयतरी आशिल्ल्या आपल्या व्हडल्या बंगल्याचो
तळमजलो आमकां दिलो. सगळें सामान आमी सरळ थंयच तळघरांत व्हेलें आनी
आमचें काम रोकडेंच सुरू केलें. म्हज्या पंगडाची समर्पणवृत्ती आनी वेवसायिकताय
पळोवन हांव अजापीत जालें. दोन दिसांभितर तांणीं सुमार हजारभर ट्रंक जोडले.
जॉर्ज लेगीत मदीं मदीं आमकां कितें जाय काय विचारपाक आनी आमच्या च्या
आनी खाणाची वेवस्था करपाक येतालो. सगळी प्रक्रिया सुसंगीत चलताली आनी
रोकडींच आमची ट्रंक ट्रकांचेर चडोवपाची तयारी जाली. आतां आमचेमुखार एक
अडचण आयली. काम चलतालें त्या तळघरांतल्यान सामान ट्रकांचेर चडोवप कठीण
आशिल्ल्यान आमकां दिसलें सगळें सामान ट्रक पावताशे सुवातेर दवरल्यार बरें
जातलें. सदचेभशेन जॉर्जाकडेन आमचे अडचणीचेर उपाय आशिल्लो. 'हुसको करूं
नाकात' ताणें म्हाका सांगलें. 'शेजारचो प्लॉट रिकामोच आसा आनी हांव मालकाक

वळखतां. आर्किटेक्ट थंय मदीं मदीं केन्नाय येता, पूण म्हाका खात्री आसा आम
ताच्या ऑफिसांतल्यान परवानगी घेतली जाल्यार तांकां आमी थंय एक रात सामा
दवरल्यार कांयच अडचण आसची ना. असल्या कामाक कोणूच ना म्हणचो ना.'
प्लॉट खूब व्हड आनी कोनशावयलो आशिल्ल्यान ट्रकाचेर सामान भरपाक सामक
सोयीचो आशिल्लो. ही एक बरी कल्पना अशें आमकां सगळ्यांक दिसलें.
दुसऱ्या दिसा, एक गोरीच तरनाटी बायल आमच्या तळघरांत आयली. हांसत, तिण
त्या आर्किटेक्टाच्या ऑफिसांतली एक ज्यूनियर आर्किटेक्ट म्हूण आपली वळख
करून दिली. 'लंकेश, आमचो मुखेल आर्किटेक्ट शाराभायर आसा. जॉर्जाकडल्यान
म्हाका कळ्ळें की तुमी ट्रंक ह्या जाग्यार दवरूंक सोदतात. म्हाका दिसता ही एक बरी
कल्पना. आमचेमदलो जणएकलो थंय वचून त्या पिडेस्तांक मदत करूंक शकना पूण
अशे तरेन आमी तांचेखातीर आमकां जमता तें थोडेंभोव करूंक शकतले.'
'देव बरें करूं. पूण हाका लागून तुमच्या कामांत आडखळ येवंची न्हय.' हांवें जाप
दिली.
' ना मॅडम, मातलेगीत ना. हरशींय म्हूण सर्वे करपी लोक फुडल्या सप्तकांत येवपाचे
आसात. उपकार करून कितेंय गरज पडल्यार मदत मागपाक अनमनूं नाकात.'
आमचें सगळें काम सोपोवन आमी सगळें सामान शेजारचे सुवातेर व्हरून दवरलें तेन्ना
सांज जायत आयिल्ली. ट्रक दुसरे दिसा सकाळीं येवपाचो आशिल्लो आनी आमचे
सगळे स्वयंसेवक घरा वचून सुसेग घेवपाक रावताले. तांणीं खूब काम केल्लें आनी
म्हाका तांचो अभिमान दिसतालो. मनापासून काम न करपी शंबर लोकांपरस
प्रामाणिकपणान काम करपी धा लोक बरे हें हांव शिकलां. हांव नशीबवान कित्याक
तर म्हज्या पंगडांतले सगळे वांगडी खूब कश्टाळू.
आमी थंयच्यान भायर सरपाक एक मर्सिडीस येवन आमचे मुखार रावली आनी
तातूंतल्यान एक मनीस भायर सरलो, आपलो सेल फोन आनी ब्लॅकबेरी घेवन. बरे
कपडे घाल्लो तो मनीस तरतरीत आशिल्लो, पूण ताच्या तोंडावयले भाव मात सरळ
सरळ ताका कसली तरी गजाल आवडूंक ना म्हूण दाखयताले.
तो म्हजेम्हऱ्यांत आयलो आनी एकाय उतरान हडकिनासतना विचारलें, 'तुमचें
सामान हे सुवातेर दवरपाक तुमकां परवानगी कोणें दिली?'
म्हाका कळ्ळें हो लंकेश, मुखेल आर्किटेक्ट.
जाता तितले नमळायेन हांवें जाप दिली, 'जॉर्जान म्हाका सांगलें तो तुमचेकडेन
उलयतलो आनी तुमच्या ऑफिसांतल्यान परवानगी घेतलो. काल तुमच्या

मदतनीसान येवन बरें आसा म्हळें. म्हूण हांव समजलें तुमकां खबर आसा हें.'
'ना, तें खरें न्हय. काल हांव प्रवासांत आशिल्लों आनी हेविशीं कोणेंच म्हाका कांयच सांगूंक ना. तुमी घडये मदतकार्य करता आसत पूण एक लक्षांत घेयात कीं तुमचें सामान तुमी हांगा म्हजे परवानगेबगर दवरलां. तुमी म्हज्या मदतनीसाची न्हय तर म्हजी परवानगी घेवंक जाय आशिल्ली. हांव एक आर्किटेक्ट आनी ही सगळी सुवात म्हळ्यार म्हजी जापसालदारकी/जबाबदारी.'
ताच्या ह्या स्फोटाचेर अजापीत जावन हांवें म्हळें, 'म्हज्या ह्या गुन्यांवाखातीर हांव चूक मागतां. अशी तशी आनीक धा वरांची गजाल. फाल्यां सकाळीं ट्रक येतले आनी आमी हें सगळें सामान तातूंत चडयतले.'
'एका दिसाची वा रातीची गजाल हें म्हाका लागना. आयज हांवें सर्वेकरपी लोकांक तांचें काम करपाक आपयल्लें. ते केन्नाय येवंक शकतात. तुमी हें सगळें काडिल्लें जाय म्हाका.'
'तुमच्या मदतनीसान सांगलें कीं ते फुडल्या सप्तकांत येतले. इतल्या कमी वेळाभितर इतले सगळे जड ट्रंक हांव कशे काडटलें आनी ते खंय दवरतले आमी?' हांवें म्हळें.
'हांव नकळ. तें म्हाका लागना. तुमी ते जाय जाल्यार रस्त्याकुशीक दाळूंक शकतात. तुमी म्हजी परवानगी घेवंक ना. जर तुमी म्हाका पयलीं सांगिल्लें, हांव तुमचेखातीर इल्ली सुवात करपाचो.' मनीस हालपाक तयार नासलो.
हो वेळ मेरेन म्हाका कळिल्लें कीं हो आमी परवानगी घेवपाचो प्रस्न नाशिल्लो. ताका आपली शक्त आमकां दाखोवपाची आशिल्ली. अशे तरेचे जायते लोक म्हाका म्हज्या कामावेळार मेळ्ळ्यात आनी तांचेकडेन वाद घालपांत अर्थ नासता हें हांव जाणा. पूण म्हज्या पंगडांतले सगळे तरनाटे, त्या मनशाच्या उद्धटपणाक लागून आतां मेरेन, रागान सामके तांबडे जाल्ले. तांणीं ताचेकडेन वाद घालपाक सुरवात केली पूण हांवें तांकां आडायले.
'चूक जाली. हांव आतांच हे सगळे ट्रंक उबारून रस्त्यार दवरतां. जाता तितले बेगीन आमी तुमचो प्लॉट खाली करतात. आमचो वावर खूब वाडटलो पूण तुमकां नाखूश केल्ल्याचो हो दंड आमकां.'
'मॅडम, ट्रंक रस्त्याकुशीक दवरले जाल्यार ते कोणूय चोरीत वा कोणूय आनीक कसलीय हरकत घेवंक शकता.' कुमारान, स्वयंसेवकांमदल्या एकान आकांतान आवाज चडयलो.
हांवें हांसून म्हळें, 'हुसको करूं नाका. आमी थंय आमचें बॅनर लावया मागीर एकूय

चोर ताका हात लावचो ना. हें कोणाखातीर आसा हें कळ्ळ्याउपरांत हेर कोण शेजारी कसलीच कागाळ करचो ना हाची म्हाका खात्री आसा.'
आनी तशेंच जालें. ते राती ट्रंक रस्त्याकुशीक दवरले आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं कसलेच अडचणीबगर ट्रकार चडयले. ट्रक गेल्याउपरांत कुमार म्हज्या ऑफिसांत आयलो. तो खिन्न दिसतालो आनी कांय खीण विचारांनी गुल्ल जावन ओगी बशिल्लो. मागीर ताणें म्हळें, 'मॅडम, आमी पिडेस्तांक वळखनात, तांचें आमचेकडेन कसलेंच नातें ना. आमचेमदले कांय जाण तांची भास लेगीत उलयनात. आमी हें करतात फकत तांकां खंयच्याय मार्गान आदार करपाक. लोक हें कित्याक समजून घेनात? तो आर्किटेक्ट काल तुमचेकडेन कितलो वायट वागलो. तुमकां राग आयलो ना? तुमी म्हळें ताचेसारके कितलेशेच लोक जायते फावट तुमकां तुमच्या कामांत मेळटात. म्हाका सांगात मॅडम, आमकां वायट उतरां सोडून आनीक कांयच मेळना जाल्यार आमी हें काम कित्याक करप?'
तेन्नाच कोणेंतरी म्हज्या दारार माल्लें आनी सुरवेक जे सुवातेर आमी ट्रंक दवरिल्ले त्या प्लॉटाचो गुरखा भितर सरलो. हांव अजापलें. हो आनी आतां तो सगळो प्रकार घडून गेल्याउपरांत कित्याक आयला काय म्हूण चिंतूंक लागलें.
ताणें म्हळें, 'मॅडम, काल लंकेश सरान जें केलें तें सारकें न्हय. पूण हांव फकत एक गरीब कामगार, हांव ताका कांयच म्हणूंक शकलो ना तेन्ना. काल तुमी थंयच्यान गेल्याउपरांत म्हजी ड्यूटी सोंपोवन हांव रातभर थंय ट्रंक राखूंक रावलों. तशें करपाक हांवें तुमची परवानगी घेतली ना पूण तुमी कितले जतनायेन ते भरिल्ले आनी विसव घेनास्तना काम केल्लें तें हांवें पळयल्लें. म्हाकाय लोकांखातीर कितेंतरी करचें आसा. म्हजेकडेन चड पैशे नात म्हूण हांव म्हजो एका दिसाचो पगार तुमकां दिवंक सोदतालों. तुमकां बरें दिसता तसो तो वापरात.' ह्या उतरांवांगडाच, ताणें म्हज्या हातांत एक बंद आनी म्हेळें पाकीट दिलें आनी गेलो. हांवें तें उगडलें जाल्यार तातूंतल्यान १६० रुपयांचो चेक पडलो.
कांय वेळ हांवें ताचेकडेन पळयलें, मागीर कुमाराकडेन वळून म्हळें, 'हो चेक म्हजेखातीर सोळा लाखांच्या मोलाचो आसा. तुवें विचारलें आमी कित्याक काम करपाक जाय? तें अशा लोकांखातीर, जे आपलें काळीज उकतें करतात आनी आमचेर आपलो विश्वास दवरतात.'

***

# सभावाच्यो खऱ्यो सया

आपत्तीग्रस्त भागांत मदत कार्य करता आसतना लोकांक जातात ते त्रास पळोवन आमचे दोळे उगडटात, तेच परी कितल्याश्याच लोकांचो खरो सभावूय कळटा. जेन्ना आमच्या दर्यादेगांचेर सुनामी आयली, तेन्ना चडश्या लोकांनी धिटायेन आनी सदळ हातांनी मदत केली, तेचवेळार कितल्याश्याच लोकांनी आपलें स्वताचें काम सादोवपाखातीर प्रसिद्धीचें साधन म्हूण सुनामीचो वापर केल्ल्याच्यो गजाली घडल्यो. पुनर्वसनाचें काम सुरू जातकच रोखडेंच, व्हडा प्रमाणांत पैशांची गरज लागतली हें स्पश्ट जाल्लें. निधी येवंक सुरवात जाली आनी ऊठ सूट सगळेच निधी जमा करपांत व्यस्त जाले. तातूंत भितर एक म्हजी इश्टीण रेखा. तशें रेखा एक बरें मनीस, पूण ताचेकडेन चड वेळ उलयलें काय म्हजी तकली दुखपाक लागता कारण तें केन्नाच मुद्द्यार येना. ताचो घोव दुबय आनी चली दिल्लींत आशिल्ल्याकारणान तें बेंगलोरांत एकलेंच रावता. ताचेकडेन खूब उमेद – उर्जा आसा आनी जायते फावट तिचें कितें करप हेंच ताका कळना.

एक दीस, बेंगलोरांत जेन्ना हांव सुनामी मदतकार्याचेर देखरेख करतालें, तेन्ना तें म्हज्या ऑफिसांत अवतीर्ण जालें आनी सुनामीच्या परिणामांचेर उलोवंक लागलें. हें वर्णन कांय वेळ चल्लें, मागीर वाजेवन हांवें म्हळें, 'हय रेखा हांव जाणा. हालींच कांय सप्तकां हांव त्या सुवातांनीं आशिल्लें आनी जाल्ल्या ते दुर्दशेचे अवतार हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्यात. तुजें कितें काम आशिल्लें म्हजेकडेन? हांव आमच्या मदत कार्याचे कार्यावळींत सुसुत्रताय हाडपाच्या कामांत व्यस्त आसा.'

मागीर तें मुद्द्यार आयलें.

'तूं जाणा, हांव रावतां त्या भागांत एक यूथ क्लब आसा. त्या क्लबाचे चले आनी चलयो आपदग्रस्तांखातीर पैशे जमोवपाक घराघरांनी भोंवलीं. तांकां ते पैशे तुजेकडेन दिवपाचे आसात. तूं येवन ते स्वीकारूंक शकतलें? तशें जाल्यार अशे तरेचें आनीक

काम करपाक तांकां उमेद येतली.'
हें आयकून म्हाका खोस जाली आनी हांवें थंय वचपाक हयकार दिलो. तरना
फुडाकार घेवन अशे तरेचें काम करतात तेन्ना तांची तोखणाय करूंकूच जाय. पूण
रेखा अजूनूय बशिल्लेकडेन कुचमतालें. निमाणें ताणें म्हळें, 'सुधा, तीं भुरगीं
सगळेकडेन स्वताच्या स्कूटरींचेर भोंवल्यांत...'
हांवें रोकडेंच म्हळें, 'तशें जाल्यार रेखा, तांणीं जमयल्यात त्या पैशांतल्यान तांचो
जाल्लो खर्च काडून घेवपाक सांग म्हजेकडेन दिवचेपयलीं.' रेखा खोशी जावन म्हज्या
ऑफिसांतल्यान गेलें.
थारायल्ल्या दिसा हांव ते वस्तेंत गेलें. पुराय कार्यावळीखातीर बारीकसाणीन केल्ली
तयारी पळोवन हांव अजापलें. थंय एक बरी सजयल्ली वेदी आनी माटोव आशिल्लो.
आवाजाची वेवस्था केल्ली आनी प्रसिद्धी माध्यमांकूय आमंत्रण दिल्लें. एका कोनश्याक
दवरिल्ल्या मेजार कॉफी आनी बिस्किटी दिताले. रोकडीच कार्यावळ सुरू जाली.
कितलेशेच लोक उलोवंक राविल्ले आनी दर एकलो कितलोसोच वेळ सुनामी, जाल्लो
विनाश आनी ताच्या कारणांचेर उलयलो. जे लोक केन्नाच थंय पावूंक नाशिल्ले ते
पिडेस्तांचे अवतिकायेचेर जाणकारांभशेन उलयले. निमाणें, रेखान, जें सुत्रसंचालन
करतालें, एक बरी सोबीत सजयल्ली थैली म्हजेकडेन दिली. कांय तरनाट्यांचो एक
चोमो वेदीर म्हाका हार घालपाक फुडें आयलो. म्हजे मुखार एक मायक आयलो
आनी हांव तोखणायेचीं आनी उमेद वाडोवपी कांय उतरां उलयलें. निमाणें कार्यावळ
सोंपली आनी हांव म्हजे गाडयेकडेन वचपाक गेलें. सोमतेंच, म्हजे तकलेंत, ह्या
निधींतल्यान हांव कितें घेवंक शकतलें हें घोळूंक लागिल्लें. इल्लो दुदा पिठो, ताडपत्री
काय नुस्तें पागपाचीं जाळीं? तांणीं हे पैशे जमयले आनी विश्वासान म्हजेकडेन दिले
हें कितलें बरें अशें हांव चिंततालें. अशे तरेचे विचार मनांत घोळटनाच, हांवें ती थैली
उगडली.
पयलीं दोन पानां सकयल पडलीं. हांवें बारीकसाणीन पळयलें आनी म्हाका कळ्ळें
की ती खर्चाची यादी आशिल्ली. तंबू, वीडियो आनी फोटो, आवाजा वेवस्था, फुलां,
सजावट, टॅक्सी भाडें हांचेमुखार तो तो आंकडो. तांणीं १०,२९५ रुपया जमयल्ले
आनी १०,२८५ रुपया खर्च केल्ले. दोनूय पानांमदल्यान एक कोरी करकरीत नवी धा
रुपयांची नोट म्हज्या हातांत पडली. मदतकार्याखातीर ही तांची वट्ट देणगी.
दुसऱ्या दिसा सकाळीं पेपरार हांसत्या मुखाच्या रेखाचो म्हाका थैली दितना फोटो
आशिल्लो. हांवें ताचेकडेन पळयलें आनी देणगीदारांचे आमचे वळेरेंत ताच्या

नांवामुखार धा रुपया घाले.

***

देणगीदार आपले स्वताचे येवजणेप्रमाण वागतात हें सदांच निखालस खरें नासता. केन्ना केन्ना जांकां मदत जाय तेय प्रस्न निर्माण करतात.

खंयच्याय जाग्यार जेन्ना आपत्ती येता, तेन्ना जायते फावट थंयची लोकसंख्या सादारणशी दुपेटीचेर पावता, अशें म्हाका दिसून आयलां. लागसारचे तशेंच पैसुल्ल्या वाठारांतले भिकारी आनी हेर लोक निर्वासीत छावण्यांनी आनी रेशनाच्या लायनींत रावन सोंपेपणान कितेंय जेवंक खावंक मेळत म्हूण येवंक लागतात. जेन्ना आदारयंत्रणा जिनसांचो पाव तो सुमेळ दवरिनात, तेन्ना ते पिडेस्तांक गरजेपरस चड वस्तू दितात, आनी ते मागीर ह्यो वस्तू दुसऱ्यांक विकतात. खरें म्हळ्यार, आमच्या देशांत मदत करपी संस्था आनी दात्यांचो उणाव ना हें म्हाका कळून आयलां. उणाव आसा तो वांटप करपाचे कुशळ वेवस्थेचो.

म्हूण फावंडेशनांत, आमी एक मांडणी केल्या. जेन्ना आमी कसलेंय मदतकार्य करपाक घेतात, पयलीं आमी त्या वाठाराचो एक नियाळ करतात, लोकांकडेन उलयतात आनी विध्वंसाचो प्रकार आनी खोलाय हाचो अभ्यास करतात. मागीर आमी फकत गरजेच्यो वस्तू घेवन थंय वतात. वांटप सुरू करचेपयलीं आमी त्या वाठारांतल्या लोकांची एक यादी तयार करून तांकां कुपनां दितात. कँपावेळार जेन्ना ते आमकां कुपनां दितात तेन्ना तांकां म्हाल दितात. अशे तरेन मदत योग्य लोकांमेरेन पावता आनी नकली पिडेस्त फायदो घेवंक शकनात हाची आमकां खात्री आसता. ही पद्धत कंटाळवाणी आनी वेळ खावपी आसा पूण आमी योग्य मनशांक मदत करतात हाची खात्री जाता.

आमच्या सुनामी मदतकार्यावेळार, आमी एका गांवांत गेलीं थंय सुर्वेक आमी गांवच्या लोकांच्यो गरजो जाणून घेवपाक एक सभा घेतिल्ली. दुसऱ्या दिसा आमी वस्तूंसयत गेलीं आनी लोक रांग लावपाक लागले. थोड्या वेळान आमच्या लक्षांत आयलें की वितरावणेंत आडखळ येता. जायते लोक चडावत वस्तूंची मागणी करताले आनी कांय जाण एकदां वचून परत दुसरे फावट घेवपाक येताले. आमची यादी आशिल्ली ताचेपरस पंदरा टक्के चड वस्तू आमी घेवन गेल्लीं पूण हे तरेन दिल्यार आमकां शंबर टक्के चड वस्तू लागपाच्यो.

जेन्ना हांव कांय लोकांकडेन उलोवपाचो आनी हें चुकता म्हूण सांगपाचो यत्न करतालें तेन्ना गर्देंतल्यान एक मध्यम पिरायेचो मनीस उलयलो. 'हय, आयज हांगा





कांय चड लोक आसात. तांकांय ह्या वस्तूंची गरज आसा. हें सगळें आमकां दिव
तुमी आमचेर उपकार करिनात. त्यो आमकां दिवपाखातीर दुसऱ्या लोकांनी तुम
सुवादीन केल्यात. तशें पळयल्यार त्यो आमच्योच. तुमी लोक हांगा येतात कार
तुमकां आमी काम केलें हें दाखोवन प्रसिद्धी मेळोवपाची आसता. स्वताच्य
सुवार्थाखातीर तुमी हें करतात. ह्यो वस्तू मेळप हो आमचो हक्क आनी आमकां कित
जाय हें आमी थारायतले, तुमी न्हय. जर तुमी आमकां दिवंक शकनात, जाल्या
चलूंक लागात. आमी कांयच घेवचे नात.'

हें आयकून कितलेशेच स्वयंसेवक अस्वस्थ जाले. कांय जाणांनी बिनपगारी रज
घेतिल्ली ह्या वाठारांत रावून हें काम करपाक, कारण तांकां लोकांक मदत करपाच
आशिल्ली. वाद सुरू जाले आनी आवाज चडपाक लागले. पूण म्हजे पिरायेन म्हाक
सहनशीलताय शिकयल्या आनी म्हाका दिसलें की व्हडलें झगडें सुरू जावचेपयर्
कितेंतरी करपाक जाय.

जाता तितले थंडसाणीन हांवें म्हळें, 'काल जेन्ना आमी तुमच्या गांवात आयलीं तेन्न
तुमी सांगलें २०० कुटुंबां आसात म्हूण. जण एकल्यान कुटुंबाचें नांव आनी कितले
लोक तें बरयलें. फकत ह्या दोनशीं लोकांक वस्तू जाय हें काल तुमी मानून घेतलें.
पूण जतनाय म्हूण आमी २३० कुटुंबांक पावत अशें हाडलें. आतां तुमी म्हणटात
लोक भायल्यान आयल्यात आनी तांकांय वांटो दिवपाक जाय. हो आपद्ग्रस्त
वाठार. आमी अतिथी आनी सोयऱ्यांचो थातोमातो करिनात. तुमकां जगपाक जाय.
आमी जादू करून चडावत वस्तू तयार करूंक शकनात. जर तुमकां दिसता आमी
स्वार्थाखातीर तुमकां मदत करतात, तर हें सगळें स्वताखातीर दवरचे परस अशे तरेन
स्वार्थी आसप बरें न्हय? उपकार करून आमकां भेशटावपाचो यत्न करू नाकात. याद
धरात आयज कोणतरी तुमकां मदत करता, म्हूण कृतज्ञ रावन तुमी दुसऱ्या कोणाकूय
गरजेवेळार मदत करूंक शकतात. आयज तुमकां मदत करपाक लोक लायनी
लायतात, पूण एका म्हयन्याउपरांत जग विसरतलें. आतां तुमी फाटी वचपाची वाट
बंद केली जाल्यार तुमकां व्हड मोल फारीक करचें पडटलें. जगान तुमचेकडेन फाल्यां
कशें वागचें हें आयचें तुमचें वागणें थारायतलें.'

त्या मनशाकडेन जाप नासली. लजेन ताणें तकली सकयल घाली.

***

# स्वर्गांत निर्मिल्लें

दर एका सेमेस्टराच्या अखेरेक, कोर्साचें काम पुराय जाल्लें आसता, तेन्ना म्हज्या विद्यार्थ्यांक हांव लायब्ररींत बसून शिकपाक दिना. ताचे बदला, मदीं मदीं कांय दीस हांव खंयच्यातरी विशयाचेर वर्गांत एक भासाभास दवरतां, थंय दरेका भुरग्यान कितेंतरी उलोवचें पडटा. तांच्या उलोवपाच्या, खाशेलपणान शाब्दीक कळाशेक धार काडपाखातीर हांव हें करतां. आमी सगळीं हे भासाभाशेची वाट पळयतात; केन्ना केन्ना ती इतली खर आनी भावनीक जाता, मागीर म्हाका ह्या झगड्यांत मदीं पडून दरेकल्याक याद करून दिवची पडटा कीं ही फकत वर्गांतली भासाभास आसा.

एक फावट, विशय आशिल्लो लग्न. विद्यार्थी लग्नांत उप्रासपी वेगवेगळ्या मुद्द्यांचेर चर्चा करताले, देखीक लग्न सुवाळ्याचेर जावपी खर्च, थारावन जाल्ल्या लग्नाचे फायदे आनी नुकसान, कसलेंय पावल उखलचेआदीं दोगांनीय कशें एकमेकांक समजून घेवपाची गरज आसा आनी अशेंच खूब कितें. कांय जाणांनीं म्हळें, 'आमच्या देशांत लग्नाकडेन एक सामाजीक प्रसंग म्हूण पळयतात. कुटुंबातल्या लोकांक जर शक्य आसा जाल्यार तांणीं लग्नाचे तयारेखातीर तांकां जाय तितलो पैसो खर्च करून कित्याक लोकांक मेळचें न्हय.' हेरांनी म्हळें, 'लग्नाचेर खर्च करप म्हळ्यार एक स्टेटस सिंबॉल जाला. खबरांची देवाणघेवाण करपाचो तो एक जागो जाला. जीणभर केल्ली बचत आवयबापूय अशे तरेच्या समारंभांत खर्च करून बसतात.' तांचेमदल्या एकल्यान, सुनीतान, फुडें विस्तारान सांगलें, 'आमच्या देशांत, चडशे नोकरदार लग्नांत जावपी व्हड खर्चाक लागून कर्जाच्या विळख्यांत सांपडल्यात. ह्या चड खर्चाच्या लग्नांचेर बंदी हाडपाक जाय.'

ह्या मुद्द्याचेर हांव मदीं पडलें आनी शांतपणान तांकां सांगलें की हो खर्च आनी सुवाळे लग्नाचें यश थारायनात. हाचेबदला, घोव आनी बायल हांचेमदीं समजिकाय वाडपाची गरज आसा. हें पटोवन दिवपाक, हांवें तांका म्हजे जिणेंत हांवें आयजमेरेन

पळयल्ल्या एका यशस्वी लग्नाची काणी सांगली – ती यल्लमा आनी माधाची.

म्हज्या कामाखातीर एका ल्हानशा गांवांत म्हाका रात सारची पडिल्ली तेन्ना तीं म्हाक मेळिल्लीं. सुरबूस जेवणाउपरांत हांव गांवा भोंवतणी रातचे पासयेचो आनंद घेताले पुनवेची रात आशिल्ली. शांत थंड वातावरण म्हज्या कानांक बरें दिसतालें. फोनाच आवाज ना, गाडयांचे हॉर्न ना, तकलेर विमानांचो घरघर ना. उरफाटें, वाऱ्या झाडांचीं पानां ल्हवच सळसळटालीं, फकत चान्न्याचो उजवाड आशिल्ले काळख राती, रातकिडे आनी कुत्र्यांचो आवाज येतालो. गौरम्मा, थंयची थळावी बायल म्हजेवांगडा चलता आसतना उलयताली, गांवांतलो पिवपाच्या उदकाचो त्रास कीटकनाशकां मेळोवप आनी वखदांच्या सुविधांचो उणाव हांचें वर्णन करताली आमी गांवच्या सामकें मध्यार आशिल्ल्या व्हडल्या वडाच्या झाडावटेन वतालीं. तेन्ना कोणतरी लोकगीत गायता तें म्हज्या कानार पडलें. तातूंतलें सौंदर्य आनी उतरांतली आत्मीयता हाका लागून हांव थंयच खिळून उरलें. हांवें गौरम्माक त्या गावप्याविशीं विचारलें. तिणें म्हळें तो माधा आपली बायल यल्लमाखातीर गायता आसतलो. हांवें तांकां मेळूंक शकतलें काय म्हूण वासपूस केली आनी आमी तांचे खोंपटेवटेन चलपाक लागलीं.

माधा आनी यल्लमा घडये त्या गांवातल्या लोकांमदीं सामके गरीब. सदच्या जेवणाखातीर तांकां भीक मागची पड. यल्लमा खूब बरी नाशिल्ली आनी हांव जेन्ना तांचे खोंपीकडेन पावलें, तेन्ना ती आड पडिल्ली, जाल्यार माधा तिच्या पावलांक मसाज करतां करतां गायतालो. तो एक दुर्मीळ पूण काळीज हालोवपी देखाव आशिल्लो. आमी तांचेकडेन उलोवंक सुरवात केली. हांवें प्रामाणिकपणान विचारलें, 'ह्या गांवांत तुमकां कसल्यो अडचणी आसात?'

यल्लमान जाप दिली, 'आमकां कसलीच अडचण ना. आमी सगळें वांगडाच करतात, दोगांयमदीं काम वांटून घेवन. सदांच आमी एकमेकांचें मत विचारतात. आमी सदांच आमच्या मनांत कितें आसा तें सांगतात आनी एकलें चुकलें जाल्यार ताका सुदारपाक दुसरें फाटीफुडें जायना. जर म्हाका भायर वचप शक्य जालें ना, जाल्यार माधा आमचे दोगांयखातीर भीक हाडटा. आमी मानतात कीं जिणेच्या ह्या प्रवासांत, आमी दोगांयनी सदांच सांगातान चलपाक जाय. कितेंय खास भीक आसूं वा पेलोभर उदक, आमकां जें मेळटा तें आमी वांटून घेतात. सगळो दीस आमी गांवांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांनी भीक मागतात पूण रातचीं एकमेकांवांगडा रावपाक आमकां खोस जाता. आमचो एकमेकांचेर विश्वास आसा, आनी आमचे जिणेंत आमी खोशी

ासात, जरी ती कठीण आसली तरीय.'

कचकीत चान्यांत तांचे मोडके-तोडके खोंपीमुखार उबें आसतना, म्हाका ाणवलें की हांव जाणविकायेचीं व्हडलीं व्हडलीं उतरां आयकतालें. यल्लमा आनी ाधा सामकीं गरिबांतलीं गरीब, अशिक्षीत, आनी जिणेंत खूब संकश्टांक तोंड देवपी, पूण एक व्हड मोलादीक धडो शिकिल्लीं, आपल्या सांगात्यावांगडा खोशेन क्शें रावप.

आयज आमच्या समाजांत, लग्न म्हळ्यार एक सुरक्षिततायेचो उपाय मानतात, लग्न सुवाळे सामाजीक घटना जाल्यात जंय जोडप्याच्या प्रतिष्ठेचें प्रदर्शन जाता. अशें जोडपें मेळप खूब दुर्मीळ जें मानता की हो तांचो, सूख आनी दूख वांटून घेवन सांगातान करपाचो प्रवास. यल्लमा आनी माधाखातीर लग्न ही भागीदारी, वजें वा प्रदर्शन करपाची वस्त न्हय.

***

# कृतज्ञ भाडेकार

आयतारची सकाळ आशिल्ली आनी हांव एके कार्यावळीक वचपाक उत्सूक आशिल्ले
सदां हांव अशें वचूंक सोदिना पूण आयची कार्यावळ खाशेली आशिल्ली, म्हजो इश
रमेश आनी शीलाच्या नव्या घराच्या घरप्रवेशाचो सुवाळो.

रमेश प्रोफेसर आनी शीला बँकेंत काम करता. दोगांयली जोड बरी आसा, पूण चडर्श
तांच्या व्हडल्या कुटुंबाखातीर खर्च जाता. खरें म्हळ्यार, कांय वर्सांआदीं रमेशाव
आपले भयणीच्या लग्नाखातीर कितलोसोच खर्च करचो पडिल्लो हें हांव जाण
आसलें. हे परिस्थितींत, आनी बेंगलोरांत जाग्याचे दर सामके तेंगशेक पाविल्
आसतना, खंयच्याय प्रामाणीक नोकरदार मनशाक घर विकतें घेवप कठीण, आनी
घर विकतें घेवंक मेळिल्ल्यान म्हज्या इश्टांक कितली खोस आनी अभिमान दिसता हें
हांव जाणा आशिल्लें. तांचे खोशयेंत वांटेकार जावंक आनी तांकां मेळपाक हांवूय
उत्सूक आशिल्लें.

बेंगलोरच्या उपनगरांत एके नवे सुवातेर घर आशिल्लें. सामकें सादेपणान बांदिल्लें आनी
तांच्या घराब्याक योग्य अशें. शीला आनी रमेशाच्या तोंडावयलें समाधान म्हाका
दिसतालें. आमचे कितलेशेच आदले इश्ट आयिल्ले. आमी खूब वेळ खबरी केल्यो.
वांगडाच जेवण केलें, वेळ जसो काय उडटालो, पुरो जावपाक वा वाज येवपाक
वेळूच नाशिल्लो. जेवणाउपरांत, आमी घराभायर सांवळेंत घाल्ल्या खुर्च्यांचेर बसून,
पान येवपाची वाट पळेतालीं. कोणतरी लागींच्याच बाजारांत तीं हाडपाक गेल्लो.
ताका मातसो वेळ लागतलो हें आमी जाणा आशिल्लीं. आमी हांगाच्यो थंयच्यो
गजाली करतालीं. हांव घराक पळयतालें, तेन्ना म्हाका दरवट्यादेगेक एक नक्षीदार
प्लेट लायिल्ली दिसली. ताचेर काळ्या पॉलीश केल्ल्या ग्रॅनायटार घराचें नांव,
श्यामकमल कोरांथिल्लें.

म्हज्या अणभवाप्रमाण, लोक आपल्या घराक आपलें वा भुरग्यांचें नांव दितात. वा

ळदेवाचें नांव. देखीक व्यंकटेश्वर निलय, वा राघवेंद्र प्रसाद वा बिरेश्वर कृपा ादी. हालीं तेंपार जगावेगळींच नांवां देखीक लव्ह नेस्ट, पॅराडायज, सेव्हन्थ हॅवन ानी सुक्षा व्हिला, ऐश्वर्या व्हिला आदी. हे वळेरेंत आयल्यांत. (हांगा 'व्हिला' हो च शब्द 'घर' ह्या अर्थान, कन्नड भाशेंतल्या 'ना' ह्या अर्थान न्हय). कांय लोक लात्मक वा साहित्यीक तकलेंतल्यान तांच्या घराक मेघदूत, नादस्वर, वर्शिनी आदी नांवां दितात.

ूण श्यामकमल हें ह्या खंयच्याच प्रकारांत बसनासलें. म्हूण हांवें विचारलें, 'शीला, ुमच्या घराचें नांव श्यामकमल कित्याक? हांवें फकत नीलकमल हें सिनेमाचें नांव आयकलां.'

शीला आनी रमेशान एकमेकांकडेन पळयलें. रमेशान म्हळें, 'हें दोन मनशांच्या नांवाचें एकीकरण, जांणी आमची जीण बदलून उडयली, आनी आमी तांची सदांच याद करतात आनी देव बरें करूं म्हूण मागतात.'

'म्हळ्यार कितें? कोण तीं?' हांवें विचारलें.

शीला आनी रमेशाक हांव कितलींशींच वर्सां वळखतालें. रमेशाचो बापूय मदाप्पा उत्तर कर्नाटकांतल्या धारवाड लागसारच्या गांवांतलो. शीलाच्या कुटुंबाचें रमेशाल्या कुटुंबाकडेन पैसुल्लें नातें आशिल्लें. आमची भुरगेपणासावन इश्टागत आशिल्ली. आमी वांगडाच शाळेक आनी खेळपाक वतालीं. सदांच आमी वांगडाच जेवतालीं आनी एकमेकांच्या सोयऱ्यांक बरीं वळखतालीं. तांच्या सोयऱ्यांमदीं कोणूच श्याम-कमल नाशिल्लो हाची म्हाका पुरायेन खात्री आशिल्ली.

रमेशान खुलासो केलो, 'श्यामकमल म्हळ्यार शाम राव आनी कमला. याद आसा तुका, हांव धारवाड कॉलेजांत शिकतालों तेन्ना एका जाण्ट्या जोडप्यागेर रावतालों?'

त्या खूब फाटल्या दिसांचो हांव विचार करपाक लागलें. म्हाका याद आशिल्लीच. वयानुसार, हालींच्या घडणुकांपरस खूब आदल्यो घडणुको लक्षांत दवरप सोंपें आसता, हाचो म्हाका सोद लागला. धारवाडांत, एक जाणटें जोडपें आपल्या घराचें आवटहावस कॉलेज विद्यार्थ्यांक भाड्यान दितालें. रमेश थंय स वर्सां रावला आसतलो. पूण आजुनूय म्हाका कुवाडें सुटूंक नासलें. जे लोक फकत ताचे घर मालक आशिल्ले तांचें नांव आपल्या घराक तो कित्याक दिवंक सोदता? म्हज्या चेऱ्यावयलो गोंदळ रमेशान पळयलो, आनी खुलासो केलो, 'तुका घडये खबर आसचें ना, सुधा, पूण त्या दिसांनी म्हज्या घरच्यांचो म्हज्या फुडल्या शिक्षणाखातीर

धारवाड वचपाक विरोध आशिल्लो. हांवें थंयच गांवांत रावून शेत सांबाळिल्लें जा
आसल्लें तांकां. त्या वेळार, शाम रावान व्हडल्या शारांत वचून फुडें शिकपाच्य
म्हज्या निर्णयाक काळजासावन पुराय तेंको दिवन आदार केलो. तो निवृ
पोस्टमास्तर. म्हज्या बापायचो इश्ट, ताणें म्हाका धारवाड धाडपाखातीर म्हज्य
बापायचें मन घुंवडायलें आनी म्हजेर लक्ष दवरपाचें उतर दिलें. म्हज्या बापायपरस
लेगीत तो म्हजेखातीर व्हडलो जालो. म्हाका रावपाक ताणें जागो दिलो. म्हज्य
गांवांतल्यान सरकारी बसींतल्यान, सदां म्हजें जेवण येतालें, पूण जर बस आयली ना,
वा कांय कारणान हांव बसीकडेन वचपाक पावलों ना, जाल्यार ताची बायल,
कमलाबाई तांच्या जेवणांतलें म्हाका वाडटाली. एकूय दीस तिणें म्हाका उपाशी
दवरलो ना. आनी तूं जाणा कितली कठीण स्थिती आसली आमची, म्हूण जर
कॉलेजाची फी भरपाक म्हाका कळाव जालो जाल्यार शाम राव आपल्या इल्ल्याश्या
पेन्शनांतल्यान पैशे कुशीक काडून म्हाका मदत करतालो.'

'पूण तूं तांचीं बारीक सारीक कामां करतालो आनी तांच्या घरांत गरज पडटा तें तें
क़रतालो. खरें म्हळ्यार आमी तुका तुजेफाटल्यान तांचो मानाय म्हणटालीं.'
राघवान, रमेशाच्या रुममेटान म्हळें.

'राघव, हें हांव मानपाक तयार ना. त्या जाणट्यांचो विचार कर मात्सो. म्हजेखातीर
त्यो सगळ्यो गजाली करपाची तांकां गरज नाशिल्ली. तीं गिरेस्त नाशिल्लीं पूण म्हजे
गरजेवेळार तांणी तकालस घेवन म्हाका मदत केली. तांणी मदत करूंक नाशिल्ली
जाल्यार आयज हांव खंय आसपाचों आणि कितें करपाचों हांव नकळ. तांच्या मनाचें
व्हडपण हांव केन्नाच विसरचों ना. कॉलेज सोंपल्याउपरांत लेगीत जेन्ना हांव बेकार
आसलों आनी निरशेल्लों, तेन्ना शाम राव म्हाका धीराचीं उतरां सांगून म्हजी उमेद
वाडयतालो. 'वायट धरूं नाका. लडाय हारलो म्हूण कितें जालें, तूं संग्राम
जिखतलो,' हें तो म्हाका सदांच सांगतालो.'

'पूण तुवें ह्या घराक तांचें नांव कित्याक दिलें?' हांवें म्हजो आदलोच प्रस्न परतो
विचारलो.

'ती म्हज्या बापायची सुचोवणी आशिल्ली. पळय, बापायन म्हाका वयर काडलो,
आपलो चलो म्हूण, कित्याक तर तें ताचें कर्तव्य आशिल्लें, हांव आतां म्हज्यान जाता
तें सगळें म्हज्या भुरग्यांखातीर करतां तशेंच. पूण अशे कांय लोक आसतात जे
निव्वळ कर्तव्य म्हूण न्हय, जाल्यार आपलेपणान कांय गजाली करतात आनी ते
आपल्या मोगान आणि दानतीन तुमची जीण बदलून उडयतात. म्हज्या शिक्षणांत एक

म्हत्वाची भूमिका निभयली त्या लोकांचेंच नांव घराक दिवंक जाय अशें म्हज्या बापायन म्हळें. ही खबर म्हज्या भुरग्यांक कळपाची गरज आसा. शाम राव आनी कमलाबाय हांचे विशीं म्हज्या मनांत जी कृतज्ञताय आसा ती फकत म्हज्या उतरांतल्यान न्हय तर म्हजे करणेंतल्यान तांकां कळची अशें म्हाका दिसता.'

रमेश आनी ताच्या बापायची करणी म्हाका काळजांतल्यान हालोवन गेली. तांणी म्हाका दोतोर बाबासाहेब आंबेडकरांची याद करून दिली, जाणें आपलो शिक्षक आंबेडकर हाच्या नांवान आपणाक वळखुचो म्हूण तें नांव घेतलें. मनीसपण आनी आमच्या प्राचीन देशाची संस्कृताय हांचेवयले आमचे स्त्रध्देक घटाय दिवपाचें काम करतात ते  हांचेसारके लोक.

***

# सदांच, विदेशी

गौतम बुद्ध २५०० वर्सां पयलीं, आयच्या नेपाळांत आशिल्ल्या लुंबिनींत, राजकुमार सिद्धार्थ म्हूण जन्माक आयिल्लो. आपले सबंद जिणेंत शांती, सोंशीकपण आनी सत्याच्या मार्गाचो संदेश सगळ्याक पावोवंक ताणें उपमहाद्वीप उबें - आडवें भोंवन काडलें. तो भोंविल्ल्या सुवातींभितर श्रावस्ती, राजगृह, सारनाथ, बुद्ध गया, कुशीनगर ह्यो कांय मुखेल ज्यो बौद्ध धर्माचीं म्हत्वाचीं केंद्रां म्हूण नामनेक पावल्यो. जरी ताणें आपली चडशी शिकवण भारतांत दिली, तरी फुडल्या शतमानांनी, बौद्धधर्म सगळ्या संवसारांत पातळ्ळो. आयज, श्रीलंका, जपान, कोरिया, थायलंड ह्या सारकिल्ल्या कांय देशांनी बौद्धधर्म खूब रसरशीत वाडत आसा. भारताच्या उपमहाद्विपांतूय, कांय सुवातो आसात जंय बौद्धधर्माच्या इतिहासाकडेन खर संबंद सांबाळून दवरला.

इस्लामाबादच्यान सुमार पंचविसेक किलोमिटरांचेर, तक्षशिला नांवाचें एक सपनाळें शार आसा. एका काळार, तें जगांतल्या सगळ्यांत पोरन्या विश्वविद्यालयाची सुवात आशिल्लें, आनी एक म्हत्वाचें बौद्ध शिक्षणाचें केंद्रूय. बौद्ध धर्माचो एक व्हड आश्रयदातो, राजा अशोकान, थंय कितलेशेच विहार बांदले जंय कितल्याशाच शतमानांमेरेन पंडितांमदीं तत्वगिन्यान आनी धर्माच्यो चर्चा जाताल्यो. ह्यूएन त्संग हाणें आपल्या बरोवपांतल्यान तक्षशिलाची कीर्त आनी सौंदर्याचें वर्णन केलां.

आतां, त्या गजबजिल्ल्या विश्वविद्यालयाचे फकत अवशेष उल्ल्यात. पाकिस्तान सरकारान ताच्या अर्द्या भागाचें वस्तूसंग्रहालय केलां, जातूंत, खणून काडिल्ल्या बुद्धाच्या पोरन्या पुतळ्यांच्यो तकल्यो, वस्ती, पटे, रत्नां आनी बुद्धाच्या जीविताचें दर्शन घडोवपी चित्रां अशो साबार भव्य कलाकृती आमकां पळोवंक मेळटात. बौद्धधर्म आनी ताचो इतिहास हातूंत गोडी आशिल्ल्या कोणाकूय हें वस्तूसंग्रहालय मुजरत पळोवपासारकें.

ालींच हांव पयलेच फावट पाकिस्तान भोंवन आयलें. जरी हांव थंय दुसऱ्या एका ामाखातीर गेल्लें, तरी हांवें खूब आदीं थारावन दवरिल्लें कीं केन्नाय म्हाका ाकिस्तानाक भेट दिवपाची संद मेळ्ळी, जाल्यार हांव तक्षशिलाक वतलें. म्हज्या नांत त्या देशाच्यो सदच्योच कांय कल्पना मनांत घेवन हांव इस्लामाबादाक देंवलें. ूण रोकडेंच हांवें पळयलें कीं बायलो मेकळेपणान भोंवतात आनी सदांच बुरख्यांत आसतात अशें ना! चना भटुरा, आलू पराठा आनी जिलेबीचें आमच्या यजमानान आमचेखातीर रांदिल्लें बरें उंची जेवण आमकां घराच आशिल्ल्याचो अणभव दितालें. कपड्यांची खरेदी करपाक हांवें कांय वेळ सारलो, बाजार आनी दुकानां आमच्या दुकानांपरस चड वेगळीं नाशिल्लीं. आमी वाणपण बी करून खरेदी सोंपयली. हांवें बारीकसाणीन आयकलें तेन्ना म्हाका कळ्ळें की आमचो टॅक्सी ड्रायव्हर नव्या हिंदी सिनेमांतलीं पदां गुणगुणटालो. आमच्या देशाभशेनूच, जी फ्लायट म्हाका घेवपाची आशिल्ली तिका कळाव जाल्लो. म्हाका सामकें सुसेगाद दिसलें हातूंत मातूय अजाप नाशिल्लें.

दुसऱ्या दिसा, हांव एका फ्रेंच पंगडावांगडा तक्षशिला वचपाक भायर सरलें. वस्तूसंग्रहालयाकडेन पावपाक आमकां मातसो कळाव जालो, आनी संग्रहालय पळोवपाची आमकी खर उत्सूकताय पळोवन अधीक्षकान म्हळें, 'आतां बंद करपाचो वेळ जायत आयला. तुमी भितर वचून पळोवपाक कित्याक सुरवात करिनात, हांव तुमकां सगळें समजावन सांगतां. इतले मजगतीं, तुमचो टूर आयोजक कावंटरावयल्यान तुमच्यो तिकेटी घेतलो.' आमकां सगळ्यांक ही कल्पना बरी दिसली आनी रोकडींच आमी थंय आशिल्ल्यो कलाकृती पळोवपांत गुल्ल जालीं. म्हजेखातीर तें आनीक मातशें काळजाक भिडपी आशिल्लें कित्याक तर म्हजी कितल्याशाच तेंपाची इत्सा पुराय जाताली. आमच्या इतिहासाचे भाग जे आयज मेरेन फकत पुस्तकांतल्यान वाचिल्ले ते दोळ्यांसामकार जिते जिवे जाल्ले हांव पळयतालें. सगळें खोलायेन पळयल्या उपरांत, अधीक्षकान आमकां भायर हाडलीं. तेन्ना, पयलेच फावट, म्हाका तिकेटीचें जनेल दिसलें. विदेशी लोकांखातीर २०० रुपया आनी थळाव्यांखातीर २५ रुपया तिकेट आशिल्ली. जेन्ना आयोजकान म्हजे तिकेटीचो अर्द भाग म्हजे सुवादीन केलो तेन्ना म्हाका कळ्ळें कीं ती दोनशें रुपयांची आशिल्ली. कितें तरी चूक जाल्या आसतली अशें चिंतून हांव तिकेट दिवपी मनशाकडेन गेलें. 'विदेशींक चड दर लायतात तें हांव समजूंक शकतां कारण तुमकां वस्तूसंग्रहालय सांबाळपाखातीर निधीची गरज आसता,' हांवें म्हळें. 'पूण म्हजेकडल्यान तुमी

दोनशीं रुपया कित्याक घेतात? हांव भारतांतल्यान आयलां. तुमच्या दायजाइतलोच हो म्हज्याय दायजाचो भाग.'

तो मनीस मातूय बदलो ना. कठोर आवाजांत ताणें जाप दिली, 'तुमी भारतीय म्हळ्यार विदेशी.'

तीं उतरां म्हाका खूब खोल खंयतरी घाय करून गेलीं. म्हाका जाणवलें, आमच्या पोशाखांत, भाशेंत, जेवणात आनी बॉलिवूडाच्या सिनेमाच्या मोगांत समानताय आसून लेगीत, फाळणेन आमकां सासणाचे वेगळायल्यात. आमकां एकमेकांचे भुंयेर परकी केल्यात आनी प्राचीन विश्वविद्यालयाच्या शारांत लेगीत, मोग आनी सौंशिकतायेचीं बुद्धाचीं उतरां लेगीत आमकां एकठांय हाडूंक पावनात. त्या दोनशीं रुपयांचे तिकेटीन म्हाका घडांयच करून वास्तवांत हाडलें!

***

# वेगळेपणाची वळ

म्हजे पाकिस्तान भोंवडेवेळार, हांव एका व्हडल्या पंगडाचो एक भाग आशिल्लें. पंगडांतलो दर एक मनीस त्या देसांतल्या खंयच्या ना खंयच्या जाग्याक भेट दिवपाक उत्सूक आशिल्लो. कांय जाणांक तक्षशिला पळोवपाचें आशिल्लें, हेरांक लाहोर, इस्लामाबाद वा कराची. एक दीस, हे विशीं आमची भासाभास चलताली आनी दर एकलो व्हडाव्हडान आपलें मत मांडटालो. फकत रुपा कपूर ओग्गी बशिल्ली म्हाका दिसली. ती चेन्नयची एक पंच्यात्तर वर्सांची जाणटी बायल आनी कितेंय विचारलेबगर चड उलय नाशिल्ली. म्हूण हांवें तिका खंयचे सुवातेक भेट दिवपाची आसा काय विचारलें.

मातूय अनमन नासतना तिणें जाप दिली, 'म्हाका पिंडीक भेट दिवपाची आसा.'

'पिंडी खंय आसा? तें एक ल्हान शार काय गांव? म्हाका दिसना आमचे हे भरगच्च भोंवडेंतल्यान अशे तरेन वचपाक आमकां वेळ मेळत म्हूण.' म्हज्या नेणारपणाक रुपान हांसत म्हळें, 'म्हाका रावळपिंडी म्हणपाचें आशिल्लें. जे हांगा रावतात ते पिंडी हें धाकटुलें नांव घेतात.' हांव घुसपलें. 'तुका कशें कळ्ळें? तूं केन्ना थंय रावल्या?'

'हांव थंयच जल्मून ल्हानाचें व्हड जालां,' तिणें जाप केली, आनी मागीर ल्हवू ल्हवू तिणें आपले जिणेची काणी म्हाका सांगली.

ती इकुणीस वर्सांची जायसर रावळपिंडींत राविल्ली, मागीर लग्न जावन ती चेन्नयंत रावपाक लागली. आतां चेन्नय तिचें घर आशिल्लें आनी ती तमीळ उलोवंक शकताली आनी थळाव्या तमीळ लोकांभशेन पुलियोगरे आनी रसम सारकिले तमीळ जिनस उत्तम आनी जन्मान तामीळ आशिल्ल्यांइतले बेसबरे रांदताली. पूण परती येवन संद मेळ्ळ्यार आपल्या भुरगेपणांतलें घर पळोवपाची उमळशीक तिका सदांच आशिल्ली.

रोकडींच आमी इस्लामाबाद पावलीं आनी चारूय वाटांनी आशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो, हिल स्टेशनावरी आशिल्ली थंडाय पळोवन म्हाका अजाप जालें. म्हजें हें अजाप

पळोवन रुपान म्हळें, 'इस्लामाबाद हें नवें शार. रावळपिंडी हें लागींचेंच शार, पूण तें पोरणें. रूंद रस्ते, शॉपिंग सेंटरां आनी गुलाबाचीं जार्दिनां आशिल्लें इस्लामाबाद फाळणेउपरांत बांदलां. इस्लामाबादच्यान पिंडी सुमार वीसेक किलोमीटर पयस आसा.' आतां मेरेन मृदूभाषी, भिडेस्त मिसेस कपूर सामकी बडबडी जाल्ली. तिच्या दोळ्यांत एक चमक आयिल्ली आनी ती मातूय विसव घेनासतना उलयताली. आमचेमदल्या कितल्याश्याच जाणांक पयलीं इस्लामाबाद पळोवपाचें आशिल्लें, पूण तिणें पयलीं रावळपिंडीक वचपाचो आग्रो धरलो.

तिका कोण तरी सांगाती जाय आशिल्लो आनी हांव आपखोशयेन तिचेबराबर वचपाक तयार जालें. आतां ती खूब उचांबळीत जाल्ली, म्हणपाक लागली, 'सत्तावन वर्सांपयलीं हांव जें घर सोडून आयिल्लें तें म्हाका पळोवपाक जाय.'

'खऱ्यांनीच बरी कल्पना ही,' हांवें म्हळें. हांव इस्लामाबाद देंविल्लें तेन्ना दिल्लो सोबीत फुलांतुरो आजुनूय म्हज्या हातांत आशिल्लो. 'तुज्या घरांत आतां जो कोण रावता ताका हांव हो तुरो दितलें.' हांवें म्हळें.

ती सामकी सदगदीत जाल्ली.

गाडयेन इस्लामाबाद विमानतळ सोडलो, तेन्ना मिसेस कपूर एकाद्र्या टूर गायडाभशेन म्हाका एक एक दृश्य दाखोवंक लागली. रस्त्याचे दावे वटेन एके गर्देच्या जाग्यावयली एक पोरनी इमारत दाखोवन तिणें म्हळें, 'ती एक विजेचीं उपकरणां तयार करपाची फॅक्टरी आशिल्ली. तिचो मालक केवल राम सहानी म्हज्या बापायचो इश्ट आशिल्लो. दिवाळेच्या वेळार लक्ष्मीपुजेखातीर हांव आनी म्हज्यो इश्टिणी ह्या घरांत येतालीं.'

तिका प्रवासाचो आनंद घेवंक मेळचो म्हूण हांवें ड्रायव्हराक मातसो सवकास वचपाक सांगलें. गाडी सदर बाजारांतल्यान वताली आनी खूब दुकानां आशिल्ली एक पोरनी इमारत पळोवन तिणें म्हळें, 'हांगा म्हज्या बापायचो बापोलभाव रतन सेठी आनी ताचो भागीदार मकबूल खानाचें दागिन्यांचें दुकान आशिल्लें. ताका खान आनी सेठी म्हूण वळखताले. म्हज्या लग्नाच्यो वस्ती हांगाच केल्ल्यो.'

ती एके एके इमारतीक बोट दाखयत रावली, दर एके इमारतींत तिची कसली ना कसली बरी याद आशिल्ली. पूण ती पळयताली तातूंतल्या कितल्याश्याच इमारतींच्या जाग्यार अती उंच इमारती जाल्ल्या कारणान ती घुसपताली. अचकीत गाडी थांबली. एक टायर पंक्चर जाल्लो, आनी ड्रायव्हरान तो काडपाक कांय वेळ लागतलो म्हळें. रुपा कपूर सामकी अस्वस्थ जाली. तिका गरजेपरस एक मिनीट लेगीत चड रावपाचें

नाशिल्लें. म्हूण तिणें म्हळें, ‘तूं टायर बदल. तितल्यांत हांव कांय पोरण्या थळांर वचून पळयतां. आमी तुका फुडल्या मुखेल रस्त्यार मेळटात. मुखेल रस्त्यार वचपाक, पयलीं दाव्यान आनी मागीर फुडें उजव्यान वच. थंय तूं राव आमकां.’
त्या वाठाराचें एक एक कूस खबर आशिल्लेभशेन ती वागताली आनी हांव मोन्यांनी तिचे फाटल्यान वतालें. आमी एके ल्हानशे पाळणींत भितर सरलीं. तिणें म्हळें, ‘म्हज्यो इश्टिणी फातिमा आनी नूर हांचेवांगडा हांव हांगा जायते फावट आयलां. ह्या रस्त्याक टेलराचो रस्तो म्हूण वळखताले. म्हजो शेजारी मेहबूब खानाची बायल मेहरुन्निसा चाची भरतकामाच्यो नव्यो नव्यो मोदी करपांत सामकी फिशाल आशिल्ली. आमी येवन तिका डिझायन दितालीं. चल आमी लागींची वाट घेवया... जंय म्हजो काका रावतालो.’
आतांमेरेन ती चडशी आपल्याभितरूच उलयताली आनी त्या अशीर पाळणींतल्यान सोंपेपणान वाट काडटाली. आमी फुडल्या रस्त्यार गेलीं. थंय कांय पोरणीं घरां आशिल्लीं. ती पयल्याच व्हड बंगल्यांत गेली. तिणें म्हळें, ‘हें म्हजो काका मोतीराम रायाचें घर आनी फुडलें घर अल्ला बक्ष हाचें. ते दोगूय व्हड इश्ट आशिल्ले आनी एकामेकांचो खूब मोग करताले. म्हाका अजूनय याद जाता, जेन्ना जेन्ना अल्ला बक्ष चाचा आपल्या पोरसांत झाड रोयतालो, म्हजो काका तसलेंच झाड रोयतालो. हें हांगा आसा तें आंब्याचें झाड एका बसंत पंचमीच्या दिसा रोयिल्लें. दोनूय घरांनी कितली खोस आशिल्ली. म्हजे आजयेन खीर केल्ली आनी एक बगुणें भरून खीर घेवन म्हाका अल्ला बक्षाच्या घरा धाडिल्लें. जेन्ना हांव तें बगुणें घेवन वतालें तेन्ना एका तरनाट्याक आपटलें आनी ती गरम खीर ताच्या पायांर सांडली. हांव खूब भियेलें आनी म्हाका लजूय जाल्ली.’
‘तूं ताका वळखताली?’
‘तेन्ना ना, पूण मागीर जाली वळख. म्हजें ताचेकडेन लग्न जालें!’
मागीर तिणें झाडाक पळयलें आनी म्हळें, ‘आतां हें कितलें जाणटें जालां.’
आमी दरवट्यांतल्यान भितर सरलीं. आशिकुशीक कोणूच नाशिल्लो. आमकां अशीं भितर सरलीं म्हूण कोणूय आडायत असो म्हाका भंय दिसतालो. पूण रुपाक कसलीच पर्वा नाशिल्ली. ती आपल्याच विश्वांत आसा अशें दिसतालें. ती चलत मागीलदारा गेली आनी हांव अनमनत फुडल्या दारांत उबें रावलें. एक जोडपें भितर सरलें आनी आपल्या जार्दिनांत एक अनवळखी मनीस, तीय बी साडयेंत पळोवन सामकें अजापित जालें. तेन्नाच हांवें दारांत हुमकळपी एक पाटी पळयली. ताचेर बरयल्लें ‘डॉ.

सलीम आनी डॉ. सलमा: डेंटिस्ट.'
हांवें तांची माफी मागली आनी रुपाविशीं तांकां सांगपाक लागलें. म्हजी काणी सोंपली तेन्ना तांच्या चेऱ्यावयलो दुबाव पैसावलो. मजगतीं रुपा आजूनूय झाडांक पळोवन आपलें भुरगेपण याद करतालें. जोडप्यान आदरभावान आमकां भितर आपयलीं. 'उपकार करून बसात. आमच्या सांगातान एक च्या घेयात.' तांणी दोन कदेलां फुडें ओडलीं.
सकाळींफुडें तांकां त्रास दितात म्हूण आतांमेरेन म्हाका सामकें विचित्र दिसपाक लागिल्लें. पूण डॉ. सलीमान म्हळें, 'उपकार करून बसात. तुमी आयलीं म्हूण आमकां खोस जाल्या. आमचो आजो आजी लेगीत गुजरातांतल्या सुरत हांगा रावतालीं. तीं पाकिस्तानांत आयलीं आनी हांव हांगाच जल्मून व्हड जालों. म्हजे आवयबापूय सुरती फरसाण, पारसी धनसाक आनी खाकराच्यो खूप यादी काडटात.'
कितेंतरी उलोवपाक जाय म्हूण हांवें म्हळें, 'येदो व्हडलो बंगलो सांबाळप खूप कठीण जाता आसतलें न्हय.'
डॉ. सलीमान जाप दिली, 'कांय वर्साआदीं आमी ह्या घरांत आयलीं. पळोवंक गेल्यार, सुरतांत म्हजे आवय बापूय रावताले तें घर सादारण ह्या घरासारकेंच आसा, आनी हांव ह्या घरांत रावतां तोमेरेन हांव हें घर म्होडून अपार्टमेंटस करचों ना अशें तांणीं म्हजेकडल्यान उतर घेतलां. अल्ला दयाळू आसा आनी आमकां पैशांची गरज ना. आमचो शेजारी अल्लाबक्षाच्या भुरग्यांनीं खूब आदीं आपलो जागो विकलो आनी आतां थंय व्हडलो वेपारी कॉंप्लेक्स जाला.'
इतले म्हणसर रुपाचें जार्दिनांत भोंवप सोंपिल्लें. हांवें ताची त्या जोडप्याकडेन वळख करून दिली. ताणें भितरल्यान घर पळोवंक मेळत काय म्हूण विचारलें. दोतोर सलीमान खोशयेन हयकार दिलो. 'धा वर्सांफाटीं हें घर आमी विकतें घेतल्याउपरांत, आमी साप कमी बदल केल्यात. तुमी निमणें पळयलें तशेंच घडये आसा तें.' ताणें म्हळें.
हांव रुपावांगडा भितर गेलें. मुखेल कूड पळोवन ताणें म्हळें, 'हांगा म्हजो आजो बसतालो आनी सगळ्या घराचेर नदर दवरतालो.' मागीर ताणें हारशाच्या एका रंगीत दाराकडेन बोट दाखोवन म्हळें कीं अल्लाबक्षाचे बायलेन ताका रंग मारून दिल्लो. 'ह्या जनेलांतल्यान ती म्हज्या आत्याखातीर सुको मेवो धाडटाली,' 'थंय आमी पतंग हुबयतालीं.' दर एका चिऱ्यांत, दर एके वणटींत तिची एक एक याद आशिल्ली. निमाणें हांवें तिका परत वचपाक जाय हाची याद केली. आमी जार्दिनाकडे वता

ासतना त्या जोडप्याचो निरोप घेतलो. डॉक्टर सलीमान आमकां एक पाकीट दिलें. तुमचेकडेन खावपाक वेळ ना, आमी कांयच दिनासतना तुमकां दोगांय जाणट्यांक रशींच धाडप म्हाका बरें दिसना. उपकार करून हें घेयात आनी जर देवाच्या मनांत आसत तर आमी परत मेळटलीं.'

आमी घरांतल्यान भायर सरून मुखेल रस्त्यार आयलीं तेन्ना रुपान सांगिल्लेप्रमाण थंय गाडी आशिल्ली. आतां तिका आपलें घर पळोवपाचें आशिल्लें.

तेणें ड्रायव्हराक म्हळें, 'चार रस्त्यांवयल्यान उजव्यान चल. म्हाका रस्तो खबर आसा. उजवे वटेनची पयली बिल्डींग म्हळ्यार चलयांचें अल अमीन स्कूल आनी मातशें मुखार जीझस अँड मेरी कॉनव्हेंट. आनी मातशें फुडें दाव्यान चल्यांखातीर एक सरकारी स्कूल आसा. ताचे फुडें इदगाह मैदान. तांचे मुखार पांच व्हडले बंगले आशिल्ली एक पायण. दर एक प्लॉट एका एकराचो. पयलो केवल राम हांचो. दुसरो मियाँ मेहबूब खान हांचो आनी तिसरो सरदार सुप्रीत सिंगाचो. चवथो राय सायब आनी पांचवो आमचो...'

ती उलयत रावली आनी ड्रायव्हर ती सांगता ते दिकेन वचत रावलो. तिगेलें चडशें सगळें सारकें आशिल्लें. हय उजवे वटेनची तांबड्या चिऱ्यांची बिल्डींग म्हळ्यार चलयांचें अल अमीन स्कूल. जीझस अँड मेरी कॉनव्हेंट आतां लोयोला कॉलेज जाल्लें आनी चल्यांचें सरकारी स्कूल डिग्री कॉलेज. पूण इदगाह मैदान मात थंय नाशिल्लें. ताचे जाग्यार एक शॉपिंग कॉम्प्लेक्स जाल्लो. तिणें सांगिल्ले ते पांच सोबीत बंगलेय नाशिल्ले. तांच्या बदला थंय दुकानां, हॉटेलां, व्हिडियो लायब्रऱ्यांचो चोंबो एकाक लागून एक आशिल्लो. रुपा बेजार जालें.

'मॅडम, तो होच रस्तो म्हूण जाणात तुमी?' ड्रायव्हरान नमळायेन विचारलें.

'सामकें खात्रेन. हांव हांगाच जन्माक आयिल्लें. इकुणीस वर्सां काडल्यांत हांवें हांगा. तेन्ना तुजो जल्म लेगीत जावंक नाशिल्लो. हांव कशें चूकन?'

तिणें ताका गाडी थांबोवपाक लायली आनी तें सोदपाखातीर देंवलें. नव्या बिल्डींगांफाटल्यान घर आसतलेंच हाची ताका खात्री आशिल्ली. शेणिल्लें भुरगें वा मोलादिक रत्न सोदचें तशें जाल्लें ताचें.

'म्हजें घर हळडुव्या कोराचें आनी दोन मजल्यांचें आशिल्लें. ताचें दार उजवे वटेन आशिल्लें. म्हज्या घरांतल्यान म्हाका इदगाह मैदान दिसतालें. पयलीं हांगाच रावपी म्हजी एक इश्टीण दोन वर्सां आदीं हो जागो पळोवपाक आयिल्ली तिणें म्हजें घर हांगाच आसा म्हूण सांगिल्लें.'

म्हजेवटेन वळून ताणें म्हळें, 'तूं जाणा, एकदां हांव नकळटां दारामुखावयल्या वोल्य
शिमिटार चलिल्लें आनी म्हज्या पायांचे ठशे थंय सासणाचे उरिल्ले. हांव लग्न जाव
गेल्याउपरांत म्हज्या बापायक म्हजी याद म्हूण ते तशेच दवरपाचे आशिल्ले. हांव म्ह
घर कांय न्ही करून सोदून काडूंक शकतां.' पूण त्या वर्णनाचें, दारांत पायांचे ठ
आशिल्लें एकूय घर त्या वाठारांत नाशिल्लें. हो वेळ मेरेन म्हाका थंय तें घर ना
कळिल्लें. पूण तें मानून घेवप्राक रुपा अनमनतालें.

ज्या जाग्यार घर आसा अशें रुपा म्हणटालें ते बिल्डिंगेमुखार आमी उबीं रावलीं. त
एक हॉटेल आशिल्लें आनी प्रवेशदारार चौकीदार बशिल्लो.

हांवें ताका विचारलें, 'हें हॉटेल केन्नाचें?'

उबो रावून ताणें जाप दिली, 'एकूच वर्स जालां ताका.'

'तूं हांगा केन्नाच्यान काम करता?'

'आदली बिल्डींग म्होडून बांदकाम सुरू जालें तेन्नासावन.'

रुपा आतां ओगी जाल्लें.

'उजवेवटेन दार आशिल्ली आनी वाटेर पायांचे ठशे आशिल्ली हळडुव्या कोराची दोन मजली बिल्डींग आशिल्ली हांगा?'

'हय. बिल्डींग आशिल्ली. पूण ठशांची म्हाका याद जायना.'

आतां म्हाका कळ्ळें, रुपाचें घर म्होडून हें हॉटेल बांदिल्लें. चौकीदाराकडेन पळयत हांवें म्हळें, 'म्हजे इश्टिणीचें घर तें.'

'उपकार करून भितर येयात. घर नासलें म्हूण कितें जालें? हॉटेल तेच भुंयेर उबें आसा. तुमकां येवकार दिवंक म्हज्या पात्रांवाक खोस जातली हाची म्हाका खात्री आसा. सामोसा आनी एक कप च्या घेयात.'

हांवें रुपाकडेन पळयलें. पूण ताणें आमचें उलोवप आयकूंक नाशिल्लें.

हॉटेलामुखावयल्या जार्दिनांतल्यान इल्लीशी माती ताणें हातांत घेतली आनी म्हळें, 'ही म्हजी भूंय. ही म्हजी माती. म्हज्या पूर्वजांनीं हांगा आपलें घर बांदलें. ते हांगाच जन्मले आनी मेले. भूंय, झाडां, हवा, उदक सगळें आमचें आशिल्लें. आमकां रीत, संस्कृताय आनी जेवण खबर आशिल्लें. एक दीस, एका मनशान एक वळ मारली आनी दोन राष्ट्रां निर्माण केलीं. आनी अकस्मात आमचेच भुंयेर आमी विदेशी जालीं. आमकां हें सगळें सोडून दुसऱ्या जाग्यार वचून जी भास, जेवण आनी संस्कृताय आमकां अनवळखी आशिल्ली ती आपणांवची पडली. एकेच वळीन म्हाका म्हजेच भुंयेर परकी केलें. ज्या लोकांक अशे तरेन भोगचें पडलां तांचें दुःख कोणूच समजून

घेवंक शकचो ना.'

हांव वग्गी जालें. ताच्या तळमळ्यांची हांव कल्पना करूंक शकतालें. हांवें ताचो हात हातांत धल्लो आनी अकस्मात म्हाका ताच्या पोरन्या घरांतल्या मनशांक दिवपाचें थारायिल्ल्या त्या फुलां तुऱ्याची याद जाली, जो गाडयेच्या फुडल्या सिटार डिसेंबराच्या वतांत सुकूंक लागिल्लो.

***

# विमानतळा वाटेवयलो बौद्ध

एक दीस, म्हाका रिक्षान खंयतरी वचचें पडलें. हेर व्हडल्या शारांभशेन, हालीं बेंगलोरांत, रिक्षा ड्रायव्हरांचे दयेचेर जणएकल्याक निंबून रावचें पडटा. ते आमकां व्हरतले काय ना हें तांणींच थारावपाचें. आनी समज आमकां एकाद्री रिक्षा मेळ्ळीच, जाल्यार आमच्या ठिकाणार पावमेरेन आमी वग्गी रावपाक जाय. आपली रिक्षा रेसीचे गाडयेभशेन न चलोवपी ड्रायव्हर, वा सारको आंकडो दाखोवपी मीटर मेळप सामकें दुर्मीळ.

त्या दिसा हांवें पासार जावपी कितल्याश्याच रिक्षांक विचारलें पूण एकलोय म्हाका घेवपाक तयार नाशिल्लो, म्हूण हांव रस्त्याकुशीक उबें आशिल्लें. अकस्मात एक गाडी मातशी फुडें वचून रावली आनी कोणेंतरी हारसो सकयल काडून म्हाका हात केलो. बारीकसाणीन पळयतकच, म्हाका ती म्हजी इश्टीण सरोजा हें कळ्ळें. हांवें गाडयेंत बसचें म्हूण तें म्हाका खुणायतालें. पूण हांव अनमनलें. हांवें म्हळें, 'हांव विमानतळावटेन वतां, तुका तें खूब पैस जातलें.'

पूण सरोजान आयकलें ना, 'पयलीं भितर सर उपकार करून. ही पार्किंगाची सुवात न्हय. हांवूय विमानतळावटेन म्हज्या हॉस्पिटलांत वतां. म्हजेखातीर ती आड वाट जावंची ना.'

जरी जिणेकडेन पळोवपाची आमची नदर वेगळी आसली तरी, सरोजा आनी हांव खूब आदल्यो इश्टिणी. आमच्या विचारांनी आमी सदांच पारदर्शकताय दवरल्या जाका लागून आमची मैत्री जिवी उल्ल्या. सरोजा एक मेकळ्या मनाचें मनीस आशिल्ल्यान आपलीं मतां म्हजेकडेन उक्तावपाक केन्नाच अनमनना. केन्ना केन्ना आमचे वादूय जातात, पूण एकमेकांकडेन मेकळेपणान उलयतकच सगळें जाग्यार पडटा.

'गाडयेबगर कितें करता तूं? रिक्षाक कित्याक रावतालें?' म्हाका रिक्षा स्टँडाकडेन

पळोवन सरोजाक सामकें अजाप जाल्लें.
‘म्हजे ड्रायव्हर सुटयेर आसात आनी हालीं तेपार बेंगलोरच्या रस्त्यांचेर गाडी चलोवपाक म्हाका आवडना, म्हूण हांवें रिक्षान वचपाचें चिंतलें.’
‘तुज्यान टॅक्सी करूं येताली!’
‘रिक्षा केल्यार कितें चुकलें? ह्या शारांतल्या कितल्याश्याच लोकांकडेन स्वताची गाडी ना.’
‘पूण रिक्षा भिरांकूळ आसतात.’
‘तशें पळयल्यार विमानान प्रवास करचेपरस रस्त्यान प्रवास करप चड भिरांकूळ.’
‘खरें तें, तरी हालीं तेंपार विमानां आपली थारिल्ली वेळ सांबाळिनात. म्हाका प्रवास करप नाका दिसता.’
‘तशें जाल्यार तूं नशीबवान, तुजें काम हॉस्पिटलांत आशिल्ल्यान तुका चड प्रवास करचो पडना.’
सरोजा आनी ताचो घोव दोगांय एक सुपुल्लें हॉस्पिटल बरे तरेन चलयतात. तांच्या दोनूय चल्यांचीं लग्नां जाल्यांत. व्हडलो विदेशांत, जाल्यार धाकलो आपल्या कुटुंबासयत तांचे बराबर रावता. तांचें घर खूब व्हड आसा, आनी सरोजाक सामक्यो उण्यो चिंता आसात. म्हाका तरी तशें दिसलें.
म्हाका जाप करिनासतना, रागान, सरोजा भायर पळयत रावलें.
‘कितें जालां? तूं खंती दिसता!’ हांवें विचारलें.
‘खरें सांगपाचें जाल्यार, हांव हॉस्पिटल आनी घर दोनूयकडेन सुखी ना.’
‘कित्याक? तुजें सगळें काय बरें आसा.’
‘तशें तुका दिसता. पूण घराकडेन म्हजे मांयक हांवें सगळें करचें अशें दिसता. हांवूय जाणटें जावंक लागलां हें ती विसरता. म्हजे सुनेक हांवें नातरां आनी घर सांबाळचें अशें दिसता, ती भायर कामाक वता. कोणूच समजून घेना कीं आमी जशीं जाणटीं जातात तशें सगळें आदलेवरी सांबाळपाची सहनशक्त आमच्यांत उरना. दोनूय पिळग्यांमदीं हांव घुसपलां.’
‘सरोजा, ह्या वयार आमी सगळीं ह्या असल्या पेंचांत सांपडटात. आमी आमच्या आवय बापायभशेन आदल्या काळावयलीं जाणटींय नासतात आनी आमच्या पूत आनी सुनेभशेन नव्या विचारांचींय नासतात.’
‘तेभायर म्हजे सोयरे म्हाका पिडटात. ते इलाज करून घेवपाक हॉस्पिटलांत येतात आनी एक पैसो लेगीत दिनात. ताचेंय म्हाका व्हडलेंशें कांय दिसचें नाशिल्लें पूण

तांच्या तोंडांतल्यान उपकाराचें एक उतर लेगीत केन्नाच येना. तो तांचो हक्कच अशे तरेन ते वागतात. जर हांवें म्हज्या घोवाकडेन ही कागाळ केली जाल्यार तो अस्वस्थ जाता.'
'तुजी प्रॅक्टीस कशी चल्ल्या?' हांवें विशय बदलपाचो यत्न केलो.
'विचारूं नाका. बेंगलोरांत इतली स्पर्धा आसा. खाजगी प्रॅक्टीस करप इतलें कठीण जालां आनी जर तुमचीं भुरगीं दोतोर नासत जाल्यार आनीक वायट अवस्था. जायते फावट म्हाका दिसता हॉस्पिटल विकून तो पैसो बँकेंत दवरप चड बरें. हालीं दुयेंती लेगीत इतले बारिकसाणीचे आसतात. कालूच एकल्याक तपासता आसतना ताणें म्हाका इतले प्रस्न विचारले. तांकां दिसता आधुनीक वखदां आनी ऑपरेशनांनी आमी चमत्कार करूंक शकतात. वखदांनी गूण आयलो ना जाल्यार आमी तांचो गैरफायदो घेतात अशी कागाळ ते करूंक लागतात.'
सरोजा सामकें नेटार आयिल्लें. 'मिलिंद कसो आसा?' हांवें मदींच विचारलें. मिलिंद ताचो चलो – जो अमेरिकेंत सॉफ्टवेयर इंजिनियर आसा.
'ओह, थंय जीण सोंपी ना. थंय कितलीशीच नोकर कपात आसा. बेकार जायत म्हूण ताका सदांच भंय दिसता. ताची बायल लेगीत नोकरी करता. आनी अमेरिकेंत घरांत मदत करपी कोण नासता जाणा न्ही तूं, म्हूण तांचीं भुरगीं पाळण्याघरांत वतात. तांकां एक उतर लेगीत कन्नड येना. म्हाका वायट दिसता.'
सगळीकडेन वाहतूक चालू आशिल्ल्यान कांय किलोमीटर वचपाक आमकां सुमार अर्द वर लागलें. सरोजा रस्तो आनी वाहतुकीचेरूय कागाळ करूंक लागत असो म्हाका भंय दिसलो म्हूण रोकडेंच हांवें विचारलें, 'तुजी इश्टीण वाणी कशें आसा?'
'ताचेविशीं म्हाका कांयच विचारूं नाका. आतां तांचें बरें चल्लां न्हय, म्हूण तें म्हाका कमी लेखता. ताचेकडेन इश्टागत कशी चालू दवरतलें हांव?'
'विमला कशें आसा?'
कितलींशींच वर्सां वाणी आनी विमला सरोजाच्यो इश्टिणी आशिल्ल्यो. पूण आतां ताचें दोगांयकडेन बरें ना अशें दिसतालें.
'हांव चुकून केन्नाय मेळटां विमलाक. ताची सदांच आरोग्याची कटकट नाजाल्यार अर्थीक अडचण. कोणाक वेळ आसा ताच्यो कागाळी आयकपाक?'
ताच्या अंत नाशिल्ल्या चिंतांविशीं आयकून निमाणें हांवें ताका म्हजे तकलेंत घोळटालो तो प्रस्न विचारलो. 'सरोजा, तुजे नदरेन सुखी जीण म्हळ्यार कितें?'
सरोजान म्हजेकडेन पळयलें आनी हांसलें, घडये म्हज्या अज्ञानाक.

चिंताविरयत जीण म्हळ्यार परिपूर्ण जीण. आज्ञा पाळपी आनी आपलेपण आशिल्ल्यो सुनो आनी कसलीच अपेक्षा नाशिल्ल्यो मांयो. कांयच मागण्यो नाशिल्ले जाणटे आनी समजिकाय दाखोवपी इश्ट. सोयऱ्यांनी आमच्या कामाची तोखणाय करची, आनी दुयेंतींनी हें समजून घेवंचें की आमी दोतोर सदांच यत्नांची पराकाष्ठा करतात, पूण आमी देव न्हय. दर एकल्यान बरे जिणेखातीर यत्न करपाक जाय.'
आतां मेरेन आमी विमानतळ रस्त्यार पाविल्लीं आनी आतां म्हाका देंवपाक जाय आशिल्लें. पूण ते आदीं म्हाका ताका कितेंतरी सांगपाचें आशिल्लें.
'सरोजा, तूं सर्गाभशेन राज्याचीं सपनां पळयता. तुजें सपन सामकें अशक्य अशें. सुखी जावपाखातीर आमकां आमची चलणूक बदलूंक जाय, संवसाराची न्हय. जे तरेन धर्तरी धुल्ल आनी चिखलान भल्ल्या तेचपरी संवसारांत जायतीं आडमेळीं आनी पुराय जावंक पावनात अश्यो इत्सा आसात. ह्या चिखलान भरिल्ल्या संवसारांत जर तुका तुजे पांय नितळ दवरपाक जाय, जाल्यार फकत दोन उपाय आसात. एक तर सगळ्या संवसाराचेर कितेंय धांप नाजाल्यार पांयांत चप्पल घाल.'
सरोजान मदींच म्हळें, 'केदो व्हड विचार. तुका कोणें सांगलो तो?'
हो वेळ मेरेन हांव गाडयेंतल्यान भायर सरिल्लें आनी दार धांपतालें. हांवें म्हळें, '२५०० वर्सांआदीं जल्माक आयिल्ल्या गुरूच्या तोंडांतल्यान हें आयकुपाइतलें हांव नशीबवान न्हय. तो बुद्ध आशिल्लो.'
'तूं केन्ना बौद्ध जालें?'
'निकतेंच, तुजे मुखार.'

***

# गोड सरबराय

कांय वर्सां आदीं, म्हजी इश्टीण सुमन अमेरिकेंतल्यान म्हजेकडेन म्हयनोभर रावपाखातीर आयिल्लें. लागीं लागीं पंचवीसेक वर्सां तें विदेशांत रावतालें. ताचे सगळे सोयरे आनी इश्ट बेंगलोर आनी धारवाडांत आसात, आनी सगळ्या इश्टांक मेळप हो ताचो हे भेटेफाटलो हेत. ताचीं भुरगीं व्हड जाल्लीं आनी तांकां भारतांत येवपांत गोडी नाशिल्ली, पूण ताका मात जाय तितले दीस आपल्या देशांत रावपाचें स्वातंत्र्य आशिल्लें. घडये तें खूब तेंप पयस आशिल्ल्यान जावंये, आपलीं मुळां भारतांत आसात, हें ताका सामकें खरपणान जाणवतालें.

आपल्या आरोग्याविशीं सुमन खूब शादूर आशिल्लें. कुटुंबांत डायबिटिस आनी प्रेसांव आशिल्ल्यान आपलें वजन नियंत्रणात उरचें म्हूण सदांच तें यत्न करतालें. हांव अमेरिकेंत गेल्लें तेन्ना तागेर राविल्लें. ताची जगपाची तरा पळयली. तें कमी जेवता, व्यायाम करता, चलता आनी ध्यान करता. आपले तंदुरुस्तीखातीर ताका दिसाक सुमार चार वरां लागतात. आमी वांगडा शाळेंत शिकतालीं तेन्ना तें मातशें मोटें आशिल्लें आनी ताका गोड खाण खूब आवडटालें. आतां, तें चुकूनूच तांकां हात लायता. गोडाचो ताचो मोग खबर आशिल्ल्यान, ताणें ताचेपसून पयस रावपाखातीर कितलो यत्न केला आसतलो हें म्हाका कळटा. हें ताणें कशें केलें अशें एक फावट हांवें ताका विचारलें. दुखी जावन ताणें जाप दिली, 'कितलें कठीण आसा हें. पूण हांवें तें चालू दवरलां. केन्ना केन्ना म्हाका गोड खायन दिसता, म्हूण हांव घरांत तसलें कांयच दवरिना.'

जेन्ना सुमन म्हगेर राविल्लें, तेन्ना मदीं मदीं हांव ताचे वांगडा ताच्यो इश्टिणी आनी सोयऱ्यांगेर वतालें. भारतांत, सोयरो म्हळ्यार देव कसो. बऱ्यांतलें बरें तें सोयऱ्याखातीर दवरपाची परंपरा. सोयऱ्याक खुश करपाखातीर लोक कितेंय करतात. चड करून हें हांवें ल्हान ल्हान शारां आनी गांवांनी पळयलां.

एक फावट, हांव सुमनावांगडा आमची इश्टीण जयागेर गेलें. जयाची भलायकी बरी

ासताली, तरी लेगीत ताणें व्हडा कश्टांनी आमचेखातीर खूब कितें कितें खाणां केल्लीं. आमी भितर सरतांच, तें रांदचेकुडींत नाच्च जालें आनी कांय वेळान दोनूय हातांनी दोन उबे तांब्याचे पेले आनी मिठायेच्यो दोन प्लेटी घेवन भायर आयलें. ती सगळी घरा केल्ली पारंपारिक मिठाय आशिल्ली आनी तातूंतल्यान घसघशीत बरें तूप आनी साकर भायर सरिल्ली म्हाका दिसताली. जया व्हडा लक्तुबायेन आमकां तें दितालें आनी ना म्हणप सामकें जिवार आयिल्लें. अशा वेळार, दिलां तें सगळें सोयऱ्यान सोपोवचें अशी अपेक्षा आसता. खरें म्हळ्यार, खायनासतना सांडलें जाल्यार तो अपमान समजतात.

इतली सगळी मिठाय पळोवन सुमन सामकें अस्वस्थ जाल्लें. आपलें डायटिंग अशे तरेन सोडून दिवप ताका परवडपाचें नाशिल्लें. कितलीशींच वर्सां जें खाण पळयलेंच ना, ताचेपसून पयस रावप जरी सोपें आसलें, तरी जेन्ना तें फुड्यांत येता तेन्ना ताचो मोह जालेबगर रावना. मोह आनी जयाचो आग्रो हाका लागून सुमनान तें सगळें खालें. जेन्ना आमी तें सगळें सोपयलें, तेन्ना जया परत एक फावट मिठाय घेवन आयलें.

'हो पायस तुमी खावंकूच जाय,' आमचे सामखार शेकानशेक भरिल्ले अप्पली पायसाचे दोन वाडगे दवरीत ताणें म्हळें. 'हांवें हो फकत तुमचेखातीर केला आनी तो करपाक म्हजी सगळी दनपार गेल्या.'

हे फावट सुमन सामकें निबर रावलें आनी ताणें खऱ्यांनीच तें न्हयकारलें. म्हजें डायटिंग नाशिल्ल्यान, हांवें काळजांतल्यान आस्वाद घेयत म्हजो वाडगो सोंपयलो. खऱ्यांनीच पायस खूब रुचीक आशिल्लो. सुमनान पायस न्हयकारलो म्हूण जया सामकें अस्वस्थ जालें.

'अशें कितें सुमन, उपकार करून खा तो. आमी कितें तुमचेइतलीं गिरेस्त न्हय, पूण हांवें खूब मोगान केला तो. अमेरिकेंत तुका तो केन्नाच मेळचो ना. आतां भारतांत आसतना तुवें तुजें डायटिंग विसरपाक जाय. परतें घरा गेलें काय कर चालू.'

इतले म्हणसर सुमनाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ताची परिस्थिती पळोवन हांवें जयाक म्हळें, 'चड आग्रो करूं नाका. तुवें सगळें व्हडा लक्तुबायेन केलां, पूण ताणें कितें खावप हें ताकाच थारावंदी.'

हांव सुमनाची कड घेवन उलयलें म्हूण जयाक दूख जालें. 'हो जिवाक सामको बरो. तुज्या आज्याक हांव वळखतालें सुमन, आनी ताका हो पायस खूब आवडटालो. तो म्हज्या आज्याचो इश्ट आनी ताका हांव बरें वळखतालें. जरी तो सगळें खातालो,

मिठाय लेगीत, आनी आयुश्यांत केन्नाच डायटिंग केलें ना तरी तो सामको बडी कस शिडशिडीत आशिल्लो.'
'हें खरें. पूण म्हजो आजो गांवांत रावतालो आनी शेतांत काम करतालो. तो सदां धा मैल चलतालो. ताकाच लागून तो जें खातालो त्यो सगळ्यो कॅलरीज ना जाव वताल्यो. म्हजी आजी जाणटेपणांत लेगीत बांयचेर वचून उदक काडटाली. तांचे जीण वेगळेच तरेची आशिल्ली, आमची जीण पुरायेन बदलल्या. उपकार करू समजून घे.'
जयागेली आमची भेट अशेतरेन दुखेस्त रितीन सोंपली. जेन्ना सुमन हेर घरांनीय भेट दिवंक वतालें, तेन्ना हें अशेंच घडटालें. ताचे हांगाचे दीस सोंपले, तेन्ना सुमनान म्हाका वजनकांटो दाखयलो. ताचें वजन पांच किलांनी वाडिल्लें. भारत सोडटा आसतना खोशयेच्यो यादी घेवन वचचे बदला तें ताच्या आरोग्याचेर कितलो परिणाम जातलो ही चिंता घेवन गेलें.
निरोप घेता आसतनाच्या ताच्या उतरांनी म्हाका विचारांत घालें. ताणें म्हळें, 'सरबराय म्हळ्यार पुश्टीक आनी खूब खावंक दिवप न्हय हें लोकांक समजना. ज्या घरांक हांवें भेट दिली, ते सगळे लोक हांवें खूब खावंक ना देखून अस्वस्थ जाले. तांचेखातीर ती रीत-रवीस, पूण म्हजेखातीर तें वीख कशें. जेन्ना हांव दिल्लीक गेल्लें, तेन्ना थंय हांव एका लग्नाक गेलें. थंय तांणी साकर नाशिल्ल्या खाणाजेवणाचो एक वेगळो विभाग दवरिल्लो. दुसऱ्याचो कितलो मान राखपी येजमान हो अशें म्हाका दिसलें. हालीं जण एकलो आपल्या आरोग्याविशीं शादूर रावता आनी बरें खाण खावंक सोदता. म्हजे खातीर कांय खाण म्हळ्यार मोन्यांनी मारून उडोवपी आनी हांवें तें पयस दवरपाक जाय. म्हज्या इश्टिणींनी हें समजून घेवंक जाय आशिल्लें अशें म्हाका दिसता.'
सुमनाचें आयकलें आनी म्हाका वायट दिसलें. ताचें खरें आशिल्लें. सरबराय म्हळ्यार मनशाक आपल्या घराच आसा अशें दिसूंक जाय, ताका सुशेग दिवंक जाय आनी ताका त्रास करिनासतना जें आसा तें ताका दिवंक जाय. पूण आमी हें विसरल्यात अशें दिसता. आमचेखातीर सरबराय म्हळ्यार खूब जेवण करप आनी सोयऱ्यांचें ताट उपाट भरून उडोवप. आनी जर तिणें न्हयकारलें, जाल्यार आमकां राग येता आनी आमी आमकां जाय ते निष्कर्ष काडून मेकळे जातात.
जेन्ना हांवें सुमनाक निरोप दिवपाक हात हालयलो, तेन्ना हांवें इतलेंच मागलें की भारतीय सरबराय म्हळ्यार फकत मिठायांनी भरिल्ल्या ताटाची याद जावची न्हय.

# सदांच इश्ट

राधा आनी रोहिणी तांच्या कॉलेजीच्या दिसांतल्यो म्हज्यो विद्यार्थिनी. त्यो दोगीय वेगळांव नज अश्यो इश्टिणी आनी शाळेच्या पयल्या वर्सासावन वांगडाच शिकपी अशें म्हाका कळिल्लें. एकामेकांक इतल्यो लागीं आशिल्ल्यो इश्टिणी हांवें चुकुनूच पळयल्ल्यो. दोगांय क्लासांत बरोबर, प्रयोगशाळेंत बरोबर आसतालीं आनी जेन्ना हांवें प्रयोगशाळेंत तांणी दोगांयनी वेगळे वांगडी घेवंचे अशें सुचयलें तेन्ना तीं दोगांय काचाबूल जालीं. दर एका सेमिस्टरांत भुरग्यांनीं आपलो प्रयोगशाळा वांगडी बदलचो कारण तांकां वेगवेगळे तरेच्या लोकांबरोबर काम करपाची संद मेळटा अशें म्हाका दिसतालें.

दोगांयमदीं रोहिणी शांत आशिल्लें. ताच्या आंगांत खूब गूण आशिल्ले. तें सोबीत बरें पेंटींग आनी भरतकाम करतालें. जायते फावट तें आपल्याक आनी राधाक एकेच तरेचे कपडे शिवतालें. लोकांक दिसतालें दोगांय भयणी म्हूण. तांच्या दोगांयमदीं इतली समजिकाय आशिल्ली कीं तांकां केन्नाच आनीक कोणाकडेन इश्टागत करपाची गरज नाशिल्ली. हांव तांकां सदांच एकठांय पळयतालें आनी फुडें जिणेंत लग्न बी जातकच तांचें कितें जातलें काय असो विचार करतालें. मागीर राधाचें पयलीं लग्न जालें, सिव्हील इंजिनियर रमेशाकडेन आनी तें दिल्लीक गेलें. रोहिणी मॅकॅनिकल इंजिनियर सुरेशाकडेन लग्न जावन बेंगलोरांतूच घर घेवन रावपाक लागलें. हांव ताका केन्ना केन्ना पळयतालें आनी राधाविशीं विचारतालें. अशेच दीस गेले आनी दोगांयगेर भुरगीं जालीं.

मजगतीं, फावंडेशनाच्या कामांत हांव चड चड घुस्पलें. हें काम करतना, हांव शाराभायर एक अनाथालय बांदपाचो विचार करतालें. म्हजेकडेन पैशे उणे आशिल्ल्यान हांव सवाय भितर पूण बरे तरेन कोणूय काम करीत काय म्हूण सोदतालें.

सवाय खाण पोट फुगरें हें रोकडेंच म्हाका कळून आयलें.
एक दीस, सुमार तीसेक वर्सांचो मनीस म्हाका मेळपाक आयलो. ताणें ह्या कामाखातीर म्हाका एक अप्रतीम कोटेशन दिलें. ताणें एक व्यवस्थीत प्रोपोजल तयार केल्लें. म्हजेर ताची छाप पडली. हांवें ताका विचारलें, 'तुवें दाखयल्ल्या दरान तूं हें काम कशें करतलो? तुका नुकसान जावंचें ना?'
तो हांसलो आनी जाप दिली, 'मॅडम, म्हाका हें काम करपाचें आसा. हो धंदो म्हूण न्हय. हातूंतल्यान म्हाका कांयच फायदो नाका.'
हें आयकून म्हाका खोस जाली आनी हांवें म्हळें, 'तरनाटे अशे तरेच्या समाजीक प्रकल्पांनी वांटो घेतात हें पळोवंक बरें दिसता. म्हणजे तुमीय परोपकारी तर?'
आतां तो व्हडान हांसलो आनी जाप दिली, 'खरें म्हळ्यार म्हज्या एका खूब लागींच्या मनशाक हांवें हें काम केल्लें जाय. तुमकां ताची याद आसा काय ना हांव नकळ. पूण तें मात जायते फावट तुमचेविशीं उलयत आसता. ताचें नांव राधा. ती म्हजी बायल.' आतां म्हाका सगळें सारकें समजलें. ताच्या राधा कन्स्ट्रक्शन्स ह्या नांवाचोय अर्थ लागलो.
'राधाक हांव वळखतां. पूण म्हाका दिसलें तुमी दिल्लींत आसात! हांगा रावपाक आयल्यात तुमी?'
'नोकरी सोडून हांवें दिल्लींत म्हजी स्वताची कन्स्ट्रक्शन कंपनी सुरू केली. बरी चल्ल्या ती. हालींच आमी हांगा आयल्यांत कारण म्हाका बेंगलोरांत म्हजो धंदो वाडोवपाचो आसा. राधा बेंगलोरांतलेंच आशिल्ल्यान, ताकाय हांगा येवन कांय वर्सां रावपाचें आशिल्लें. हांगा आयल्या उपरांत ताणें पेपरांत तुमच्या कामाविशीं आनी तुमी बांदपाक सोदतात त्या ह्या अनाथालयाविशीं वाचलें. रोकडेंच ताणें म्हाका एक प्रोपोजल तयार करून तुमकां मेळपाक सांगलें. तुमी जाणात, म्हजो असो विश्वास आसा कीं लग्नाउपरांत राधा म्हजेखातीर खूब बरें नशीब घेवन आयलां. ताका ना म्हणप म्हाका शक्यच ना.'
ताची ही खबर आयकून म्हाका खूब खोस जाली, चड करून ताणें आपल्या यशाचें श्रेय म्हजे आदले विद्यार्थिनीक दिलें म्हूण. 'म्हाका येवन मेळ म्हूण तूं सांगशीत ताका?' इल्लोय फायदो घेनासतना आपल्या घोवाक हें काम करूंक सांगलें म्हूण मनांतल्या मनांत हांवें ताका आशिर्वाद दिलो.
दुसऱ्याच दिसा राधा म्हाका मेळपाक आयलें. आतां तें बरेंच जाणटें दिसूंक लागिल्लें. ताच्या चेऱ्यावयली खोस पळोवन म्हाका बरें दिसलें. जिणेंत बरो समाधानी आशिल्लो

आपलो आदलो विद्यार्थी मेळप हाचेपरस शिक्षकाक दुसरी व्हड खोस ना. साहजीक, रोहिणीचें नांव उलोवपांत आयलेंच. 'मागीर आतांय तुमी सारक्योच साड्यो न्हेसतात? तुमच्या वयाचीं आसतना तुमी आशिल्लीं तशीं तुमचीं भुरगींय घट इश्ट आसात?'

अजाप म्हळ्यार, राधा वग्गी रावलें. मागीर ताणें म्हळें, 'कित्याक तें हांव नकळ पूण रोहिणी खूब बदललां. खरें सांगूं, म्हाका बेंगलोरांत येवपाचें आशिल्लें तें ताचेयखातीर. तें म्हजी भयण कशेंच आशिल्लें. आनी हांव जाणा की ताकाय म्हजेविशीं तशेंच दिसतालें. पूण कित्याक लागून कोण जाणा, सगळेंच बदललां. आमची इश्टागत आदलेवरी ना आतां.'

ताची गजाल आयकून अजापान, हांवें राधाक फुडें कितें काय विचारलें. ताणें म्हळें, 'रोहिणी खूब बदललां. जेन्ना जेन्ना हांव ताका मेळपाक वतां तेन्ना तें खूब नमळायेन वागता, पूण ती आदली ऊब शेणल्या. आदले इश्टिणीकडेन उलोवचें तशें न्हय तर परक्याकडेन उलोवचें तशें तें उलयता म्हजेकडेन. कारण सोदून काडपाचो यत्न करीत आसा हांव, पूण आजून तरी म्हाका कांय यश मेळुंना.'

कांय वेळ उलोवन, राधा आपल्या घरा गेलें. रोहिणीकडेन उलोवपाक जाय अशें म्हाका दिसलें. तांची शिक्षिका आशिल्ल्यान म्हाका तीं आजूनय म्हजे विद्यार्थी कशीं दिसतालीं. आपले विद्यार्थी सदांच आपलें आयकतले अशा भ्रमांत शिक्षक आसतात. हांवें रोहिणीक आपोवणें धाडलें. तें म्हज्या ऑफिसांत म्हाका मेळपाक आयलें. हांव ताका कितल्याश्याच म्हयन्यांउपरांत पळयतालें आनी ताका पळोवन म्हाका सामकें अजाप जालें. ताच्या तोंडार चिंता दिसताली आनी तें खूब थकिल्लें.

हांवें उमेदीन ताचेकडेन उलोवपाचो यत्न केलो, 'मागीर सध्या कितें पेंटिंग केलां रोहिणी? तुका याद जाता तूं सदांच म्हाका भरतकाम करपाक एक साडी दी म्हूण फाटीक लागतालें? कालूच राधान म्हाका एक प्लेन साडी दिल्या. ताचेर कितेंय करशी तूं?'

रोहिणीन थंडपणान जाप केली, 'ना मॅडम. तें सगळें हांवें बंद केलां.'

'तुजें कितें जालां रोहिणी? तूं खूब चिंतेंत दिसता. राधाकडल्यान म्हाका कळ्ळें की तुजी ताचेकडेन इश्टागत ना म्हूण? ताणें तुका दुखयलां बी?'

'तशें कांय ना. राधाचे आनी म्हजे अर्थीक परिस्थितींत आतां खूब फरक आसा. ताच्या घोवाचें बरें चल्लां, जाल्यार आमचेमुखार कितलेशेच अर्थीक प्रस्न आसात. वेगवेगळ्या स्तरावयल्या मनशांची इश्टागत जिवाभावाची जावं येता अशें म्हाका





दिसना. राधा आतां गिरेस्त आशिल्ल्यान ताका म्हजी काकूट येता.'
'अशें कित्याक म्हणटा तूं? ताणें तुका कितें म्हळां?'
'जेन्ना जेन्ना तें येता तेन्ना म्हजे धुवेखातीर म्हारग खेळणीं घेवन येता आनी म्हाका उंची रेशमी साडी. ताका खबर आसा म्हाका अशें दिवप घेवप शक्य ना. घडये तें म्हजी काकूट करता आनी ताचे बराबर म्हाका मेकळेपण अशें दिसना. देखून हांवें आमचे दोगांयमदीं अंतर दवरपाचो यत्न केला.'
आतां म्हाका कळ्ळें. राधाक हें कांयच खबर नाशिल्लें. थंडपणान हांवें रोहिणीक समजायलें, 'हें पळय. खरे इश्टागतींत स्तराचो प्रस्न येना. तुमी जशी मानतात तशी परिस्थिती जाता. राधान तुजे चलयेक सवाय खेळणीं दिल्लीं जाल्यार तुका दिसपाचें तूं गरीब म्हूण तें तशें करता. हें अशें राधा करिना, तूं तेविशीं अशे तरेन चिंतता. कृष्ण आनी सुदामा हांचे इश्टागतीविशीं तुवें वाचलां आसतलें. एक गरीब आनी दुसरो राजा आशिल्लो, तरी लेगीत तांणी आपली इश्टागत जिवी दवरली. राधाक जें तांकता तें तुका दिता आनी तुवेंय तुजे परीन जाता तें ताका दिवपाचो यत्न करूं येता. तें म्हारग आसूंक जाय अशें ना. तुजेकडेन इतली कला आसा. तुज्यान ताका एकाद्रें पेंटिंग वा ताचे चलयेक एक ड्रेस शिंवून दिवं येता. तूं जें दिता ताचेफाटल्यो भावना म्हत्वाच्यो आसतात, किंमत न्हय. न्यूनगंडाक लागून तुमची इतल्या वर्सांची इश्टागत सोपोवं नाका. राधाक एक संद दी. हांवें खंयतरी वाचिल्ली एक लक्ष ओडून घेवपी वळ सांगूं तुका?'
म्हजें उलोवप शांतपणान आयकुपी रोहिणीन तकली हालयली.
'हांव नातलगांसयत जल्माक आयिल्लों, पूण निदान हांव म्हजे इश्ट तरी वेंचूंक शकतां!'
आमी दोगांय व्हडान हांसलीं. रोहिणी खोशयेन घरा वचपाक गेलें आनी कांय दिसांउपरांत म्हाका नाजूक भरतकाम केल्ली एक सोबीत साडी मेळ्ळी. कार्डाचेर बरयल्लें, 'राधा आनी रोहिणीकडल्यान.'

***

# आदर्श जीण

कांय वर्सां आर्दी, हांव जे कंपनीत काम करतालें थंय एका प्रकल्पाचें मुखेली आशिल्लें. म्हज्या पंगडांत चडश्यो लग्न जाल्ल्यो आनी पिराय आनी फाटभूंय सादारण एकूच आशिल्ल्यो बायलो आशिल्ल्यो. आमकां बसपाक एक व्हड हॉल दिल्लो. म्हजेखातीर हारशाचें पार्टिशन आशिल्लें एक केबीन आनी हेर सगळीं भायर. जेवणाचे सुटयेंत सगळ्यो बायलो भायर बसून खबरो करताल्यो. म्हज्या केबिनांतल्यान तांचो आवाज आयकूंक येतालो आनी तांच्या घरच्यो सगळ्यो गजाली म्हाका आयकूंक मेळटाल्यो.

एक नीता सोडलें जाल्यार हेर सगळ्यो बायलो खूब उलोवपी. सगळ्यो बायलो आपले घोव आनी घरच्यांविशीं कागाळ करताल्यो तेन्ना नीता एकलेंच आपल्या घरच्यांविशीं बरें सकारात्मक उलयतालें.

नीला जेन्ना आपले मांयची कागाळ करतालें तेन्ना नीता म्हणटालें, 'म्हजी मांय म्हजे आवयवरी.' मागीर कुसुमा म्हणटालें, 'म्हजी नणंद म्हजेर इतली जळटा.' आनी नीताचो आवाज कानार पडटालो, 'म्हजी नणंद सामकी अपरुपाची. आमी भयणी कश्यो सगळें वांट्टात.' गीताच्या घोवाक रोकडोच राग येतालो आनी इल्लेंशें कितेंय जाल्यार ताका राग कसो येता हें तें सांगतालें. पूण नीता म्हणटालें ताका घोवापरस चड बेगीन राग येता आनी घोव मात चुकून केन्नाय रागार जाता.

एक दीस नीता एक सोबीत बरी गुलाबी साडी न्हेसून ऑफिसांत आयलें. सगळ्यांनी साडयेची तोखणाय केली आनी हांवें विचारलें, 'खंय घेतली साडी? आयज तुजो जल्मदीस बी?' नीता लजलें आनी जाप दिली, 'हय मॅडम, म्हज्या घोवाकडल्यान वाडदिसाची भेट ती.

आनी अशे तरेन आमी सदांच ताच्या आदर्श कुटुंबाच्यो खबरी आयकतालीं. हेर सगळ्या बायलांच्यो सदच्योच थारिल्ल्यो कागाळी आसताल्यो; कशे तरेन तांकां

ऑफिस आनी घरच्यो जापसालदारक्यो सांबाळच्यो पडटात, घोव आन
हेरांकडल्यान कसो आदार मेळना; नीता मात आपलो मांव कसो भुरग्यांचो अभ्या
घेवपाक आदार करता आनी घोव कसो रांदचेकुडींत मजत करता तें सांगतालें.

नीता भाग्यवान हाचेर सगळ्यांचें एकमत जाल्लें, घडये जगांतलें आठवें अजाप लेगीत
कवयित्री, सावित्रीन म्हळें, 'चंद्रांत लेगीत कितें पूण उणें आसा, पूण न्हय नीताच्य
कुटुंबांत – तातूंत कसलोच उणाव ना!'

ते हांसपाचे फकाणां मारपाचे दीस सोंपले आनी ल्हवू ल्हवू पंगड फाफसलो. जण
एकलो आपले वाटेन गेलो. कांय वर्सां उपरांत, म्हाका नीताचो फोन आयलो. कांय
खीण हांव घुसपलें पूण मागीर ताच्यो काणयो म्हाका याद जाल्यो. तें सौभाग्यवती
आदर्श! तें फोनार गोड उलयलें आनी ताच्या आवाजांत हुसको आसा अशें म्हाका
दिसलें. तें एक दीस म्हाका येवन मेळपाक सोदतालें आनी हांवें ताका यो म्हूण
सांगलें.

ताणें म्हज्या ऑफिसांत पावल दवरलें, तेन्ना हांव ताची अवतीकाय पळोवन सामकें
अजापलें. ताच्यो इश्टिणी जुवानपणातल्यांन ल्हवू – ल्हवू जाणटेपणाकडेन गेल्ल्यो
जाल्यार नीतान सोमतीच जाणटेपणांत हुडकी माल्ल्या अशें दिसतालें. तें अशक्त
दिसतालें. ताचे केंस पिकिल्ले. कांय वेळ आमी आमच्या पंगडांतल्या आदल्या
लोकांविशीं उलयलीं, पूण तीं आतां खंय आसात हाची ताका कल्पना नाशिल्ली. हांवें
ताका सांगलें, नीला, जें मांयकडेन सदांच झगडटालें तें घोवावांगडा घर सोडून गेल्लें,
ताका निमाणें परत येवन दुयेंत मांयक पळोवंची पडिल्ली. कुसुमान आपल्याचेर जळपी
नण्डेक गरजेवेळार मजत केल्ली आनी गीताचो घोव आतां जाणटेपणांत मनकवडो
आनी उल्हासीत मनीस जाल्लो.

ह्या चडश्या सगळ्या लोकांखातीर जीण एक वाटकुळेंच चक्र कशी घुंविल्ली.
पिरायेवांगडा येवपी आव्हानां आनी जापसालदारक्यो तांणी घेतिल्ल्यो आनी धैर्यान
तांकां फुडो केल्लो. मागीर हांवें नीताक विचारलें, 'तूं कशें आसा आतां? ह्या सगळ्या
लोकांवरी तुका कांयच अडचणी नाशिल्ल्यो.'

म्हज्या ह्या उतरांचेर तें आनिकूय खंती जालें आनी ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.
'मॅडम, म्हजे मुखार जे प्रस्न आसात ते तुमकां खबर ना.'
'तुका आनी प्रस्न, नीता?'
'हय मॅडम. म्हाका डिप्रेशन आयलां आनी म्हाका मानसोपचार तज्ञाकडेन वचचें
पडटा.'

तातूंत कांयच चूक ना नीता. तुज्या दुयेंसाचेर तूं दोतोराची मजत घेता हें बरें. हेर ब्रयच्याय दुयेंसाखातीर दोतोराकडेन वतात तशेंच हें. तातूंत हुसको करपासारकें कांयच ना.'

'मॅडम, हांव इतलो तेप डिप्रेशनांत आसा कीं दोतोर म्हण्टा ज्या मनशाक हांव वळखतां आनी मानतां अशा कोणाक तरी हांवें हें सगळें सांगपाक जाय. घडये ताचो म्हाका उपेग जायत. म्हूण हांव तुमकां मेळपाक आयलें.'

'तुका म्हजी याद आयली म्हूण म्हाका खूब खोस जाली नीता. पूण तूं इतलें डिप्रेस्ड कित्याक? तुजें कुटूंब तर कितलें बरें आशिल्लें.'

'म्हाका सदांच कितल्योश्योच अडचणी आशिल्ल्यो. पूण हांव केन्नाच तांचेविशीं उलोवंक शकलें ना. म्हजी मांय आनी नणंद नीला आनी कुसुमाचे मांय आनी नण्डेपरस चड वायट आशिल्ल्यो. म्हजो घोव वादावेळार सदांच तांची बाजू घेतालो. हांव खूप त्रासांत आशिल्लें. जेन्ना म्हज्यो इश्टिणी आपल्या कुटुंबाविशीं उलयताल्यो, तेन्ना म्हाका सदांच म्हजीय काणी सांगची अशें दिसतालें, पूण म्हजे आवयन म्हाका सांगिल्लें, की हांवें भायर घरच्यांविशीं केन्नाच वायट उलोवंक जायना. ती म्हणटाली हांवें सदांच म्हज्या भावनांचेर ताबो दवरूंक जाय आनी घरा कितेंय जालें तरी भायर हांसतें मुखामळ घेवन वचपाक जाय. हाका लागून हांव सदांच सुखी आसा अशें दाखयतालें. मनमेकळें आसप म्हळ्यार आपलें दुबळेपण दाखोवन दिवप अशें म्हाका दिसतालें.'

ताचीं उतरां आयकून हांव तटास जालें. मनमेकळें आसप हो एक सद्गूण अशें हांव सदांच मानतालें. संवसारांत म्हजे भोंवतणी आशिल्ल्यांचे त्रास पळोवन मागीर हेरांच्या प्रस्नांची म्हज्या प्रस्नांकडेन तुळा करून पळोवप अशें म्हाका शिकयल्लें. जेन्ना हांव खंती जातालें तेन्ना म्हाका मेळिल्ले आशिर्वाद याद करतालें आनी म्हज्या वायट दिसांनीच फुडें वचत रावतालें.

मजगतीं नीता अजुनूय आपलें काळीज उक्तें करतालें. 'हांव एक दीस न्हेशिल्लें आनी सगळ्यांनी तोखेल्ली ती गुलाबी साडी याद आसा तुमकां? तुमी लेगीत विचारिल्लें ती खंयच्यान हाडली म्हूण. म्हज्या घोवान वाडदिसाक ती दिल्ली म्हूण फट मारिल्ली हांवें. म्हज्या वाडदिसांक ताणें केन्नाच कांयच दिवंक ना. म्हज्या भुरग्यांचो अभ्यास घेवपाक वा म्हाका रांदपाक कोणेंच केन्नाच मजत केली ना. सगळें करपाक हांव एकलेंच धडपडटालें. म्हजी जीण म्हज्या वांगड्यांचे जिणेपरस वेगळी नाशिल्ली पूण तांकां निदान उक्तेपणान सगळ्यांमुखार उलोवपाचें स्वातंत्र्य तरी आशिल्लें. हांव मात

म्हजी जीण कशी आदर्श हें दाखोवपांत गुल्ल उरलें.'
'ताचो कांय फायदो जालो ना हें आतां तुका कळ्ळां न्हय, आतां फाटलें विसर आनी सुखी जावपाचो यत्न कर.'
'कांयच फुकट येना. म्हजे जिणेंत देखावो करपाखातीर म्हाका खूब फारीक करचें पडलें. म्हाका परते परते डिप्रेशनाचे झटके येवपाक लागले. हांवें हें सगळें कांय लोकांक सांगपाचो यत्न केलो पूण तांणी म्हाका समजून घेतलें ना आनी म्हजेविशीं नाका आशिल्लें उलोवपाक लागले. म्हाका दिसता हांव आयज तुमचेकडेन कित्याक आयलां आनी सत्य कित्याक उलयलां हें तुमकां कळ्ळां आसतलें.'
नीताचो हात म्हज्या हातांत घेवन हांवें म्हळें, 'जण एकल्याचें गुपीत आसता. आमचेकडेन दोश आसतात आनी आमी ते लिपोवंक सोदतात. पूण जेन्ना आमी स्वताच ते दोश समजून घेवंक शकनात आनी आमी जे ना तेंच दाखोवपाचो यत्न करतात तेन्ना प्रस्न उप्रासतात. मोर नाचता तेन्ना सोबीत दिसता पूण तो गावंक शकना. कोगूळ काळोच आसता पूण ताचो आवाज भांगराळो. म्हूण कोगळान केन्नाच नाचूंक जायना आनी मोरान गावपाचो यत्न करूंक जायना. आमच्यो अडचणी आनी अपेस जेन्ना आमी समजून घेतलीं आनी बरे चलणुकेच्या नेटार ताचेर जैत जोडपाचो यत्न करतलीं तेन्नाच आमी सुखान जीण जगूंक शकतलीं.'

***

# शंबर टक्के फुकट

इन्फोसिस फावंडेशनांत, आमकां सदांच – उंचेलें शिक्षण, लग्न, वैजकी मजत आनी हेर सगळे तरेच्या कामांखातीर अर्थीक मजत मागपी शेंकड्यांनी पत्रां येतात. सादारणपणान आमी पयलीं मागणेचें खरेपण तपासपाचो यत्न करतात आनी मागीर त्या मनशाच्या गरजेच्या साठ वा अंयशीं टक्के मजत दितात. एक फावट म्हाका एका मनशाकडल्यान एक पत्र आयलें जाका हांवें कांय पैशे दिवपाचें मान्य केल्लें. ताणें बरयल्लें, 'तुमी सामक्यो कठोर काळजाच्यो. हांवें मागल्यात तितले सगळे पैशे तुमी म्हाका कित्याक दिवंक शकनात?' हांव हें अशें करतां कारण जिणेंतल्या दोन घडणुकांनी म्हाका शिकयलां कीं जाःयते फावट मनशाक इल्ली धडपड करपाक लावंक जाय. हाका लागून चड श्रम करपाक प्रोत्साहन मेळटा. फुकट दिल्ले खंयचेच वस्तूक किंमत नासता आनी फाव तो आदरूय नासता.

कांय वर्सां आदीं, जेन्ना हांवें म्हज्या ऑफिसाच्या जनेलांतल्यान भायर पळयलें, तेन्ना म्हाका सुमार चौदा वर्सां पिरायेचो एक भुरगो ट्रॅफिक सिग्नलाकडेन शामलादोर विकतना दिसलो. तो बडी कसो बारीक आशिल्लो आनी आंगार पिंजिल्ले कपडे. ताचे परिस्थितीची तुळा हांव बरे कपडे घालून, शाळेचें बॅग आनी पुस्तकां घेवन स्कूल बशींनी बशिल्ल्या भुरग्यांकडेन करतालें आनी त्या भुरग्याक ह्या सगळ्यापासून वंचीत रावचें पडटा म्हूण खंती जातालें. एक दीस, हाचेर कितेंतरी करचें अशें थारायलें आनी हांवें त्या भुरग्याक म्हज्या ऑफिसांत आपयलो. तो भियेवन आनी फाटी फुडें जायत भितर सरलो. ताका मेकळेपण दिसचें म्हूण हांवें ताका कॉफी आनी बिस्किटी दिल्यो. सुरवेक खावपाक खांकुडिल्ले वरी जालो तो. पूण मागीर, मातसो धीट जालो आनी कॉफी पियेवन जातकच ताणें म्हज्या प्रस्नांक जापो दिल्यो.

ताचें नांव रवी, ताचो बापूय हमाली करतालो आनी आंवय कोणागेर वावराडी म्हूण काम करताली. तो थळावे शाळेंत शिकतालो आनी शिकपाक थोडे पैशे मेळचे म्हूण

सकाळच्या वेळार गाडी पुसपाचे शामलादोर विकतालो.
हांवें विचारलें, 'दर म्हयन्याक तुका कितले पैशे मेळटात ?'
ताणें म्हळें, 'सुमार तीस ते चाळीस रुपया.'
'तुजें प्रोग्रेस कार्ड म्हाका दाखयशी ?'
दुसरे दिसा तो आपलें प्रोग्रेस कार्ड घेवन आयलो. तो शाळेंत बरो शिकतालो आनी खरेपणान एक हुशार भुरगो आशिल्लो. म्हूण हांवें म्हळें, 'समज हांवें तुका म्हयन्याक पन्नास रुपया दिले, जाल्यार तुका सकाळीं शामलादोर विकपाची गरज पडची ना. तू त्या वेळार गृहपाठ करूंक शकतलो वा हेर कितें शिकूंक शकतलो.' ह्या प्रस्तावाचेर भुरगो अजापलो आनी अविस्वासाचे नदरेन म्हजेकडेन पळोवंक लागलो. हांवें म्हळें, 'म्हळ्यार अशें समज हांव तुजे सगळे शामलादोर विकते घेतां आनी तुका इल्ले पैशे सुबेज दितां. हाचो अर्थ तूं पन्नास रुपया जोडटा. फुडें शिकपाखातीर वापर ते. पूण दर तीन म्हयन्यांनी पैशे दिवंचे पयलीं हांव तुजें प्रोग्रेस कार्ड पळयतलें.' आतां ताका कळ्ळें आनी म्हजो प्रस्ताव मान्य करून तोंडार खूब खोस घेवन तो गेलो.
ते उपरांत दर तीन म्हयन्यांनी तो आपलें प्रोग्रेस कार्ड घेवन म्हज्या ऑफिसांत येतालो आनी तें दाखोवन पैशे घेवन वतालो. तो शाळेंत बरो शिकता हें ताच्या कार्डावयल्यान समजतालें. एक दीस, ताणें आपल्याक म्हजेकडेन उलोवपाचें आसा म्हूण सांगलें. एक स्मार्ट, आत्मविस्वास आशिल्लो तरनाटो भुरगो म्हजे मुखार पळोवन म्हाका खोस जाली. तो सोमतोच मुद्द्यार आयलो, 'मॅडम, आतां म्हजो स्टायपेंड म्हयन्याक शंबर रुपया जावंक जाय.'
'अशें कित्याक म्हणटा तूं ?'
'मॅडम, दोन वर्सांपयलीं एक शामलादोर दोन रुपया आशिल्लो. आतां तो चार रुपया जाला. म्हूण तुमी म्हाका म्हयन्याक शंबर रुपया दिवंक जाय.'
हांवें अजापान ताचेकडेन पळयलें. हाचो अर्थ तो दर म्हयन्याक म्हजेकडल्यान मेळटात ते पैशे म्हळ्यार आपलें येणें अशें मानतालो आनी चड जोडपाखातीर आपणें कश्ट करूंक जाय अशें ताका दिसनासलें.
ते उपरांत रोकडेंच आनीक एके घडणुकेन म्हाका दाखोवन दिलें की जंय पैशांची मजत करपाची आसता थंय हांवें तातूंतलो कांय वांटोच दिवपाची पॉलिसी आपणावंक जाय.
म्हाका ॲटलासांची खूब आवड. जेन्ना हांव खेड्यांत वाडटालें, तेन्ना ॲटलास मेळप कठीण आशिल्लें. म्हूण जेन्ना हांवें फावंडेशन सुरू केलें तेन्ना शाळांच्या वाचनालयांनी

फुकट ॲटलास वांटपाचें थारायलें. तातूंतल्यान भुरगीं देश आनी संवसार पळोवंक आनी आपूण रावतात त्या ग्रहाचो आकार शिकूंक पावतलीं. धर्तरेवयले विविधतायेक पळोवपाखातीर भुरग्यांक हो एक बेस बरो मार्ग अशें म्हाका दिसलें. उपरांत, शिक्षक म्हज्या ऑफिसांत येवन तांच्या शाळांखातीर ते फुकट व्हरताले.

एक दीस कामानिमतान हांव कर्नाटकांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांत कांय वेळ आशिल्लें. तिनसांज जाल्ली आनी दिसभर चरून गोरवां घरा येतालीं. सगळेकडेन धुल्लच धुल्ल आशिल्लो. तेन्नाच म्हाका ताज्या भिकणांचो वास आयलो. एके थळावे शाळेमुखार एक मनीस ताज्या काडिल्ल्या भिकणांची रास घेवन बशिल्लो. सामकें रावूं नज जालें आनी हांवें ताचेम्हऱ्यांत वचून किलाचो दर विचारलो. थंयच्यान वचपी गिरायकांक सरळ आपलो म्हाल विकपी तो एक शेतकार आशिल्लो.

ताणें एक कील जोखलीं आनी तीं म्हाका दिलीं. 'हीं घे आनी पोतयेंत घाल,' ताणें म्हळें. म्हजेकडेन पोती नाशिल्ली, म्हूण हांवें ताकाच खंयच्यान तरी एक हाडपाक सांगली. ताणें एक मिनिट चिंतलें आनी आपल्या वांगड्याकडेन वळून म्हळें, 'धांवत शाळेंत वच, आजून वर्ग उकते आसतले. थंय एक व्हडलें तांबडें पुस्तक आसतलें, दाट पानांचें. तातूंतलें एक पान पिंजून घेवन यो.' हांवें कितें म्हणचेपयलींच भुरगो धांवत शाळेंत गेलो. रोकडोच हातांत एक रंगीत पान घेवन तो परतो आयलो आनी म्हर्जी किलभर भिकणां तातूंत घालून म्हजेकडेन पावलीं. हांवें बारीकसाणीन पळयें तेन्ना म्हाका कांय म्हयन्यांफाटीं हांवें दिल्ल्या ॲटलासाचें तें एक पान म्हूण कळ्ळें. म्हाका अजापाचो धक्को बसलो.

'त्या पुस्तकाचें पान तुमी कित्याक पिंजलें?' हांवें विचारलें. मनशान जाप केली, 'एके बायलेन शाळेखातीर हें पुस्तक फुकट दिलां. पानां बरीं आनी दाट आसात, म्हूण केन्नाय आमी तीं अशें कितेंय बांदपाक वापरतात.'

मागीर म्हजें धक्को बशिल्लें तोंड पळोवन समजावपाच्या उतरांनी ताणें म्हळें, 'आमकां सामकी गडबड आसता तेन्नाच आमी अशें करतात, हरशीं न्हय.'

खंतीन हांवें म्हज्या हातांतल्या भिकणांकडेन पळयलें. त्या मंद उजवाडांत लेगीत, आमच्या फावंडेशनाचो शिक्को हांव सोदूंक शकतलें हाची म्हाका खात्री आशिल्ली.

***

# गरिबीचे दोन तोंडावळे

लीला म्हज्या ऑफिसांत जायतीं वर्सां काम करता. तें सान्न मारता, झाडटा आनी
जमीन पुसता. तें आपलें काम मोन्यांनी करता आनी कसलेंय चडावत काम सांगल्या
कसलीच कागाळ करिनासतना करता. तें सदांच वोग्गी आनी हांव सदांच कामां
आशिल्ल्यान, ताच्या घोवान ताका सोडलां आनी तें आपल्या तीन चलयांव
एकलेंच सांबाळटा ही गजाल सोडल्यार ताचे जिणेविशीं म्हाका चड कांयच खब
नाशिल्लें.

एक दीस, तें म्हजें ऑफिस निवळ करपाक आयलें आनी काम सोंपल्याउपरांत
खांकुडिल्लेवरी जावन म्हजे मुखार उबें रावलें. ताणें हें अशें करप ताच्या सभावाच्य
इतलें विरुद्ध आशिल्लें, की हांव सामकें अजापलें. ल्हवूच, ताणें एक म्हेळी पोटली
काडली आनी म्हजेमुखार दवरली. मागीर हळूच ताणें म्हळें, 'मॅडम, तुमी म्हाका
वीस हजार रुपया दिवंक शकतात?' म्हाका अजून कुवाडें सुटूंक ना जावन हांवें
विचारलें, 'कितें जालें लीला? अकस्मात तुका इतले पैशे कित्याक जाय?' ताणें
जाप दिली, 'म्हजें सगळ्यांत धाकटें चली कॉलेजांत वचूंक सोदता आनी म्हाका
त्याखातीर पैशे जाय.' जेन्ना तें म्हाका हें सांगतालें तेन्ना हांवें ती पोटली उगडली.
भितर, सामकीं झरिल्लीं भांगराचीं कांकणां आशिल्लीं. 'म्हाका तूं हीं कित्याक दिता
लीला?' हांवें विचारलें.

'हें इतलेंच आसा म्हजेकडेन. म्हजें चली फुडें शिकता हें पळोवपाखातीर हांव कितेंय
करीन. खूब हुशार आसा तें. ताका इंजिनियर जावपाचें आसा.'

चलयेविशीं उलयतना ताच्या आवाजांत अभिमान दिसतालो. पूण आवयक आपलें
भुरगें बरें आनी हुशार केन्ना दिसना? म्हूण हांवें लीलाक सांगलें, 'हीं कांकणां परतीं
व्हर. हांव कितें मारवाडी न्हय. म्हाका तुजे चलयेक मेळून ताचेकडेन उलोवपाचें
आसा. ताका शाळेचें मार्कलिस्ट घेवन म्हाका येवन मेळपाक सांग.'

